TIN KHETIM XANNI SURATIM (Collection of one act plays) by prakash G. Thali.



पयली अुजवाडावणी
मार्च १९८७

मुखचित्र
श्रीधर कामत बांबोळकार

अुजवाडावपी
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय फोंडें गोंय
४०३ ४०१

छापपी
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय फोंडें गोंय



मोल
**वीस रुपया**

गोकुळदास प्रभू हांकां
मायमोगान —
०७/१२/८८

— आबाक

(म्हजो व्हडलो भाव श्रीपाद गं. थळी)

— तेदेवेळार तूं म्हणून आज हांव हे दीस पळयतां.

— प्रकाश

# खेतीं माचयेर देंवचेपयलीं ...

कोंकणी साहित्यांत कविता, कथा, निबंद, नाटक आनी समीक्षेच्या मळार म्हजे तांकीप्रमाण हांव वावरत आयलां. पुस्तक रुपान पयले खेप उजवाडाक येता तो अेकांकी संग्रह, 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं.'

१९७३ वर्सा हांव मुंबयत मराठी नाटचक्षेत्रांत वावुरतालों तेन्ना म्हजो पयलो मराठी अेकांकी संग्रह – 'वेटिंग फॉर घासलेट', उजवाडाक आयिल्लो. त्या संग्रहांतल्यो 'वेटिंग फॉर घासलेट' 'प्रीया तुज्या प्रेमासाठी' आनी 'उद्घाटन' ह्यो तीन अेकांकी ह्या संग्रहांत – 'वाट पळयतां दुकां गळयतां', 'प्रीया तुज्या मोगाखातीर' आनी 'अुक्तावण' अशा माथाळचाखाला अुतरायल्यात. मुदलांत मराठी प्रेक्षकाक नदरेमुखार दवरून बरयिल्यो आनी बसयिल्यो ह्यो तीनूय अेकांकी कोंकणीत अणकारीत केल्यो तरी तांचे प्रयोगक्षमतेक खंयच बादा येत अशें म्हाका दिसना. मराठी रंगमाचयेर ह्या अेकांकीक कल्पनेभायर येवकार लाबलो.

ह्या संग्रहातल्यो बाकीच्यो चार अेकांकी मुळांतूच कोंकणीत बरयल्या. तातूंतली सुरवेची 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं' ही अेकांकी, गोंयच्या आंतरमहाविद्यालयीन अेकांकी र्सतित खुबच गाजली आनी अुपरांत जायतेकडेन वेगवेगळचा पंगडानी तिचे प्रयोग सादर केले.

'अुजवाडटलें आज ना फाल्यां' आनी 'आयलें हडुयार घेतलें खडुयार' ह्या दोनूय अेकांकीनी अेकूय स्त्रीपात्र ना. आनी 'घर म्हजें हांव धनी' हे अेकांकीन अकूच स्त्रीपात्र आसा. ह्या तिनूय अेकांकीचे खेळ आजून जरी माचयेर जावंक नासले तरी दिग्दर्शक ह्या नात्यान, म्हज्या अणभवांतल्यान म्हाका तातूंतली प्रयोगक्षमता स्पश्ट जाणवता. थोडचा भितर सांगचें जाल्यार नाटकाकडेन संबंदीत हेर बाबी वांगडा अेकांकीची प्रयोगक्षमता नदरेमुखार दवरुन ह्यो अेकांकी हांगां संग्रहीत केल्या. त्यो रंगमाचयेर जैतीवंत जातल्यो अशी म्हाका आस्त आसा.

रंगमाचयेर दुसऱ्यालयो संहिता सादर करताना दिग्दर्शक ह्या नात्यान म्हाका मेळपी स्वातंत्र्याचो हांव पुराय वापर करतां. पुण हें करताना बरोवप्याच्या संकल्पनेच्या गाभ्याक बादा येवचीना हांची हांव सदांच जतनाय घेत आयलां. म्हज्या अेकांकीच्या संदर्भांत हेर दिग्दर्शकांक म्हाका हेंच सुचयनशें दिसता.

खरें म्हळयार हो संग्रह कांय वर्सां आदींच पुस्तक रुपान अुजवाडाक येवपाचो पुण तशें घडलेंना. आतांय हो संग्रह अपुरबाय प्रकाशनाच्या आगऱ्याक लागून आनी ताणीच भरिभार घेतिल्ल्यान अुजवाडाक येता.

**प्रकाश गं. थळी**

मार्च १९८७

**राय, साश्ट, गोंय.**

नेत्रा
गोविंद
अतुल
श्रवण
सुभाष

१.

# तीन खेतीं शाणी सुरतीं

(अेके कॉलेजीच्या हॉस्टेलांतलो कॉमन रूम. स्टेजीचे अुजवे वटेन चार कदेलां. तांचे मदीं अेका वाटकुळचा मेजार वर्तमानपत्रां, आंक बी अस्ताव्यस्त पडिल्ले आसात. मेजा-फाटल्यान फायलीक लागून स्टेजीत भितरमेरेन येवपी अेक ल्हानसो आंतेपार (पार्टीशन) आसा. स्टेजीचे दावेवटेन अशेंच अेक ल्हानशें पार्टीशन निमाणे फालीक जोडून आसा. हया आंतेपारा फुडें पुस्तकांची अेक ल्हानशी आलमार, अेक रेडिओ बी सामानय आसा. ताचे फुडल्यान अेक कदेल आनी मुखार अेक टिपाय. स्टेजीचे मदीं फाटसार अेका मेजार टेलिफोन आसा. पड्डो अुगडटा तेन्ना रेडिओचेर संगीत आयकूंक येता. हॉस्टेलाच्या रॅक्टरालें कुड्डें चली स्टेजीचे दावे वटेंतल्या कदेलार बसून कितें तरी विणटा.)

नेत्रा : (पावलांचो आवाज आयकून) कोण ? कोण आयला ? कोण थंय ? उलयना कित्याक ? उलोंवक येना काय म्हणटां हांव ? जाप कित्याक दिना ? (स्टेजीर मोनो सुभाष येवन अेक पासय मारता आनी मेजा वयले आंक बी चाळून परतो वता. कांय खिणां भितर भेरो श्रवण स्टेजीर शिळोणी घालीत प्रवेश करता. अेक पासय मारता. आंक चाळटा हेवटेन तेवटेन पळयता आनी परतो वता) कोण थंय ? कोण आयला

काय म्हणटां हांव ? उलयना कित्याक ? तुका आयकूंक येना हांव कितें म्हणटां ते ? अजापूच शें !

(श्रवण गेल्या उप्रांत गोविंद आनी ताचे फाटोफाट अतुल स्टेजीर येतात.)

नेत्रा : कोण थंय ? कोण आयला ?

गोविंद : (अतुलाक) यो. हांगा बसूया आमी. (दोगूय स्टेजीचे अुजवेवटेंतल्या कदेलांचेर बसतात. )

नेत्रा : कोण गोविंद रे ?

गोविंद : हय, हांव तो. कित्याक अुलो माल्लो ?

नेत्रा : तुका मेळपाक कोण आयिल्लो. वांगडा अेक बायल मनीसूय आशिल्ली. तुजेकडेन कितें तरी काम आशिल्लें खंय.

गोविंद : म्हजेकडेन काम आशिल्लें ? कोण आयिल्लो म्हळें ?

नेत्रा : हांवें नांव विचाल्लें ना. पुण म्हत्वाचें काम आशिल्लें अशें म्हणटाली.

गोविंद : म्हत्वाचें काम ? आनी म्हजेकडेन ? कितें रकाद बी दवल्ला?

नेत्रा : ना. परती फावट मारतां म्हळां.

गोविंद : बरें आसा, येतलीं तर मागीर. (अतुलाक) आं, तर येदोळ हांव कितें म्हणटालों ? तूं ताका मात्तय नाका.

नेत्रा : कोणाक ?

गोविंद : हांव हाचेकडेन अुलयतां. आं. (अितलो वेळ अतुल अेकसारको नेत्राकडेन पळयत आसा. ) आरे आं, हें नेत्रा आमगेल्या रँक्टरालें चली. (नेत्रा अुठून नमस्कार करता. टिपॉयाक आदळत. ) सांबाळ, आं नेत्रा. पडशीत. हांगा टिपॉय आसा. (अतुलाकडेन पळोवन ) बाबडचाक दिसना.

नेत्रा : बरें केलें ताका खबर नाशिल्लें म्हजें व्यंग सांगलें आनी वयल्यान 'बाबडें' म्हणून काकुळटूय केली.

गोविंद : सॉरी आं नेत्रा. म्हाकां तशें म्हणपाचें नाशिल्लें. तुकां वायट दिसलें. व्हेरी सॉरी. (परतो अतुलाकडेन वळून) तर हांव तुकां कितें सांगतालों ? हय, तूं ताका मात्तूय आवडना. तुवें जर ताची फाट सोडली ना जाल्यार सांबाळ. म्हाका पुलीशांत कळोवचें पडटलें. तुकां दिसता आसत, हांव पोक्यो फटाशो मारतां म्हूण पुण आतांच सांगून दवरतां, म्हजेकडेन पुरावो आसा. (बॉत्सांतल्यान अेक कागद काडून दाखयता) हो पळय (अतुल झोंपय मारपाचो यत्न करता) आं, हात लावं नाका पयसुल्यानच पळय. (कागद परतो बोल्सांत दवरता. अतुलाचें

मेजार दवरिल्ल्या लायटराकडेन लक्ष वता) आरे, बरो लायटर मरे ! कितें रे, कोणालो फारायलो ?

अतुल : फारावंक ना. फारावपाची तजवीज आसा.

गोविंद : जाणा रे, खबर आसा. तुजोच हो लायटर. व्हडलो फारावपी जाल्लेवरी ! हें कितें ! तुजें नांवपसून आसा हाचेर. (सकयल आशिल्ल्या एका जायरातीकडे ताचें लक्ष वता.) आरे, ही जायरात आनी कसली? वा ! ही सिनेमाची जायरात Dial 'M' for murder. (जायरात काडपाक बागवल्लो आसता तेन्नाच, अतुल गळयांतलो स्कार्फ काडटा आनी गळो आवळून गोविंदाचो खून करता. अतुल लायटर थंयच विसल्ला. तो गोविंदाच्या बोल्सांतलो पुराव्याचो कागद काडटा आनी ताचो मुडदो स्टेजीच्या अुजवे वटेतल्या पार्टीशना फाटल्यान उडयता. चोर पावलांनी भायर वता आसतनाच भितर सरपी सुभाषाक ताचो धक्को लागता. फाटल्यान रोखडोच श्रवणूय आयला. दोगूय चलत चलत स्टेजीचे उजवेवटेन पावल्यात. आतां हाचेफुडें सुभाषाचें चडशें ॲक्टींग, स्टेजीचे उजवे वटेनच्या जाग्यार रावन जाता सुभाष – श्रवण आनी नेंत्रामदीं संपर्क सादून रावपी सवंग ! )

नेत्रा : कोण आयला ? कोण थंय ? कोण ? ( सुभाष कुरवांनी श्रवणाक सांगता. )

श्रवण : नमस्कार.

नेत्रा : (उबें रावन हात जोडटा) नमस्कार.

श्रवण : हांव श्रवण.तुजें नांव कितें ? ( आयकुपाचो पिशेपणाचो यत्न करता )

नेत्रा : म्हजें नांव नेत्रा. (श्रवणाक कळूंक ना. सुभाष ताका आपणां म्हऱ्यांत आपोवन व्हरता आनी कुरवो करता. )

श्रवण : भोंवयो ? दोळे ? नदर ? नयन ? नेत्र ? हां हां नेत्र. तें नेत्र, तें नेत्र, हां हां नेत्रा. (सुभाष कुरवांनी हय म्हणटा) तुजें नांव नेत्रा ?

नेत्रा : हय, हांव नेत्रा. तूं कवी – बिवी काय कितें ? म्हज्या नांवाची कितलीशींच उतरां तुवें उलोवन दाखयलीं. खऱ्यांनींच तूं कवी ?

(सुभाष कुरवांनी सांगपाचो यत्न करता. )

श्रवण : पुस्तक ? पद ? पुस्तकांतलें पद ? कविता ? खाड ? चंद्रीम ? कविता खाड – चंद्रीम ? हां, हां, कवी ! न्हय न्हय, हांव

कवी न्हय ! हांव चित्रकार. आर्टिश्ट. तुका चित्रां आवडटात ?

नेत्रा : चित्रां कोणांक आवडनात ? (सुभाष कुरवांनी 'ताका चित्रां आवडटा' अशें सुचयता. )

श्रवण : पुण तूं हांगा चल्यांच्या हॉस्टेलांत कशें पावलें ?

नेत्रा : म्हजो बापूय हांगा रॅक्टर म्हणून आसा.
(सुभाष कुरवांनी हें श्रवणांक कळोवपाचो यत्न करता.)

श्रवण : तकली ? केंस ? बॅट्रि लायट ? पेंसिल ऑफ लायट ? रेय, रेय, रेय नेलकटर ? हां कटर. रेय – कटर, हां हां रॅकटर, व्हडलो ! उंच ! हां बापूय. तुजो बापूय हांगा रॅक्टर आसा ?

नेत्रा : हय ताचेंच चली हांव. घरांतलीं सगळीं जाणा भायर सल्ल्यांत. हांव रेडिओ आयकतां. म्हाका पदां खूब आवडटात
(सुभाषाच्यो कुरवो)

श्रवण : हां. हां संगीत तुका बरें लागता ?

नेत्रा : हय. तो रेडिओ मात्सो बंद करता ? कार्यावळ सोंपलीशी दिसता.
(सुभाष कुरवांनी श्रवणाक 'रेडिओ बंद कर' अशें सांगता ; पुण ताका तें सारकें कळूंक ना तो रेडियो म्ह-यांत वता आनी म्हणटा )

श्रवण : हां. रेडियो. बरो आसा हां तुमचो रेडियो. खंय घेतिल्लो म्हळें ? फिलीप्स काय कितें ?

नेत्रा : हय. Philips चो. हांवेंच घेतिल्लो. मात्सो बंद करता ? स्टेशन बंद जालांशें दिसता. (श्रवणाक आजुनय कांय कळूक ना. तो रेडियो तोखेत आसा. सुभाष खासा येवन रेडियो बंद करता.)

श्रवण : चालू आशिल्लो ? म्हाका सांगपाचें न्हय ? हांव बंद करतलों आशिल्लों. नेत्रा तुका चित्रां आवडटात न्हय ? हांव तुका म्हजीं चित्रां दाखयतां हां ! (अेक कदेल हाडून नेत्राच्या सामकाराक दवरता. ताचेर बोटव्यांतलें अेकेक चित्र दवरून दाखयता.) हें जें आसा न्हय, तें Black and White आसा आनी हें जें दुसरें आसा पळय तें चार रंगांचे.

नेत्रा : Colour Combination बरें जमलां.

श्रवण : अशीं जायतीं चित्रां काडटां हांव. पुण कितें जालां, हालीं म्हाका चड वेळ मेळनां. पुण हें बरें जालां शें दिसता. म्हाका स्वताक आवडलें. बरें एक सांग, Colour Combination कशें जालां ?

नेत्रा : सांगलें न्हय, Colour Combination अेकदम बरें जमलां.
(सुभाष कुरवांनी समजायता.)

श्रवण : नेत्रा, तुका खंयचे रंग आवडटात ?

नेत्रा : म्हाका मूं ? म्हाका जाल्यार अेका धव्या रंगांत सातूय रंग दिसतात.
(सुभाषाच्यो कुरवो)

श्रवण : लेंस, धवो लेंस, धवो रंग सात, धवो – रंग – सात, धव्या रंगात, सात, हां, हां, म्हणजे तुवें Physics घेतलां तर ! इंद्रधनुष्यांत दिसतात सात रंग ? तूं खंयचे कॉलेजींत शिकता?

नेत्रा : हांव धेंपे कॉलेजींत शिकतां.
(सुभाष कुरवानी सांगता.)

श्रवण : चलता ? दांग मारता, हां हां धेंप, धेंप. पुस्तक, शिकता, शाळा, व्हडली शाळा. कॉलेज – कॉलेज. धेंपे – कॉलेज. हां हां धेंपे कॉलेज. तूं धेंपे कॉलेजींत शिकता तर ! तूं खंयचें ?

नेत्रा : आमचें घर फोंडयां तिस्कार.
(सुभाष कुरवानी श्रवणाक समजायता.)

श्रवण : खण्टा ? खळगो, व्हाळ ? खळी ? किरिस्तांव .... मेलो. पुल्लो तो जागो हां – हां फोंड तें हां हां फोंडेचें ?

नेत्रा : हय, हांव फोंडेंचें, तूं खंयचो ?
(सुभाष श्रवणाक प्रस्न सुचयता पुण ताका ते कळना.)

श्रवण : तकली ? घुंवल्या ? म्हजी ? हूं ! आॅ ? पिसो, अिंग्लेजींत पिसो Crack ? Fool ? Mad ? (सुभाष 'हय' अशें कुरवांनी सांगता) लोक ? समाज ? खूब लोक ? गांव ? (सुभाष 'हय' अशें शिटकायता) मड – गांव, मड – गांव हां हां मडगांव – हांव – मडगांव. हाय देवा, हांव मडगांवचो.

नेत्रा : तूं खऱ्यांनींच आर्टिस्टूच न्हय. तर कवीय बी, अेकाच अर्थाची कितलीशींच अुतरां तुवें सांगलीं.

श्रवण : (सिगरेट ओडटा) तूं हांगां अेकलेंचशें ? बाकीचे लोक खंय तर ?

नेत्रा : घरांतलीं सगळीं सिनेमाक गेल्यांत ! (सुभाषाच्यो कुरवो)

श्रवण : Screen ? टेलिविजन. चित्र, हां सिनेमा ? सिनेमांक गेल्यांत !

नेत्रा : हय. (तकली हालोवन सांगता.)

श्रवण : तूं गेलें ना सिनेमाक ?

नेत्रा : हांलीं पळयना हांव सिनेमा. तूं पळयना सिनेमा ?

(सुभाष कुरवानी प्रश्न समजयता पुण श्रवणाक कळना. )

श्रवण : हांव ? हांगा ? हां हां हालींच आयलां हॉस्टेलांत. हांगाच कामूय करतां. आं ? हांव सिनेमाक वचना काय म्हणटा ? ना ना, म्हाक तांतले Dialogues आयकुपाक वाज येता.

नेत्रा : तातूंत वाज कसलो ? अजापूच शें.

श्रवण : तुका आवडनात सिनेमा ?

नेत्रा : म्हाका मूं ? तुका सिनेमांतले Dialogues आयकुपाक वाज येता तसो म्हाकाय सिनेमातले देखावे पळोवपाक वाज येता. पुण अेक सांग, तूं गोविंदाक वळखता न्हय ? थंय ती जायरात कसली आसा ? ती वाचली आनी रोखडोच गोविंद नाच जालो (सुभाष जमनीवयली जायरात ' Dial 'M' for murder ' काडून वाचता आनी श्रवणाकडेन दिता. )

श्रवण : आरे ही तर सिनेमाची जायरात – ' Dial 'M' for murder ' (अितल्यांत नेत्राच्या हातांतलो सुता–गुळो पडला तो सोदपाक तें उठटा. श्रवणाचे ताचेकडेन लक्ष वता.) राव हां नेत्रा, हांव हाडून दितां. (सुता – धागो सोदतांसोदतांच श्रवणाचें लक्ष पार्टिशनाफाटल्यान वता. तो धांवतच थंय वता आनी मडें पळोवन किळांच मारता) खून ! खून ! हांगा खून जाला. कोणाचो तरी गळो दामून खून जाला.

नेत्रा : आवयस ! हांगा खून ? कोणाचो ? कोणे केलो ? आवयस ! देवा म्हज्या !

(अितल्यान सुभाष आनी श्रवण पार्टीशनाफाटल्यान वचून खात्री करून आयल्यात. सुभाषाची आनी गोविंदाची वळख आसता. सुभाष कुरवानी सांगपाचो यत्न करता. )

श्रवण : वच. वच.

नेत्रा : (गोंदळून) खंय वचूं ?

श्रवण : चल. चल.

नेत्रा : खंय चल म्हणटा ?

श्रवण : अिंग्लेजींतल्यान वचूं ?

नेत्रा : कितें ? कितें ?

श्रवण : Go ... Go .. Where shall I go? पंखो ? वारो ? अिंग्लेजींतल्यान वारो ... Wind, wind...
Go wind हां हां ... खून जाला ? तो गोविंदाचो !

नेत्रा : गोविंदाचो खून जाला ? गोविंद तर येदोळूच गेलो म्हूण समजलें हांव. देवा म्हज्या !

श्रवण : हो गोविंद कोण ?
नेत्रा : ३०२ नंबरचे कुडींत रावतालो.
श्रवण : तीन – शून्य – दोन. तीनशें दोन नंबरच्या रूमांत रावतालो.
(परते दोगूय पार्टीशना म्हज्यांत वचून येतात. )
नेत्रा : हय व्हय.
श्रवण : कोणे केला आसत हो खून ?
नेत्रा : म्हाका खबर ना.
(सुभाष नेत्राकडेन श्रवणाचें लक्ष वेधता. )
श्रवण : तूं हांगाच आशिल्लें न्हय ?
नेत्रा : (तकली हाल्लोवन) हय.
(सुभाष कुरवांनी हय म्हणटा.)
श्रवण : तरी तुवें पळयलें ना ?
नेत्रा : म्हाका दिसना न्हय. मातूय. हांव कुड्डें.
(सुभाषाक अेकदम अजाप. नेत्राक दिसना हें तो कुरवांनी सुभाषाक सांगता.)
श्रवण : म्हातारो, सांसपीता ! आं कुड्डो. हें कुड्डें ? (अजाप) आरे ! म्हज्या अितलो वेळ कशें लक्षांत आयलेंना ?
नेत्रा : हय हांव कुड्डें. म्हाका दिसना.
(परते सुभाष आनी श्रवण पार्टीशनाकडेन अेक फावट मारतात.)
श्रवण : मागीर तुवें खूनी मनशाक पळोवकूच ना आसतलो.
(सुभाष, 'हांवें खुनी मनशाक पळयला' अशें कुरवांनी सांगता.
श्रवण : तुवें ताका पळयला ? ( अर्थात, सुभाषाक प्रस्न )
नेत्रा : सांगलें न्हय. म्हाका दिसना म्हणून. (सुभाष नांवाचो मनीस स्टेजीर आसा हाची आजुनय नेत्राक खबर ना. )
श्रवण : (सुभाषाच्या कुरवांकडेन पळोवन )तुवें ताका धांवतना पळयलो ?
नेत्रा : श्रवण, श्रवण, हांव कशें धांवतना पळयतलें ? (सुभाष कुरवांनी आपणाक खांद्याक धक्को लागलो तें सांगता. )
श्रवण : तुकां धांवतना ताचो धक्को लागलो ?
नेत्रा : श्रवण, श्रवण तुकां जालां कितें ? तुका सांगले न्हय हावें, म्हाका दिसना म्हणून. देवा म्हज्या ! श्रवण तुका कितें दिसता, कुड्डें म्हणपाचें हांव सवंग करतां ?
(अितलो वेळ नेत्रा अुलयतालें ताचेकडेन सुभाषाचें आनी श्रवणाचें व्हडलेंशें लक्ष नासलें. आतां सुभाषाच्या लक्षांत

आयलां. तो श्रवणाक सांगता. अर्थात कुरवांनी कीं 'आरे पापया तें कितें तरी म्हणटा पळय.)

श्रवण : नेत्रा, तुवें म्हाका कितें म्हळें? म्हजें लक्ष नासलें.

नेत्रा : हांव अितलो वेळ जालो, आड्डून सांगतां आनी तुकां खरेंच दिसना? (फोन अेकसारखो वाजता) तो फोन पयलीं घेयात कोण तरी. (सुभाष आनी श्रवण दोगूय फोनासरी वचून 'आता कितें करचें?' असो प्रस्न घेवन अुबे. पुण सुभाष उपाय काडटा. तो फोनावयलें संभाषण आयकता. आनी कुरवानी श्रवणाक समजायता. त्याप्रमाण श्रवण अुलोवपाचें काम करता. फोन मुरलीधर पानकार ह्या मनशाचो आसता. ताका रॅक्टराक मेळपाचें आसा.)

श्रवण : बरें आसा. हॅलो, सांगतां तुजो रकाद. (फोन दवरता.) नेत्रा, तूं कुडूं हें म्हज्या लक्षांतूच आयलें ना बरोच वेळ. I am Sorry ह्रां. हां. हांवें तुकां म्हजीं चित्रां दाखयलीं. रंगाच्यो खबरी केल्यो. खरेंच तूं म्हणटलें हांवें तुजीं फकाणा केलीं. म्हजें वायट धरूं नाका हां, नेत्रा.

नेत्रा : कांय नज. तो फोन कोणाचो आशिल्लो म्हळें?

श्रवण : म्हजीं पिशेपणाच जालीं.

नेत्रा : तूं अितलो कित्याक कश्टी जाता? खरें म्हळयार म्हजेंच पयलीं चुकलें. हांवेंच पयलीं तुकां हांव कुडूं म्हणपाचें कळोवपाचें. (ताकाच परतें वायट दिसलां अशें सुभाष श्रवणाक सांगता – कुरवांनी)

श्रवण : नेत्रा, तूं तुज्या कुडुपणाचें चड वायट धरूं नाका.

नेत्रा : फोन कोणाचो आशिल्लो म्हळें?

श्रवण : खरें म्हळयार काकूळट, माया, आपलेंपण बी संवसारांतल्यो जायत्यो गजाली –

नेत्रा : कित्या खातीर फोन केल्लो ताणें?

श्रवण : तुज्या वांटचाक देवान जितल्यो गजाली दिल्यात आसतल्यो तितल्यो हेरांच्या घडये येवंक नात आसतल्यो.

नेत्रा : श्रवण, तूं अेकसारको विशय कित्याक बदलीत रावता? हांव अेकसारकें फोनाविशीं विचारता आनी तूं आयकूनच घेना. (सुभाष 'नेत्रा फोनाविशीं विचारतां' अशें कुरवांनी सुचयता)

श्रवण : नेत्रा, तूं म्हाका फोनाचें विचारतालें? हाय देवा, हांव हांव आपलों वेगळेंच कित्या कितेंय बडबडत आशिल्लों. नेत्रा, खरें सांगूं तुका? म्हाका मातूय आयकूंक येना. हांव भेरो.

नेत्रा : (अजापान) कितें ? भेरो ? अशें कशें जातलें ? ओगी कितेंय सांगू नाका ? भेरो जाल्यार अितलो वेळ म्हजे वांगडा कसो अुलयतालो ? त्याभायर तूं फोनार लेगीत कसो अुलयतालो तर ? (सुभाष कुरवांनी 'आमी फोनार कशे अुलयले' हाचेबद्दल नेत्रा विचारता अशें श्रवणाक सुचयता.)

श्रवण : फोनार ? हांव ? कसो ? अुलयलो ? हां .... हां ... हांव फोनाचेर कसो अुलयलों तें विचारता तूं? देवा म्हज्या ! सगळो घुस्पागोंदळूच जालो, नेत्रा आनी अेक मजा तुका सांगपाची उल्ली. म्हजे वांगडा हांगा म्हजो अेक अीश्ट आसा, सुभाष म्हणून. ताका अुलोंवक येना, पुण ताका आयकूंक येतां. अेका accident टांत ताची बाबडयाची वाचा गेली. तूं अितलो वेळ जें कितें अुलयतालें तें सगळें तो म्हाका कुरवांनी सांगतालो. सुभाष, असो यो मरे. तुजी नेत्राकडेन वळख करून दितां. (सुभाष आयल्यान येवन नमस्कार करता. पुण नेत्राक तें दिसूंक ना. हें लक्षांत येवन श्रवण म्हणटा – ) नेत्रा, सुभाष तुका नमस्कार करता.

नेत्रा : Sorry आं सुभाष. तूं येदो वेळ हांगा आसा हें कळ्ळेंच ना. वायट धरूं नाका आं.
(सुभाष सुमुरख्यांनी हांसता.)

श्रवण : कितें मजा पळे. तूं नेत्रा पुण तुका मातूय दिसना. हो सुभाष पुण मोनो. आनी हांव श्रवण पुण मातूय आयकूंक येना.

नेत्रा : अेकेकल्यालें नशीब आनी कितें !

श्रवण : आरे, मुखेल गजाल आमी साप्प विसल्ले. ह्या खूनाचें कितें ? (नेत्राक) तुवें कांय ताका पळोंवक ना.

नेत्रा : पुण हांवें ताजो आवाज आयकला. ताचीं अुतरां हांवें आय – कल्यांत. 'फारांवक ना , फारावपाची तजवीज आसा.'
(सुभाष ताका कुरवांनी सांगता )

श्रवण : तुवें ताका उलयतना आयकला आनी सुभाषान ताका पळयला.

नेत्रा : तूं सुभाषाकडेन उलयता ?

श्रवण : नेत्रा, हांव आतां सुभाषाकडेन अुलयतां हां. सुभाष, ताचो भेस – बीस कसो कितें आशिल्लो ? हां, पॅन्ट घाल्ली, कोट, बुशकोट, हां सफरी, पायांत बूट आशिल्ले. मिश्यो आशिल्यो. आंगांन मोठो, उंच, केंस मुदयाळे. आनीक, आनीक ?

नेत्रा : सुभाष, तुका अुलोंवक आयिल्लें जाल्यार काय बरें जावपाचें न्हय ?

(सुभाष कुरवांनी नेत्रान म्हळां तें श्रवणाक सांगता.)

श्रवण : कितें म्हणटा तें ? तूं, तूं तुकां, अुलोंवक बरें जावपाचें, तुका अुलोंवक आयिल्लें जाल्यार म्हणटा ? आरे मागीर प्रस्नूच नाशिल्लो.

नेत्रा : सुभाष, श्रवणाक सांग बेठ्ठचो खबरो मारचे परस पुलिसेंत फोन करून कळय. पुलीस येवन मागीर कितें करपाचें तें करतीत.(सुभाष कुरवांनी श्रवणाक कळयता.)

श्रवण : कितें पुलिस ? नाका रे बाबा आमकां ती भानगड. (थोडो वेळ येवजून) पुण अशें कशें ? ना, ना, आमी कांयच केलेना जाल्यार आमकां आनी नेत्राक धोको आसा. आमी कितें तरी करूंकच जाय. (सिगारेट ओडपाक बोलसांत सांसपिता. पाकीट भायर काडटा. पुण सिगरेटी सोंपल्यात. पाकीट सकयल अुडयता.) सुभाष, सिगरेट आसा रे ? (सुभाष ना म्हणटा.) मात्सो वेवन येता ? Please. (सुभाष सिगरेटी हाडपाक भायर वता.)

नेत्रा : सुभाष भायर गेला ?

श्रवण : नेत्रा, सुभाष मात्सो भायर गेला सिगरेटी हाडपाक.

नेत्रा : हांवें उलयल्लेंच हो अुलयता. आतां हाचे वांगडा कशें उलोवप आनी फायदो तरी कितें ? हांव उलयल्लें हाका कांय आयकूंक येवचें ना आनी समजुचेंय ना. ओगीच राविल्लें बरें.

श्रवण : अेक सांगू नेत्रा ? सुभाष येसर आमी दोगांयनी कितेंच उलोवपांत अर्थ ना. तुवें उलयल्लें म्हाका कांयच आयकूंक येवपाचें ना. आनी कळपाचेंय ना.

नेत्रा : देवा म्हज्या ! श्रवण, हांवें अेक पळयलां. (ताका आयकूंक येना हें जाणा जावनूय आपले भितरुच कशें अुलयता) हांव कुडें आसुनूय पळयलां, ज्या मनशाक अेकाद्रे व्यंग आसता न्हय ताका देव वेगळे तरेची एक शक्त दिवन दवरता. (श्रवण अर्थातच ब्लॅंक.)

श्रवण : नेत्रा एक गजाल तुका खबर आसा ? खबर ना जाल्यार हांव सांगतां. हांवें अशें आयकलां, आयकूंक येना तरीपुण आयकलां, ज्याका अेकाद्रे व्यंग आसता न्हय, कसलेंय, ताचे-कडेन देवानूच दिल्ली दुसरी खंयची तरी अेक वेगळी शक्त आसता. (अतुल येता.) आसूं तूं विचारता आसतलें अेक आनी हांव दुसरेच्च कितें सांगता आसतलो.

(अतुल कितें तरी सोदीत आसा. तो आपणालो लायटर

हांगा विसरुन गेल्लो )

श्रवण : ना जाल्यार आमी अशें करूया. हांव अेकलोच उलयत रावतां. तूं आयकत. राव. (मात्सो थांबून) ना जाल्यार आमी अशें करूंया. हांव तुका अेक काणी सांगतां. (कदेलार बसून सुचत तशी अेक काणी सांगतां. नेमक्या त्याच कदेलार अतुलाचो लायटर आसता. अतुल ताका मोन्यानीच उठोवपाचो यत्न करता. ) कितें जाय ?
(नेत्राक अतुल आयला म्हणपाची मातूय खबर ना.)

नेत्रा : कांय नाका.

श्रवण : अुठूं ? कित्याक ?

नेत्रा : हांवें खंय तुका ऊठ म्हळां ? हांव अुलोंवकूच ना.

श्रवण : मागीर सारके सांगूंक जायना ?

नेत्रा . अशें कितें करता श्रवण काणी सांगताली ती थांबयली कित्याक ?

श्रवण : कितें सोदता तूं ? कितें जाय ?

नेत्रा : (दुबावान) कोण ? कितें सोदता ? कोण आयला ?
(अतुल चंवाचूक जावन आसा. श्रवणाक मांडये पोंदच्या लायटराचें भान जाता. )

श्रवण : आरें, हां, लायटर. वा, बरो मरे ! कितें रें, कोणालो फारायला ?

अतुल : (भान विसरुन) फारांवक ना, फारावपाची तजवीज आसा.
(नेत्राक आपणें हीच अुतरां येदोळ आयकल्यांत म्हणपाचें याद जाता. तें धडपडत धडपडत ताका धरपाचो यत्न करीत अुलयता.)

नेत्रा : श्रवण, श्रवण, होच तो होच आवाज. धर ताका, धर ताका, घट्ट धर अचूंक दिवं नाका. श्रवण, श्रवण होच रे तो.
(श्रवणाक कांयच कळूंक ना. तो लायटरा वांगडा खेळटा आनी अतुलाक मात्सो खेळयता )

श्रवण : बरें, बरें, खबर आसा रे. तुजोच आसतलो. घे बाबा, जीव वचत तुजो, बरें चल्लो ? अच्छा good bye, टाटा.
(अतुल चोर पावलांनी चंबाचूक हेवटेन तेवटेन पळयत वता. नेत्रा अितलें म्हणसर धडपडत, बडबडत स्टेजीचेर मदीं धोपरां आनी हात तेंकोवन हताश जावन बसलां.)

नेत्रा : श्रवण, श्रवण, गेलो तो ? देवा कितें केलें तुवें ? काय बरो धरूं येतालो ताका ! (श्रवण अतुलाक bye bye करून

परतला.)

श्रवण : (जमनीर नेत्राकडेन नदर वचून) नेत्रा, नेत्रा, कितें जालें ? हां, कितें जाय ? हां ... अशें कितें जालें ? तूं बसता ? यो हांगा बस. हें पळय हांगा कदेल आसा.
(हाताक धरून कदेलार बसयता. आनी अजापान येवजीत रावता, नेत्राक पळयत. अितल्यांत सुभाष परतो येता. ताणे अतुलाक पळयला म्हणपाचें ताका सांगपाचें आसा.)

श्रवण : कितें ? कितें ? तुवें खून करतल्याकच पळेलो ? धांवतना.... आतां ?

नेत्रा : सुभाष आयला ?

श्रवण : आरे, तो तर अतुल आशिल्लो.

नेत्रा : सुभाष, सुभाष. तोच तोच तो. हांवें ताचो आवाज वळखला. हांवें श्रवणाक ताका धर म्हळो, पुण ताका आयकूंक आयलेंना अितल्यांत तो पळ्ळो.
(सुभाष 'तोच तो' अशें कुरवांनी सांगता. आनी नेत्राय म्हणटा तेंय सांगता.)

श्रवण : आरे, आरे, आरे ! काय बरो धरूं येतालो. आतां कितें करूंया ?

नेत्रा : आतां पुलिसेक फोन करूंया. हांगा हॉस्टेलांत अतुलान गोविंदाचो खून केला म्हणून. उरिल्लें ते पळयतीत. (सुभाष नेत्राचें म्हणणें कुरवांनी अतुलाक सांगता. श्रवण, सुभाष आनी नेत्रा तिगांय ल्हवूल्हवू फोनाकडेन येतात. नेत्रा फोनार अुलयता.)

नेत्रा : मडगांव पुलीस स्टेशन ? हांव डॉक्टरालें चली नेत्रा गोंयकार अुलयतां. हांगच्या अे. बी. सी. कॉलेजीच्या हॉस्टेलांत आतांच अक खून जाला. ३०२ रूमांत रावपी गोविंद नांवाच्या भुरग्याचो. हो खून अतुल नांवाच्या भुरग्यान केला म्हणपाचो दुबाव मारता. बेगीन येयात. Thanks.

( पड्डो ) ★ ★

पुलीस - १
पुलीस - २
इन्स्पेक्टर
तो (विसेंत)
चंदन
सांगाती (चार/पांच)

२.

---

# अुजवाडटलें आज ना फाल्यां

---

थळ :– बेती फेरीबोटीकडलो लाँचीचो धको.
काळ :– आयचोच.
वेळ :– मध्यान रातीचो.

(पड्डो अुगडटा तेन्ना स्टेजीर काळोख. अुपरांत धक्यावेल्या खांब्यावेलो दिवो पेट्टा, तितलोच अुजवाड. रातकिड्यांची किरकिर. पैसुल्यान सुणी भोंकतात तांचो आवाज. दर्यांची पैसुली गाज. स्टेजीर कांयच प्रॉपर्टी ना. फक्त पायांकडल्या दिव्यांचे सुवातेर वारांवाचे जांव सांखळयांचें आडावण आनी लोखणाचे खुटे, जाचेवेल्यान लाँचीच्या धक्याचें फीलींग येंव येता. म्हळ्यार स्टेज हो धको आनी प्रेक्षक होच दर्या. स्टेज आनी लोक हाचेमदीं थोडी मेकळी सुवात जी जाय जाल्यार नाटकांतल्या संवगांनी वापरूं येता. चड करुन प्रेक्षकां–तल्यान कांय संवगा स्टेजीर येंव येता अश्याखातीर स्टेजीचे कुशीक फालीक तेंकून एक माड. मंद अश्या अुजवाडांत दोग जाण पुलीस लकत लकत आनी आपले भितर पुण लोकांक आयकूंक येत अशे गाळीसैत किते भरभरतात आनी बडबडटात. त्याच बराबर एक व्हडलें पींप गडगडायत स्टेजीर हाडपाचो यत्न. एकल्याच्या हातांत लापयांव आसा आनी दुसऱ्याच्या हातांत एक पोस्टर. ह्या दोगांयनी कॉप माल्लां. ताका लागून तांच्या दोळयांचेर झांपड आनी गुंगी स्पश्ट दिसता. पींप हाडून स्टेजीच्या एका अर्दान अुबें करतात आनी

ताचेर पोस्टर दसयतात. पोस्टराचेर एका मनशाचें अर्दें चित्र आनी कोंकणी – इंग्लेजींत (देवनागरी – रोमीत) बरोवप. इतलें सगलें जाता म्हणसर स्टेजीर एक इन्स्पेक्टर येता. ताका दोगूय सलाम मारतात.)

पु. १ : सायबानूं, हें हांगासर मूं ?

इन्स्पे. : तें मात्शें फुडें दवरात. (आपणाक जाय ते सुवातेर पींप घोळोवन बेवपाक सांगता.)

पु. २ : पात्रांव, तें चड कडेक जांवचें ना ? ल्हार येयल्यार तेचेर अुदीक अुसळोन पोष्टर भिजचे ना मूं ?

इन्स्पे. : (ताणशेता) सांगता तितलेंच करात. भोंकार अुदक घाल म्हळ्यार भोंकार अुदकूच घाल. सकयल लामता तें कितें काय म्हणुन विचारुं नाका. आनीक चड शापतां सांगशीत जाल्यार भोंकार दितलों खोंट. तें पींप फाटल्यान दवल्यार हॉलांतल्या निमाणे रांगेतल्या मनशाक वाचूंक कशें येतलें ? हें बरयलां तें कोणांक वाचपाखातीर ? (दोगूय पुलीस ताणें दाखयल्ले सुवातेर पींप घोळयतात.) वचात तुमी आतां.

पु. १ : आमी वचपाचें पात्रांव ? पुण एदे रातीकडेन तुमी हांगासर एकटेच म्हटल्यार ?

इन्स्पे. : तुमकां एक फावट सांगलें न्हय चलात म्हणून ? चलूंक लागात हांगासल्ल्यान. बेबदे खंयचे कडले ! तो हांगासर येना आनी बक्षीसाचे ते वीस हजार म्हाका मेळपाचे नात. भियोंव नाकात. ल्हेवटे खंयचेकडले !

पु. २ : तशे न्हूं पात्राव. तो मनीस अठरा गांवचें पाणी पियेलेलो आनी सतरां कादयांनी भोंवन येयलोलो. आमी तरी इतले कापसिदादीचो गुन्यावंकार केन्ना पळेलो ना. खंय लिपून रावन फातर बी शेवटीत म्हणून भंय. हजार जोडपाच्यो खबरी आमी खंय करतात पात्रांव ?

इन्स्पे. : तुमकां म्हजो इतलो हुस्को जाता जाल्यार थंय ते खोपींत बसात. लापयांव पालांव नाकात. गरज पडलीच जाल्यार हांव दोन पिल्लुको मारतलों.

पो. १+२ : जीवाक सांबाळून पात्रांव. आमी आहाच. (वतात. ते गेल्या अुपरांत)

इन्स्पे. : (मुखार येवन लोकांक अुद्देशून) भावानू आनी भयणीनू, म्हाका तुमचो आदार जाय. आयचें हें काम तशें म्हळ्यार जोखमीचें आनी भयाचें पुण ह्रांवें तें अुमेदीन आंगार घेतलां.

आग्वादाच्या बंदखणीतल्यान एक आकांताचो कैदी काल पळून गेला. सगळ्याक सोद चल्ला. एकादे व्हडें नाजाल्यार ट्रॉलर घेवन तो ह्रांगाच्यान पासार जांव येता. ताका धरपाचें काम आनी जापसालदारकी तुमचीय बी. पुण पेपरार नांव इन्स्पेक्टराचेंच येतलें. तशी पेपरवाल्यांची पद्धत म्हणून ह्या पोस्टराचेर जें बरयिल्ले आसा तें तुमकां पैसुल्यान दिसना जायत म्हणून हांव वाचूनच दाखयतां (पोस्टरावेलो सगलो मजकूर वाचून दाखयता) हांगासर फोटो छापला तो कैदी काल कादयेंतल्यान सुटून गेला. ताका जितो वा मेल्लो हाडून दाखयतल्याक २० हजार रूपयांचें इनाम सरकारान जाहीर केलां. ह्या मनशाची फक्कत तकली दाखयल्यार कांय ग्रामपंचायती १० रुपयांचे बक्षीस दिताल्यो हाची तुमकां याद आसतलीच. तशें पळेल्यार बीस हजार म्हळयार थोडे जाले नात. त्याभायर इंकम् टॅक्स ना. तुमकां सॉर्त फुटल्यार पसून टॅक्स फारीक करचो पडटा. तें आसूं. तर हो चंदन एक मोटो नक्षलवादी. देशांतल्या दिल्लीपसून मुंबै मेरेनच्या जायत्या बंदखणीतल्यान फरारी जावन तो फाटल्या सुमानांत गोंयां पावला म्हणपाचे कळ्ळें तेन्ना हांगाच्या पुलीसानी ताका वाळपय धल्लो आनी आग्वादा बंदखणींत दवल्लो. पुण थंयच्यान ताणें काल सांजे पपा काडली आनी गोंयचें सरकार आतां त्रासांत पडलां. हांव तसो गोंयकार आसलों तरुय हांगा मात्सो नवो. हांव मुळचो बस्तोडेंचो. पुण खूब वर्सां जबलपूर आनी नाशिकाक अुल्लों. हालींच म्हाका प्रमोशन मेळून म्हजी गोंया बदली जाल्या म्हणुनूच म्हाका तुमचो आदार जाय.

(कोणाची तरी पावलां वाजिल्याचो आवाज. इन्स्पेक्टर पिस्तुल जोखून फालींत पळेता, आवाज आयला ते वटेन.) कोण रे थंय ? कोण थंय ? थंयच राव पयलीं. एक पावल फुडें सरशीत जाल्यार हँड्स अप.

(एक थोटो मनीस – भिकारीच म्हळचार जाता – कुबडेच्या आदारान येता. पिनकें कालसांव, ज्युदी, चेपें आनी दोळचांक वक्ल. खाडमिशो कश्याय कश्यो. एकूण दरिद्रीच. हातांत एक वाजपापेटी जी ताणे ॲकोर्डीयनावरी अुबी खांदार घेतल्या. कितेंतरी गुणगुणत स्टेजीर येता.)

तो : देव बरी रात दिवं पात्रांव. बोवा नोयत

इन्स्पे. : रात मारूं झक्. तूं कोण ते सांग पयलीं आनी हांगा येदे रातचें किते काम तुजें ? म्हजे दोगजाण मनीस थंय खोपींत बसल्यात ताणी तुका आडायलो ना ?

तो : ना गा सायबा. म्हाका कोणेंच थुंय आडावंक ना. थुंयसोर म्हाका कोणूच मेवोक ना. आनी तुवें तरी म्हाकां कित्याक आडांवचो ? म्हाकाय तुजोच मनीस ओहे सोमोज. हांव चोर न्ही गुन्यावकारी न्ही. हांव एक भिकारी. पोटापोसोत कांतारां कोत्तां आनी दीस सारतां.

इन्स्पे. : शट्अप, चड उलोंवचो ना. हांव विचारतां तितलेंच सांगतलो.

तो : आयज कांदोळेच्या गांवांत फेस्त आसलें देखून येयलोलों. सांजचो वेतांना लेट जालो देखून ओल्लों. थीं फुटपाथार न्हीदलेलो. मुतोंक जालें म्हुण अुठ जाल्यार पात्रांव तूं दिसलो. तुजो वोगोत पासार जांवचो म्हुण गोजाली करुंक आनी तुका गोस्त आहा जाल्यार कांतार म्हुणटलों आसलों पात्राव.

इन्स्पे. : फटी मारता ? चोरा ? एकुच दितलों कमराबराबर.
(एक कानसुलार थापट फुलयता आनी कमरार खोट घालता. तो कळवळटा.)

तो : म्हाका मारुं नाका पात्रांव, हांव गरीब भिकारी. मात्तोलोच जाल्यार मार पुण म्हजें हार्मोनियम अशें फोडूं नाका. ही पेटी हें पोट म्हजें, म्हाका मारुं नाका पात्रांव.
(इन्स्पेक्टर मात्सो विरगळटा.)

इन्स्पे. : (पिस्तुल रोखून) फट अुलयशीत जाल्यार सोमतो एकांच फारान अुडयतलों.
(आवाज आयकून पुलिस येतात.)

पु. १+२ : कितें जालें पात्रांव ? हो कोण ?

तो : सांत फ्रांसिसाच्यान सायबा हांव चोर न्हुय. हांव एक गोरीब भिकारी म्हापशेंचो. म्हाका कोण ना. बायल आहाल्ली ती पोरुं बारीक जोरान मेली. तीवूय आदी म्होजेबाराबोर भीक मागताली. पांच वोर्सा जालीं. आक्सीदेंतान पांय मोडोन गेलो आनी हांव असो भिकारी जालों. तेन्नाच्यान हीं कांतांरा म्हण्टा आनीं पोट भोरतां. आदीं वास्को आसतालों. पोरुंच्यान बार्देसांत आहा. म्होजे नांव ज्युवांव नोरोंज.

इन्स्पे : आरे, हाचो पंचनामो करात.
(इन्स्पेक्टर कसल्या तरी बारीक कामाक लागून वेता.

पुलीस पंचनामो करतात इतले म्हणसर इन्स्पेक्टर परतो येता.)

इन्स्पे. : (पिपाकडे बोट दाखोवन) तुवें ही खबर आयकल्या ?

तो : (पोस्टर तेळून) सायबा भोगोस पात्रांव ! आयकोल्या म्हुण विचारताय ? पात्रांव हो चंदन म्हुण्टात तो मोटो भिरांकुळ मनीस. हांवें जायत्या लोकांकडल्यान आयकोलां. ओहोच जायते पावटी बंदखणींतल्यान सुटोन पोवला आशें म्हुण्टात. तेका बाँमगुळे बी तायार कोरुंक कोळटा अशें कोण सांगतालो. बाँमायी ताणें एकाच फातरान चार जाणांक चेंचायल्यात असल्यो खबरी हांवें आयकोल्यात.

(इन्स्पेक्टर मनांतल्यान मातसो हाल्ला.)

इन्स्पे. : तशें जाल्यार तुंवूय ताका धरपाक म्हाका मदत कर. हांव तुका धा रुपया दितलों. आमी दोगूय ह्या बल्लार बसून अदमास घेंवया. तो हांगाच्यान येंव येता असो आमका दुबाव आसा.

तो : ओगोत पासार कोरच्याक हांव तुजेपासत कांतार म्हुणटां पात्रांव. पुण एक सांग पात्रांव. त्या पुलीसांक तुवें कित्याक न्हीदूंक सांगलें ? तुयेन एकल्यान ओहो रातीचो हांगा रावप बोरे न्हुंय. पुण तें आसूं – हांव कांतार म्हुण्टा.

(कांतार म्हणटा. इन्स्पेक्टर तें आयकता पुण ताचें लक्ष ना.)

इन्स्पे. : हें पळय. आमी अशें बसुया. तूं तेवटेन लक्ष दवर. हांव हेवटेच्यान नदर दवरतां. (दोगूय पिपाचेर फाटीक फाट करून फालींनीं नदर भोंवडायत बसल्यात.)

तो : कांतार बोरे लागलें पात्रांव ? दुसरे म्हुणूं ? हांव आदीं बोमांय आसलों न्हुं पात्रांव, तेन्ना हिंदी, मोराठी बी जायतीं कातारां शिकलो. हांव तसो नेणार अन्नाडी. भुरगो आसताना इल्लेशें पुर्तुगेज आनी तीन क्लाशी इंग्लेज शिकलों. आतां एक हिंदी कांतार म्हुण्टां...

(हिंदी पद म्हणटा. पद चालू आसतांना धबाक् करून आवाज जाता. सुणीं भोंकतात दोगूय जाण हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडावन सोदपाचो यत्न करतात. प्रेक्षक आनी स्टेज हाचेमदले सुवातेवेल्यान एक मनीस अुकडया बसुनूच एके-वटेनच्यान दुसरेवटेन वता.)

इन्स्पे. : कोण रे थंय ? कोण थंय ? हँड्स अप् ! आरे तुका थंय अुदकांतल्यान एक तकलीशी दिसली रे ? सारकें पळय

पळोवया.

तो : पात्रांव नाल्ल सो दिसता तो. भियेलोय पात्रांव. (हांसता) आतां एक गोंयचो मांडो म्हुण्टा आं.

'दोर्याच्या ल्हारारी, पुनवेच्या चांदण्यात रे, ह्या माथ्यांतल्या फांतयेरी, अुततोर दिलां तुयें आनीं हांयें ... यो रे मोगा....

इन्स्पे. : (तल्लीन जाला) आरे, बरो म्हणटा मरे तूं. तूं आयलो म्हुणून बरें जालें वेळ सारपाक. तुका बरो ताळो आसा. ह्या वीस हजारांचे आशेन ही जागरणां म्हळयार अुबगणूच. पुलीसांची ड्यूटी म्हळयार त्रासांचीच...

तो : आतां हें कांतार आयक पात्रांव. (म्हणटा.)

Bejame, Bejame mucho... Kiss me my darling and say that you'll always be mine.

(ह्या पदान इन्स्पेक्टर भावनाशील जाला. दोळे भरून आयल्यात. भुरगेपणांतल्या खंयच्या तरी नाजूक अुगडासान ताच्यांतलो हळवो 'मनीस' जागो जाला.)

इन्स्पे. : म्हण, हेंच पद आनिक एक फावट म्हण,

(परते तेंच पद म्हणटा. मदीच ताका आडावन) पुरो, पुरो रे. (पद थामता पुण ताचे सूर भितल्ल्यान गिटारांचेर आयकूंक येतानाच फुडलें संभाषण चलता)

भुरगेपणांतल्यो आनी तरणो आसतनांच्यो यादी आयल्यो जुवांव. तुज्या कातारान म्हाका खूब वर्सां फाटी व्हेलो आनी एका घायावेली तुवें खवळी काडली.

तो : हांव सोमजोंला ना पात्रांव. कांतारान दुखोवलो तूं ?

इन्स्पे. : तुजो गुन्यांव न्हंय रे जुवाव, तुजीं म्होंवी कातांरा आयकून हांव आतां तुजो इष्ट जालां आनी तूं म्हजो आमीग जाला. म्हणून तुका हांव म्हजी इल्लीशी इस्तोर सांगतां. तूं कोणाक मात सांगचोनां.

तो : केन्नाच सांगचोंना पात्रांव. सामकें सेग्रेद.

इन्स्पे. : मनीस मिलिटरीत आसलो कितें आनी पुलीस जालो कितें, मनीस म्हणजे मनीसुच निमाणो. हांव एके क्रिस्तांव चलयेचेर मोग करतालों. ज्या भाटकाराच्या भाटांत आनी घरांत आमी रावतालीं, त्या भाटकारालें चली, मार्गारेत. ताचोय म्हजेर खूब मोग आशिल्लो. पुण ताचो पाय आमचो भाटकार आनी आमी मुंडकारी. त्याभायर हांव हिंदु आनी मार्गारेत क्रिस्तांव. आमी तेन्ना गरीब आनी भाटकार गिरेस्त. आमी दोगांय लग्न

जावंक सोदतालीं. मार्गारेत हिंदु धर्मांत येवपाक तयार आशिल्लें. पुण ताच्या घरच्यांनी आमकां खर विरोध केलो.

तो : ( सुण्यांचो भोंकपाचो आवाज आयकून ) मात्सो राव आं पात्रांव, कसलो आवाज आयलो ? ( दोगूय हेवटेन तेवटेन सगल्याक पळेतात. ) मागीर फुडें कितें जालें पात्रांव ?

इन्स्पे. : फुडें कितें ? कसलें ? हां हां म्हजी स्टोरी. मार्गारेताचो एक व्हडलो भाव आशिल्लो विसेंत म्हणुन. तो एकलोच सामको आमच्या फावोरार आसलो. तो म्हज्या भावाचो आमीग. दोगूय एका बांकार बसून इस्कोलांत शिकलेले. वांगडा खेळटाले आनी सदांच वांगडा आसताले. दोगूय गोंयचे मुक्ती चळवळींत वावुरताले. विसेंतीचें सगळें जग वेगळें. तो घरांतल्यान पळून गेल्लो आनी भूमिगत रावन चळवळ चलयतालो. भावाबरोबर हांव आनी मार्गारेत तांच्या मिटिंगांक केन्ना केन्ना वतालीं. गोंय मेकळें जांवच्या सुमाराक खंयतरी नाच जालो. ताची सगली फामीलूय कोण आंगोलाक, बारीन कोण कॅनडाक अशीं फासाळ्ळीं. मार्गारेताक बापायन फोर्सान पुर्तुगालाक व्हेलें. हांव तेदेवेळार मूंबै कॉलेजींत शिकतालों. म्हजो भाव पुलीसेंत भरती जावन आज ॲसिस्टंट पुलीस कमिशनर जावन दिल्लीक आसता. सदांच विसेंतीची याद काडटा. हांवूंय केन्ना केन्ना मार्गारेताचो अुगडास येवन कळवळटां. आज वीस वर्सां जालीं. म्हजें लग्न जावन भुरग्यां बाळांसैत हांव सुखी संवसार चलयतां पुण मार्गारेताक अजून विसरुंक जायना. तुवें Bejame हे पद म्हळें तेन्नां मार्गारेत मुखार आयलें. ताका आनी आमकांय तें पद खूब आवडटालें. (पदाचे सूर फाटल्यान वाडत वेतात. तेंच सूत्र धरून 'तो' फुडलीं कडवीं तल्लीन जावन गायता. ) विसेंतीकूय तुजेवरी गोड ताळो आशिल्लो. तो हें पद बरें म्हणटालो.

तो : हो चोंदोन तुज्या भावाक कोण तो आसिस्तेंत कमिशनर म्हुटलो न्हय तेंका सारको वोळखीता आसतालो न्हुंय ? भावाचें नांव कितें पात्रांव ?

इन्स्पे. : अविनाश. आमी भांवडां आनी विसेंत – मार्गारेतूय ताका आत्रा म्हणटालें. पुलीसांकडेन सगल्या नक्षलवाद्यांचे फोटो आसतले. हे नक्षलवादी मोटे खांपे बाबा!

तो : पुण हांयें आयकोलां तें दुडवांकाराच्या आनी भाटकारांच्या फाटल्यान लागतात पुण गोरीबांची काकुळट कोत्तात म्हुण.

( परत आशिल्ले तशे पिपार बसतात. पड्याफाटल्यान त्याच पदाचे वाद्यांचेर सूर. पदांचीं अुतरां गुणगुणत शिळोणी घालीत रेंदेर जावन एक मनीस स्टेजी कुशीच्या माडा-वेल्यान सकयल देंवत येता. खीण दोन खीण वेतकीर इन्स्पेक्टराक कळटा. तो रोखडोच पिस्तुलाक हात घालता आनी पिल्लुक वाजोवंक सोदता पुण 'तो' ताच्या तोणार हात दवरता. माडावेल्यान सकयल देंवला तो चंदन. 'तो' झपाझप आपणाले चेपें, खाड, व्हीग, कोट बी काडून चंदनाकड़े दीता. इन्स्पेक्टर विसेंतीक वळखता. चंदनान दाबण्यातल्यान रिव्हॉल्वर काडून इन्स्पेक्टराचेर जोखून धल्लां. )

तो : म्हाका तूं वळखलो ?

इन्स्पे. : ( ल्हवूच पुटपुटत ) सिंजोर विसेंत, माय गॉड.

तो : नॉट युवर गॉड बट युवर गॉडफादर. आनी हो म्हजो इष्ट चंदन. ( इन्स्पेक्टरान एक नदर पोस्टराचेर आनी एक चंदनाचेर फिरोवन ताका पारखिलाच. इन्स्पेक्टर हातात रिव्हॉल्वर आसतानाच विसेंतीक वेंग मारता. पड्याफाटल्यान पदाचे सूर वाजता आसतानाच मुखावेल्या दर्या अुदकांत एक व्हडें-पडाव घेवन कांय सांगाती तयारेन. विसेंतीचो भेस आतां चंदनाच्या आंगार. )

तो : आबाक म्हजो रॅकाद दी. ओब्रिगाद. ( अशें म्हणून झपझप पावलां घालीत व्हड्यांत देंवतात. फाटल्यान पदाचे सूर गिटाराचेर. )

इन्स्पे. : आदेवश! आदेवश! (पड्याफाटल्यान सूर 'ये रात भीगी भीगी' आनी 'आ जा सनम'. इन्स्पेक्टर मंत्रमुग्ध जावन तांकां पळेत हात वयर करुन. अकस्मात कसली तरी याद जावन विगेत वयर पळोवन पिल्लुक मारता. पुलीस धांवत येतात. )

पु. १+२ : कितें जालें पात्रांव ?

इन्स्पे. : पापयानू न्हीदात वोगी. हांवें पिल्लुक माल्ली पड्डो व्डोत्रपाक.

(पड्डो)



आशीश
प्रिया
मोहनराव

३.

# प्रिया तुज्या मोगाखातीर

(सांजेची आठ वरां जाल्यांत. मिरामारच्या तिच्या सुंदर फ्लॅटांतल्या ड्रॉईंगरुमात दिवे पेटल्यात. तिचो मोगी एक सुंदर तरनाटो. पिराय–वीस एकवीस, अपटुडेट पोशेख. तो ह्यातांत फुलां घेवन स्टेजीर येता. कांय खिणांनी ती येता. वाजेल्ली तिची मुद्रा. सिनेमाक वचपाचे तयारेत. पळेल्यार मात्शी चडच लाडायलेली मध्यम वयीन बायल. आंगार भांगराशिंगरा बी खूब. पिराय चाळीशीच्याफुडें आसुनूय आपणांक तरनाटी चलीच समजता. दिसूंक तशी व्हडलीशी सोबीत म्हणूं नज.)

आशीश : (ती येतकीर एकदम तिचे वसल्यान वळून पळेत)
आहाहा ! अखेरेक तूं आयली तर डार्लींग !

प्रिया : आशीश, एक भयंकर गजाल जाल्या रे.

आशीश : किदें जालें ?

प्रिया : तुज्यो कविता म्हजेकडल्यान शेणल्यो. आय् एम् रियली व्हेरी सॉरी.

आशीश : इतलेंच मूं ? कांय नजो. खरें म्हळयार त्यो कविता तुजे योग्यतायेच्यो नाशिल्ल्योच. हांव तुजेखातीर दुसऱ्यो बरोवन दीता हां.

प्रिया : नाका नाका, थँक यू. म्हजेखातीर आनीक कविता म्हणटात त्यो केन्नाच नाका. ओ, हांव अशें सामकेंच थतर बितर कशें जालें काय म्हणटां हांव ! कितलें कॅअरलॅस, कितलें पिशें !

आशीश : तुज्या निष्काळजीपणा खातीर हांव देवाक आर्गाच दीन.

प्रिया : (वाजेवन) ओ ! बी सेंसिबल आशीश, म्हजे नदरेन ही कितली भिरांकुळ गजाल हें तुका कळना कशें ? समज त्यो कविता कोणाच्या हातांत पडल्यो जाल्यार ? लोक कितें म्हणटले?

आशीश : लोक म्हळ्यार जमाना मूं ? जमाना क्या कहेगा ? जमाना यही कहेगा कि यह एक ऐसा मरद है जो अपनी मेहबूबासे इतना प्यार करता है, जितना लैलापर मजनूने, शिरींपर फरहादने और रोमयोने अपनी ज्युलिएटपर भी कभी नहीं किया होगा. पुण तांकां हो मरद कोण तें कळचें ना.

प्रिया : हो मरद कोण तें तांकां कळचें ना रे पुण ताचो म्हाका कितें अुपेग ? ही औरत खंयची आनी कोण हें मात तांकां रोखडेंच कळटले.

आशीश : तें कशें ?

प्रिया : कशें म्हळयार ? पानापानार, वाक्या वाक्या कणकणी, अुतराअुतरांमदीं म्हजे नांव घुस्पलां न्हय ? म्हजें सिली, होपलॅस नांव. ओ, कित्याक कोणे म्हणून हे असलें चमत्कारीक नांव दवल्लें काय म्हणटां हांव. प्रिया, प्रिया, प्रिया. हेरां भशेन सादेसुदें कॉमन नीता, गीता, सीता, अमिता, सरिता असलीं सादीं नांवां आसताना म्हाकाच हें वेगळे तरेचे नांव कित्याक म्हणून दवरलें काय म्हणटा हांव ? प्रिया. आरे, सबंद पणजे शारांत हांव एकलेंच प्रिया आसा रे आनी सगल्यांक हें खबर आसा. म्हाका दिसता, अख्या गोंयांतपसून हांव एकलेंच प्रिया आसन आनी यमक जुळोवपाक तें इतलें हॉरीब्‌ली सोंपे आसा म्हणून सांगूं ? ओ आशीश, तुवें त्यो कविता रचताना तुज्या अुमाळ्याक मात्सो आवर घाल्लो जाल्यार काय बरें जावपाचें !

आशीश : तुजेर कविता रचताना म्हाका म्हजेर कंट्रोल दवरपाक सांगता ? तूं कितें अुलयता तें तूं जाणा मूं ?

प्रिया : (लाडीकपणान) म्हजेंच चुकलें. म्हाका दिसता म्हजे सारकीले लग्न जाल्ले बायलेचेर कविता रचूं नाका हें हांवें तुका पयलींच सांगपाचें.

आशीश : आहाहा ! आनी म्हाकाय दिसता की जिचेर हांवें त्यो कविता रचल्यो ती बायल आंकवार आशील्ली जाल्यार काय बरें जावपाचें !

प्रिया : न्हय न्हय, तशें न्हय रे. त्यो कविता लग्न जाल्ले बायलेकूच फावोश्यो आसात. आनी तीच तर खरी डिफिकल्टी जाल्या. म्हजी नणंद म्हजेविशयीं कितें कितें उलयतली खबर आसा तुका ?

आशीश : तुका आनी नण्णो बी नातेवायकांची भुरावळ लागता तर ? माय् गॉड ! कितले लोक आसात तुज्या नात्यांतले ?

प्रिया : ऑफ् कोर्स आसात ! तुका कितें दिसलें हांव किते मळबातलें परी ?

आशीश : (ओंठ चाबीत) हय, म्हाका सामकें तशेंच दिसता स्हळचार दिसतालें. (रडूंक आयिल्लेवरी)

प्रिया : (ताच्या खांदार तकली दवरून ताका अपुरबायेन सांसपिता) तशें न्हय रे शाण्या म्हज्या. म्हजें आयक. तूं म्हजेवांगडा सपनांतल्या विस्वांत वावुरता, म्हजेर जीवापाड मोग करता वगैरे गजाली खूब खूब बऱ्योच, पुण म्हज्या घोवाक म्हाका गैरसोयीचे आनी आडखळीचे अशे कांय नात्यांतले लोक आसात जाल्यार हांव कितें करूं सांग पळोवया मात्सो. म्हजेकडे कांयच अुपाय ना.

आशीश : (खोशी जावन) हां हा, म्हळयार तुजे सगले नातेवायक तुज्या घोवाचे वटेंतले अशें म्हणटा तूं, सॉरी हां प्रिये. (तिचो आपणाल्या खांदावेलो हात ल्हवू सकल काडटा आनी त्या हाताचो अुमो घेता. ती स्टुलाचेर बसता. तो टेबलाच्या म्हऱ्यांत अुबो रावता तिचेकडेन पळोवन म्होवें हांसता.)

प्रिया : द फॅक्ट इज मोहनाक नातेवायक सोडले जाल्यार आनीक कांयच ना म्हळयार जाता. फक्त रिलेटीव्हज. ताका सात भयणी आसात आनी चौगजाण भाव. ताचे भाव तशे बरे रे, पुण त्यो भयणी ? सायबा, सपन पडूं नाका तांचें. सेर्त हांव तुका सांगता. त्या प्रतिभानूच म्हजे पर्सीतल्यान त्यो कविता चोरल्या आसूंक जाय.

आशीश : तिका कितें कळचें पडलां तांतुतले ? सोड तूं.

प्रिया : तिका कायच कळचें ना म्हणटा तूं ? आरे, तिकाच तांतुतलें सगळें कळटलें. त्या कवितांनी नासलेलो अर्थपसून तिका कळटलो. बुरश्या मेंदवाचे माजर खंयचेकडलें !

आशीश : (तिच्या म्हऱ्यांत वचून) अशें म्हणचें न्हय आं. तूं तिचो विचारूच तकलेतल्यान काडून अुडय पळोवया. (तिचो हात

हातात घेवन सकैल कार्पेटाचेर बसता.) प्रिया, तुका याद जाता ? तुज्या म्हऱ्यान तुज्या पायांकडेन असोच बसून हांवें तुका त्यो कविता वाचून दाखयल्ल्यो. याद जाता?

प्रिया : हांवें तेन्नाच खरें म्हळचार तुका आडावंक जाय आशिल्लें. आतां म्हाका वायट दिसता रे. सध्या प्रतिभा मोहनाच्या पायांकडेन अशेंच बसून कुसकेपणान ताका त्यो कविता वाचून दाखयता असो देखावो म्हजे नदरेसामकार येवंक लागला. म्हज्या पोटांत धवळूंक लागलां. म्हाका कितेशेंच जाता. म्हाका दिसता, म्हाका पिशें लागतलें.

आशीश : खरें तुजें. कितली बेअब्रू जातली न्हय ?

प्रिया : तशें न्हय रे पुण मोहनाक कितें दिसतलें ?
(आपणाले मांडयेवेली ताची तकली कुशीक काडटा) तूं मोहनाचो मातूय विचार करीना ? (वाजेल्या)

आशीश : (तकलेपोंदचो आदार गेल्यान जमनीर पातळ्ळा) म्हजे नदरेन मोहन एक पुज्य म्हळचार शून्य आनी तुजी ती प्रतिभा काय कोण ती नणंद व्हडलें शून्य.

प्रिया : ती केदें व्हडलें शून्य तें तुकां आतां थोडचा वेळान कळटलेंच. तुका जर दिसता तिच्यान आमचें कांयच वाकडे करूं नज अशें जाल्यार हांव तो तुजो काव्यप्रतिभेचो भ्रमुच समजतां. (हॉलभर पासयो मारता. तो हात फाफडून अुबो रावता. एकदम ती धांवत येता आनी ताच्या वेंगांत लिपून) आशीश म्हाका आधार दी रे. ह्या संकटातल्यान भायर सरपाची म्हाका वाट दाखय. हांव तुजे अुपकार केन्नाच विसरचें ना. (ताच्या हड्ड्यार तकली दवरून हुंडकेवन रडत) हांवें आतां कितें करपाचें तें तरी सांग म्हाका तूं.

आशीश : (थंडपणान) तुजे काळीजच तुकां योग्य वेळार जें कितें करपाचें तें सांगतलें. हांवें सगले वटेन गंभीरपणान चिंतून दवल्लां आनी आमी दोगांयनी आज ना फाल्यां कितें करपाचें तेंय हांव बरेभशेन जाणां.

प्रिया : ना. ना. आशीश. हांव वांकडे अशें कांयच करपाचें ना हां, पयलींच सांगतां. (पुतळ्याभशेन स्टुलाचेर मख्खपणान बसून रावता.)

आशीश : तशें जाल्यार तूं खरेली प्रियाच न्हय म्हणचे पड्टलें. आमचो मार्ग साप सादो नीट आनी सोपो असो. शुद्ध आनी पवित्रूय बी. आमी अेकमेकांचेर मोग करतात. हातूंत म्हाका कांयच

लजभीड दिसना. हांव आत्तां भायर रस्त्यार रावून आख्खे पणजेकूच न्हय तर सबंध गोयांक आड्डून सांगपाक भियेना. तुज्या घोवाक तोंडार सांगपाक मात्तूय अनमनना. पळयतलीच तूं मात्शी रावून. हांव ताका सांगतलों. आरे बाबा, तुजे बायलेच्या नाजुक आनी ओर्रीद पावलांनी धरची अशीच ही योग्य वाट. आतां आमी दोगांय आमगेर वचुंया. आयचे राती-पुरतीं, लिपवप चोरप नाका. पळापळीचीय गरज ना. सगळे अुकतेपणी. खुल्लमखुल्ला प्यार करेंगे हम दोनो. जाणा जा. आमी दोगांय तुज्या घोवाक नाय म्हळचार इल्लेंशें देणे लागतांत. आमी तांच्या घरांत ह्या खिणाक सोयरी तो प्रतिष्ठित मनीस. He has been kind to us ताचे गद्य, Prosaic तब्येतीक आनी सबावाक सोबशे आनी ताचे भोवंतणच्या व्यापारी संवसाराक फावोशे प्रेम, मोग बी ताणे तुजेर केलाय आसत. अेके चमचेगिरी आनी चोंबडेपण करपी चाडयाळे बायलेकडल्यान आमचे हे लफडें वा प्रकरण तांच्या कानामेरेन पावचे न्हय हें बरें आसा. आमी आतांच हातांत हात घालून अचळय ताचेसरी वचुंया आनी ताचो निरोप घेवंया. मागीर बिनधास्त कोणाची भीड, भय धरीनासतना मेकळेपणान स्वाभिमान और अिज्जतके साथ घराभायर सरेंगे, किदें ?

प्रिया : आनी मागीर खंय वचप ?

आशीश : आमच्या सदांच्या जिवितक्रमाभायर कूसभरलेगीत वचपाची गरज ना. आज आमी खंय वचपाचे येवजिल्लें ? Summer of 42 कमू ? तुज्या ह्या शेणलेल्या कविताच्या आख्या-नाक लागून आमचे हे प्रयाण ओगीच लांबणेंर पडलें. तुवेंच गरजेभायर मोडो घालो. तर आतां आमी सम्राटात वचुंया. थेटरांतल्यान हांगां येवचे सुवातेर तुवें सरळ म्हजेवांगडा म्हगेर येवप. आत्तांच्यान ह्याफुडें आमचें घर म्हळ्यार 'असावे घरकुल अपुलें छान' आनी 'म्हज्या घराची तूं रसणाय' बी तातूंत सगले आयलें. कांय दिसांउपरांत तुका घटस्फोट बी मेळ्ळो म्हणटकूच आमी लग्नबी कायदेशीर गजाली तुका जाय ते रीतीन करुंया. हांव खरें म्हळयार असल्या कायद्याबियद्यांक काय importance दिना, म्हजो तुजेवयलो मोग कोणे कायदो करून म्हज्या काळजांत रिगयला व्हय ? म्हणुनूच कायदो म्हज्या मोगाचेर बंधना

घालूं शकना. हे सगले सामके Simple आनी Sweet आसा अशें तुका दिसना ? (मेजावेल्यान तिचेखातीर हाडिल्लीं फुलां अुखलता) हीं घे फुलां. सिनेमाच्यो तिकेटी म्हजेकडेन आसात. तुज्या घोवाक आमकां मातशी ताची मारुती दी म्हुण सांगुया म्हणटकूच आमच्या मनात कितेच malice, तक्रार, दुस्मानकाय वा काळेबेरें ना अशें ताका दिसतलें. चल तर.

प्रिया : म्हळ्यार तूं कितें म्हणटा ? आमी सरळ ताजेमुखार वचून ताका सांगचें, आमी वांगडा वतात म्हणून ?

आशीश : of course, हाजेपरस सोपे आनीक कितें आसूं येता ? प्रिये, तुका जाय जाल्यार हांव अेक पद म्हणटां ताचेखातीर– 'प्रिये पहा; रात्रींचा समय सरुनि येत अुषःकाल हा–

प्रिया : आनी तुका किदें दिसता, तो हे सगले आयकून ओगी रावतलो ? He will kill you.

आशीश : (आत्मविश्वासान) तुका कांयच कळना. Darling हें पळय. तसोच प्रसंग आयल्यार हांव ताचेवांगडा दोन हात वा मुठी करपाक तयार आसा. सामको सहज. म्हज्यामुखार तुजो घोव आनीक धा वर्सांनी भुरगो जाल्यारूय तो म्हज्या मुखार अेक Second rate Feather weight थरतलो. अैसा बताऊँगा इंगा कि ये आशीश उसे पडेगा बडा मेहेंगा. आनी समज ताच्या आंगांत अेकदम खंयच्यान तरी थोडी शक्त अुफेवन वयर आयली जाल्यारूय तो म्हजे सामकार चडूच तो पंदरा सेकंद तग धरूंक पावत. हांव सामको Strong आनी active हें तूं जाणाच. हांव तुका सध्या अितलेंच सांगूंक सोदतां, हांव ताका लोळयतलों. तुवें म्हजो कांयच हुस्को करपाची गरज ना. कारण तुजो घोव म्हळयार जमूंक नाशिल्ल्या संभोगाकडल्यान समाधीकडेन वचपी अेकाद्रो भगव्या वस्त्रांतलो गाढव अशें म्हाका दिसता.

प्रिया : आनी मोहनाक तूं लोळयतास्तांना हांवें कितें करप ? थंड-पणान referee जावन अुबें रावचें काय किदे ?

आशीश : हे पळय, darling तुजो हो सगलो भंय गरजे भायलो. विस्वास दवर तशें कांय व्हडलें अरिष्ट कोंसळपाचें ना. तुज्या घोवाक खबर आसतलेंच की हांव स्वताक सोपेपणी defend करूंक जाणा. अशे परिस्थितीत केन्ना व्हडलेंशें कांयच घडना. खरें म्हळयार हांव आपुण जावन ताका कांयच करचो ना.

कारण the man who once loved you is sacred to me.

प्रिया : once loved you म्हळ्यार ? तो म्हजेर अजून मोग करीना काय किदें ? (दुबावान) ताणे तुका बी किदें सांगला ?

आशीश : ना, ना. प्रिये कितली खासावीस जाता, कितली भियेता ? हे सगळे हुस्के खरें म्हळयार सकल्या पावंडयावयल्या लोकांकूच सोबतात. तुका न्हय. प्रिये, चल म्हजेवांगडा. तूं आता सकयल्या plane वयल्यान मात्शी वयल्या level चेर यो आनी म्हण त्मसो मा ज्योतीर्गमय सकल्यान मा वयर गमय, धर्तरे वयल्यान मां सर्गार गमय, भगवाना जगदीशा, संभोगात मा समाधीम् गमय.

दोगांय : (गायत हातांत हात घालून नाचतात) 'आ जा सनम, मधुर चाँदनीमें हम.... लगता नही ये जी यहाँ–

प्रिया : (वाजेवन थामता) stop it ! कांयच उपेग जावपाचो ना Mr. Dessai.

आशीश : Mr. Dessai ! (अजापान थक्क)
Excuse me, I meant आशीश of Course,

आशीश : तूं म्हजो Dessai म्हुण उल्लेख करता ? I never think of you as Mrs. Danait ! It is always. प्रिया, प्रिया, प्रिया, प्रि.

प्रिया : हय व्हय रे, तें सगलें बरें आसा Mr. Dessai. पुण ताचो आता कांय उपेग ना. तूं आता म्हाका अकस्मात Mr. Dessai सो दिसूंक लागलो जाल्यार हांव किदें करूं ? अेकसारकें तुका आशीश, आशीश म्हणपूय boring आनी ridiculous शें दिसता. म्हाका आतांमेरेन दिसतालें, तूं अेक भुरगो, अेक बच्चा स्वप्नाळू पोर. म्हाका दिसताले, तू अेक निखटो लाळ घोटपी, निष्क्रीय तरनाटो आसतलो. किदेंय करून दाखोवचेलो नेट तुज्यांत आसचो ना. पळयल्यार तूं आतां मोहनाक लोळवपाच्यो खबरो अुलोवंक लागला. म्हजें नांव आनीं लफडें म्हाका पेपरांनी फुडल्या पानार शापून आयिल्लें नाका.

आशोश : प्रिये, अितली भियेता ?

प्रिया : Of course म्हाका भिरांत दिसता. तुका मातलेगीत common sense आशिल्लें जाल्यार तुकाय भंय दिसूंक

फावो आशिल्लो. (पयस वचून अुबी रावता)

आशीश : प्रिये, अशी लागीं यो, भियवं नाका, ये जवळी ये घाबरू नको. अशी रागारफुगार किद्याक जाता ? हें पळय अपुर्बाये, अिकडे ये ना गडे. खरेल्या मोगाक भय नासता. म्हळां न्हय प्यार किया तो डरना क्या, प्यार किया कोई चोरी नहीं की म्हणूनच म्हाका भय दिसना Mrs. Danait !

प्रिया : Oh, thank you, thank you, तूं खऱ्यानीच बरो रे.

आशीश : Thank you कित्याक म्हळें ? Thank you for what ?

प्रिया : म्हाका आनीक एक फावट Mrs. Danait म्हळें म्हणून Thank you. म्हाका आतां दिसूंक लागला तूं शाण्याभशेन रावतलो, gentleman वरी चलतलो. (तो सट् करून बसता आनी दोनी हातानी आपणाले तोंड धापून घेता) किदें जाले रे ?

आशीश : कांय ना. जिवितात पयलेच फावट हांव पळयतालों. हांव सुखी जालां आनी समाधानात आसा. But oh ! वास्तवाचे जाणविकायेचो धपको कितलो भिरांकुळ आसता, सत्याचो वार कितलो मारक आनी म्हारग तें आतां समजलें.

प्रिया : Listen to me आशीश, असल्यो फालतु गजाली करपाक आमकां मातूय वेळ ना. (तो एकदम झपाटल्लेवरी तक्क अुठून चलत टेबला म्हऱ्यांत येता) Oh take care. म्हजे खाडकेर तुजी तकलीं आपटतली आशील्ली.

आशीश : (रागानूच) I beg your pardon, मागीर हांवे किदें करचे अशें तुका दिसता ? हांव तुजे सेवेक हाजीर आसा. हांवे gentleman जावचे म्हळयार exactly किदें ? मातशें समजावन दी,

प्रिया : (मातशी भियेल्या) Thank you, आशीश, हांव जाणाच आशिल्ले तूं अशें म्हणटलो म्हणून. म्हजेर तूं रागार जालो ना मरे ?

आशीश : अुलय, अुलय तूं. अुलयत राव, Go on बेगीन. म्हाका येवजुपाक कितेंकपुण दी नाजाल्यार, नाजाल्यार– (अकस्मात मेजावयलो पापेलांवाचो आयणो अुखलता आनी मुड्डून अुडयता)

प्रिया : (धांवत वता) म्हजो आयणो मुड्डू नाका No, Dont. तुका अशे करपाचो अधिकार ना. तूं तूं अितलो फातरा काळजाचो कसो जालो रे !

आशीश : माफ कर म्हाका प्रिये ! हांव तुजेखातीर नवीन पंखो हाडून दितां. पुरो ?

प्रिया : असलो आयणो तुका खंयच मेळपाचो ना. तो म्हजो चड आवडीचो आशिल्लो रे !

आशीश : तशें जाल्यार तो नासताना तुवें भागोवचें पडटले That's all. आयणो तो किदें !

प्रिया : आयणो चिड्डून वयल्यान अशे तरेच्यो फिलजोफ्यो सांगपाची गरज ना.

आशीश : नशीब हांवे तुजो आयणोच मुडुलो. मोहनरावाचे.आवडीचे बायलेचे कुडके कुडके करुन ते ताका भेट म्हणून दिवपाच्या विचारांत हांव आशील्लों हें तुका कळिल्ले जाल्यार तूं वयल्यान म्हजे उपकारूच मानतली आशिल्ली. Damn your bloody fan !

प्रिया : पुरो, पुरो, म्हज्यामुखार अशो गाळी संवपाची गरज ना. लोकांक दिसतले, तूंच म्हजो घोत्रबी काय म्हणून.

आशीश : तुका आज जालां तरी किदें ?

प्रिया : हांवय विचारतां, तुका अशें आज जालां तरी किदें ? तुका किदें दिसता, तूं असो राक्षसी वृत्तीचो म्हुण म्हाका पयलें कळिल्लें जाल्यार हांव तुका केन्ना encourage तरी करतलें आशिल्लें ?

आशीश : वयल्या पावंडचावयल्यान अुपकार करुन म्हाका सकल देवोंव नाका. परतीय ती अुंचाय मेळोवपाक म्हाका पालव दी. अधरात्मा अुर्ध्व गमय. सकयल्यान म्हाका वयर गमय.

प्रिया : आशीश. तूं खास शाणो जाल्यारूच मरे तुका वयर अुखल-पाचो ? मातशें येवजून पळय, हांव हांगा काबार जावपाचे वाटेर पावलां. तुका सगली फकाणांच दिसतात ?

आशीश : (एकदम उसळून) हे जर तू परतेय म्हणशीत जाल्यार हांव अशें किदेंय करतलों जाचो म्हाका केन्नाच पश्चाताप जावंचोना.

प्रिया : आमी आतां संकटात आसात तरीय पुण म्हाका कांयच अुपाय सुचयना ?

आशीश : तूर्त तरी हांव कांयच म्हळ्यार कायच सुचोंव शकना. एक दाट काळोखसो चारीवटांनी म्हाका वेढो घालता. त्या काळखांत म्हाका फकत आमच्या भंगलेल्या सपनाचे अवशेश दिसतात (अेक अुस्वास सोडटा आनी अुठटा.)

प्रिया : आनीक कांयच दिसना ? ती म्हजी नणंद प्रतिभा मोहनाच्या

हातात तुज्यो त्यो कविता दिता अशें म्हाका नितळ दिसता.
आनी त्यो तो वाचूंक लागला अशेंय म्हाका Clear दिसता.
(धेंकसो घाल्लेवरी) आनी हें पळय Mr. Ashish Dessai,
तुवेंच म्हाका ह्या लफड्यात घुस्पायलें. आतां हातूंतल्यान
म्हाका सोडोवपाची जापसालकी तुजी.

आशीश : (शांतपणान) म्हज्यान तुका इतलेंच सांगू येता की हांव तुजे सेवेक तत्पर आसा. हांवें तुजेखातीर किदें करचें अशें तुका दिसता ?

प्रिया : प्रिया नांवाचे एकाद्री चली तुजे वळखीची बी आसा ?

आशीश : (थंडपणान) ना.

प्रिया : अशे रेफ्रिजिरेटरांतलें 'ना' म्हणून किदें उपेग जावपाचो आसा ? सेर्त तूं प्रिया नांवाचे एकादे चलयेक खंयतरी वळखताच जातलो.

आशीश : येदोळ तूंच न्हय गे म्हणटाली ह्या अफाट गोयांत आनी देशांतूय, घडये जगांत तूं एकूच प्रिया आसा म्हणून. (एकदम काकुळटीक येवन कपलार हात दवरून) Oh, you were the Only प्रिया for me in the world. (तोंडावळो लिपोवन तिचेपरस पयस रावता.)

प्रिया : (लाडांत येवन) yes, yes, dear of course it's very nice of you. तूं म्हणटा तें काय बरें, कितलें बरें दिसता आयकुपाक जाणा ! खऱ्यांनीच भांगरान बांदपाची हीं उतरां तुजीं. पुण सध्या असल्या भांगरा उतरांचो कांयच फायदो ना रे. आतां म्हजें आयक. म्हाका दिसता, तुका त्यो सगल्यो कविता पाठ आसूंक जाय, हय मरे ?

आशीश : हय तर आसात. तुका पाठ नात ?

प्रिया : Well. म्हजें पाठांतर मातशें फाक, त्याभायर ह्या दिसांनी हांव इतलें bussy जुल्लें, म्हाका त्यो कविता चाळपाक वेळूच मेळ्ळो ना. of course म्हाका त्यो मेळ्ळ्यो म्हणटकूच रोखडेंच हांव दोन–तीनदां तरी वाचून काडटलें. I promise you. म्हाका एक सांग, तातूंतलें खंयचेय कवितेंत Danait म्हणून उल्लेख आसा ?

आशीश : (वाजेवन) ना.

प्रिया : नक्कीच ना ?

आशीश : हय, हय गे बाये definitely ना दणायत हे आडनांव हांव खंयचेय कवितेंत कशें घालीन ? ओगी कित्याय किदें !

प्रिया : कित्याय किदें कशे ? Rhymu जुळोवंक ते काय बरें ! घणघणायत, सणसणायत, फणफणायत, कणकणायत बी अुतराक दणायत लागत जाल्यार कांतार, कविता बरी दिसूं येता. of course तूं कवी. तुका म्हजेपरस चड बरें कळूंक जाय.

आशीश : सध्या हांव कवी आसून कितें अुपेग ?

प्रिया : पळय, दणायत हें अुतर त्या कवितांत खंयच नासत जाल्यार तुज्यान म्हणूं येता, आपणे त्यो कविता खंयचेतरी प्रिया नांवांचे चलयेचेर बरयल्ल्यो आनी तिका भेटयल्ल्यो. म्हजेंय नांव प्रिया आशील्ल्यान त्यो कविता तुका, म्हाका हाडून दाखयन दिसल्यो.

आशीश : म्हळयार हांवे फटी मारच्यो अशें सुचयता.

प्रिया : सामक्यो जित्यो, अेकद्या प्रतिष्ठित सभ्य मनशावरी

आशीश : बरे आसा, हम करेगा नाटक.

प्रिया : पुण निमाणे सगलें पातक मात म्हज्या माथ्यार थापटूं नाका हां !

आशीश : (मोठ्या कष्टानीसो अुबो रावता) Mrs. Danait, म्हाका सध्या वाढीच्यो वेदना जावंक लागल्यात अशे दिसूंक लागलां.

प्रिया : वाढीच्यो वेदना ? म्हळचार ?

आशीश : Romantic boyhood साकून Cynical maturity असो मनशाचे वाढीचो Process आसता. सादारणपणान एकाक १५ वर्सां वतात. ही प्रक्रिया म्हजे बाबतींत आतांच १५ मिणटांच्या कालखंडांत Compress जाली. ताका लागून ताची Speed सामकी खर जाली. ताचोच परीणाम म्हणून म्हाका तीव्र तरेची अशी वेदना सोंसची पडली.

प्रिया : Oh आशीश, हो किदें असली हुशारकाय दाखोवपाची वेळ ? तूं शाणो कसो चलतलो अशें तुवें येदोळ थारायलां मरे ? मागीर हें तुजें फालतुगिरीचें पुराण आनीक किद्याक लांबयत व्हरता ? म्हणूनच अिती मोगपुराणे प्रियाखंडे आदि आदि हरये नमः, हरये नमः, म्हणुया आनी ओगी रावुया.

आशीश : बरें आसा. आतां हांव अेक नंबरचो फटींग जातां. सवंग घेतां. वयल्यान प्रियाखातीर प्रतिष्ठित gentleman.

प्रिया : वा, शाणो, शाणो. गुणी तो. आतां कशें काय बरे अुलयलो ! राजा म्हजो तो. श्शू !

( दाराकडेन धांवत वेता. भियेल्या. )

आशीश : किदें जालें आतां आनी ?
प्रिया : मोहन आयलो, कर तुज्या नाटकाक सुरवात, भूमिकेंत रीग, Bearing घे रोलाचें, चल म्हजेपसून पयस राव बेगीन.

( मोहनराव येता. )

मोहनराव: Hello, आरे, तुमी अजुनूय हांगांच ? म्हाका दिशिल्लें तुमी दोगांय खंयच्यातरी सिनेथेटरांत आसतली म्हणून! पिक्चराक वताली न्हय ?
प्रिया : म्हाका तुजो हुस्को जालो रे मोहन. तूं जेवपाक आज घरा किद्याक आयलोना ?
मोहन : ना, म्हाका प्रतिभाचो फोन आयलो गो. तें म्हजेकडेन किदे अुलोवंक सोदताले. हांव आगशे पावलों तागेर.
प्रिया : हाय सायबा, म्हाकाय तिजेकडे जायते दीस वचुंकूच फावलेंना. बरी आसा मू ती ?
मोहन : हय, हय अेकदम फोर्त, तें आनी घरचीं सगलीं. फक्त हें –
प्रिया : हें किदें ? किदें तें हें म्हळ्यार ?
मोहन : फकत आमचो ताका हुस्को जाता म्हणटालें आनीक किदें ? By the Way, Dessai म्हाका तुजेकडेन किदे अुलोवंक जाय, 'मला काही सांगायचय्.'
आशीश : हांव तुजे सेवेक सदांच हाजीर, सांग पात्रांव.
मोहन : तशी ताकीत ना, तुमी पिक्चराक वचून आयल्या अुपरांतपसून अुलोवं येता.
आशीश : आज पिक्चराक वचपाचो बेत आमी Cancel केला.
मोहन : ख-यांनीच ? Well then. मागीर तशें जाल्यार आमच्यांनी आतांच अुलोव येता.
प्रिया : तुमी अुलयात हां ! हांव कपडे बदलून येतां.
मोहन : तूं वता ? बरें आसा, तितलीच आमका चड सुवात हांगा वावरूंक मेळटली. ( हांसता )

( प्रिया वता )

आशीश : म्हाकाय तशेंच दिसता.
मोहन : ( कोटाच्या बोल्सांतल्यान कवितांचे बंडल भायर काडटा. ) हांव तुका विचारुंक सोदता Mr. Dessai की या हातबरपांची आनी तुजी किदें वळख बी आसा ?
आशीश : हातबरपां ? खंयचीं ?
मोहन : या manuscripts कडे मातशें लागीच्यान पळोवपाक तुजो किदें हरकत आसा ?

( ताज्या नाकाकडेन कविताचे बंडल धरता )

आशीश : ( अजापान ) आरे ह्यो म्हज्योच कविता मरे !

मोहन : म्हाकाय तशेंच दिसता.

आशीश : म्हाका दिसता Mrs Danaitन आज त्यो तुमचेकडेन दिल्या आसतल्यो वाचपाक म्हणून. म्हाका खात्री दिसता, तुवें म्हाका मनांतल्या मनांत गांढवबी म्हळां आसतलें. जालां किदें जाणां Mr. Danait, कांय दिसांफाटीं हांवें नामनेचो कवी डॉ. मनोहरराय हांचो 'गोयां तुज्या मोगाखातीर' हो कविताझेलो वाचलो आनी म्हाका स्फूर्त आयली तश्यो हांवें ह्या कविता रचल्यो आनी सटासट बरोवन काडल्यो. तें पुस्तक वाचून हांव अितलो भेरेल्लों जाणा – किदेय पुण तसलेंच बरयलेबगर म्हज्यान कशेंच राव नजो जालें. त्या प्रसववेदनेतल्यान ह्यो कविता जलमल्यो, प्रिया म्हणून कोण actual बायल वा चली ना. ती पुराय म्हजे कल्पनेतली व्यक्ति पुण जेन्ना Mrs. Danait हांणीं म्हाका सांगले, आपणालेय नांव प्रिया म्हणून तेन्ना त्यो कविता तिका दाखयन दिसल्यो. पुण तुज्या दृष्टिक्षेपाची कृपा तांका लाभत म्हणपाची ह्या दासाक मातलेगीत कल्पना नशिल्ली.

मोहन : (हांसता ) Dessai तुज्या हजरजबाबीपणाची खऱ्यांनीच तोखणाय करपाची. साहित्याच्या मळार तूं नांव जोडटलो. आतांमेरेन हांवें जायत्यो कल्पक कथा आनी काणयो वाचल्यात आनी आयकल्यात, पुण हाजेसम हीच. किदें खडेगांठ काणी रचल्या तुवें, वा, वा, वा, लाजवाब म्हणटात तसली.

आशीश : तुका किदें म्हणपाचे आसा ? हांवें सांगलां ताचेर तुजो विस्वास बसना ?

मोहन : Come on now, Dessai, स्वतःचे हुशारकायेचेर तूंच आपुण जावन अितलो अन्याय करूं नाका.

आशीश : हांव तुका सांगता, तूं किदें म्हणटा तें म्हाका कांयच कळुंक ना.

मोहन : हे पळय, तुवें ह्यो कविता म्हजे बायलेचेर बरयल्यात, बरोबर ?

आशीश : Mr. Danait तुजो किदेय पुण चुकीचो समज जाला काय दिसता. खरें म्हळ्यार तुजो Mrs. अेक Spoiled Character ची बायल मनीस The very fact that she has shown you my poems. .

मोहन : That is not the fact. म्हाका त्यो तिणे दाखोवनात.

आशीश : हाजेबयल्यान सिद्ध जायना ? तू म्हणटा त्याप्रमाण हांवें जर

त्यो तिका लेखून बरयल्ल्यो जाल्यार ती त्यो तुका दाखोवपाची ?

मोह्न : ( भेदरला ) Dessai, तुका हांव किदें गाढव अशें दिसता ? काय हांव स्वतःक रेडो समजता अशें तुजें मत्त ? Do you think I am a...

आशीश : Believe me you are... हांवें तुजें बायलेकडेन तिचेर कविता बरोवपाअितले दाट संबंध केन्नाच दवरूंक नात. अेकादे सामान्य Ordinary बायलेक फावो तितलोच मान हांव तिका दितां.

मोह्न : (तापून) अशें व्हय ? (आक्रमक पवित्रो)

आशीश : तिजेर कविता बरोवपाचें हांवें केन्नां सपनांत लेगीत चिंतलें ना.

मोह्न : (आडुता) किद्याक चिंतले ना ? केन्नाच किद्याक चिंतलें ना काय म्हणटां ?

आशीश : ते नदरेन Mrs. Danait क हांवें केन्ना admire करूंकूच ना म्हणून.

मोह्न : तूं अेक जाणा जा Dessai. Mrs. Danait has been admired by better men than you, a dirty, ordinary कुत्रो खंयचे कडलो !

आशीश : (अजापला) हे पळय, म्हजो असो अपमान करपाची कांयच गरज ना आं. परिणाम बरो जावंचो ना.

मोह्न : तुका Mrs. Danait विशी व्हडलेशे कांयच दिसना ? तुवे सपनांतलेगीत तिचेर कविता करपाचे केन्ना येवजिलें ना ? येद्यान तूं आता स्वतःक कोण समजता तर ? कोण समजता काय म्हणटा ?

आशीश : Mr. Danait, तुजो दुस्वास म्हाका कळटा.

मोह्न : तुका किदे दिसता I am Jealous of you ? मात्तूय ना. पुण अेक सांगतां तुका. तिज्या घरात रावून तिजी म्हळयार म्हजे बायलेची कोणे निर्भत्सना केली जाल्यार हांव ती ओगी रावून आयकुपाचो ना, जाणा जा.

आशीश : आता तुका हांव कसो समजाव ? मास्तर, हांगसर अेक पद जायें. 'कशी तुज समजावूं' हे पळय, Mrs. Danait is a very ordinary–

मोह्न : (संतापला) हलकटा, Mrs. Danait म्हळयार किदें ते हांव तुका सांगतां. आयक. आरे आख्ख्या गोयांत तिचेअितली smart, handsome आनी enchanting बायल दुसरी ना.

तुजेसारकिल्या गाढवाक गोडाची किदें गोडसाण? आरे गोंयच्या कोंकणी आनी मराठी रंगमाचयेवेल्या तीन बऱ्या बऱ्या दिग्दर्शकांनी आनी पाच संस्था चलोवप्यांनी तिका offers हाडल्यो. हांवेच नाका म्हळें. सिनेमांतले तर आतऱ्यापयऱ्यान तिका मागणी घालीत आसतात. मडगांवच्या अेका तरनाटचा कवीन तर तिजेर अेक बरें sonnet लेगीत रचिल्लें. तुज्या ह्या कुस्कुट, Ordinary कवितांपरस तें सुनीत खूब बरें आशिल्लें. आतां तें गीत खंयच्याशा फिल्मात घेवपाचें केलां खंय. म्हजे बायलेविशी सांगिसारके जायतें आसा. पुण माकडामुखार मोतयां कित्याक मांडूं? परतो केन्नाच तिका Ordinary म्हणशीत जाल्यार अेकेच गुठीन तुजे नाक हांव सपाट करून उडयतलों, लक्षांत दवर. सभाग्या, अेके बरे बायलेकडेन तुजी वळख करून दिली जाल्यार तुका ताचे कांयच मोल दिसना? रेडो खंयचेकडलो!

आशीश : (संतापता) हें पळय हां, तुवें म्हाका परतोय रेडो म्हळो. आनीक तशें म्हणशीत जाल्यार अेक असलें कानसुलार वाजयतलों, मागीर आठ दीस तरी तुजी तकली वाजूंक लागतली.

मोहन : किदें? you idiot (दोगांयची कुस्ती. wrestling, boxing, football, hockey सगलें वांगडाच. दोगूय भूंयेर पडल्यात. ती येता.)

प्रिया : (दोगांयमदीं येवन) मोहन, मोहन पुरो, पुरो आतां. तो मारीत तुका. तो boxer जोमो काय कोण म्हणटात तसलो.

मोहन : जोमो नकळ मोमो – तो जोमो जाल्यार हांव कॅशियस म्हंमद अली.

प्रिया : आशीश पुरो आतां.

आशीश : म्हजे तकलेक मोनो मार लागला. हें पळय धोंग आयलां. कोंकबी जाली काय?

(तो अुठूंक सोदता)

प्रिया : (ताका सकयल बसयता) पयली Promise दी. दोगांयनी पयली अुतर दिवपाचें.

मोहन : तो म्हजेविशीं आनी तुजेविशीं जें जें किदें अुलयला तें सगलें ताणे पयली फाटीं घेवंचें, तरूच हांव अुतर दितां. हांव फाटीं सरपी न्हय.

त्रिया : तूं तुजीं अुतरां फाटीं घे पळोवया, आशीश.

आशीश : बरें आसा हांव म्हाजे सगले भाशण फाटीं घेतां आनी नाटक सोंपलें म्हण जाहीर करतां. (ती दोगांकूय सोडटा)

प्रिया : (सकयल Carpet वयल्यान.) म्हाका आतां कोणूच अुठयना? (अुठ्टकीर) आतां दोगूय shake hands करात पळोवया. बेगीन फटाफट, आमीग जायात. अिश्ट जायात, 'अिश्ट अिश्ट है, अिश्ट है...'

आशीश : हांव असलें कांयच करपाचों ना. हाव आतां सरळमार्गी–

प्रिया : आशीश, for heaven's sake

आशीश : कांयच अुपेग ना. तुजो घोव हो अेक पिसो जनावर अशें म्हजे मत जालां.

मोहन : किदें ? हलकटा परत म्हण !

आशीश : I say, you are a fool and a brute ! आनीक धा फावटीं अशेंच म्हणटलों. (मोहन तापला) आतां फुडले आयक. त्यो कविता हांवे तुजे बायलेचेरूच, प्रियाचेरूच बरयल्यात. (मोहन खोशी) तुजें किदें म्हणणे ? हांव तिजेर मोग करतालों. म्हाका ती म्हजीच प्रेयसीशी दिसली. म्हणून हांवे ह्यो कविता तिका वाचून दाखयल्यो. आयकता मरे ? हांवें तिका सांगलें, तुज्या घोवाची लायकी नासतानाय ताका तुजेसारकिली बरी बायल मेळ्ळी. हांवें तिका अशेंय सांगलें, तुजो घोव अेक dull commercial bore म्हणून आनी तू सामको तसोच आसा. हिजे तुजेवांगडा लग्न कोणे थारायले देवाक खबर.

मोहन : (पश्चाताप) My dear Chap. हे सगलें तुवें म्हाका पयलीच किद्याक सांगलेना ? हांव आतां तुजी माफी मागतां, पुरो ? come on now राग मनांत दवरूं नाका. Shake hands now प्रिया ताका मात्सो आग्रो कर.

प्रिया : म्हजेखातीर, please आशीश After all he is my husband माफ कर ताका Take his hand (ती दोगांयचे हात अेकामेकांच्या हातांत दिता.)

मोहन : Any way Dessai अेक मात तुवें मानून घेतले की तुज्या खंयच्याय साहित्यिक heroine परस म्हजी बायल सोबीत (तिका मायेन सांसपिता) किदे प्रिया ? They can't resist you तुजेकडेन वळख जाता तो तुच्या मोगांन पडुंकूच जाय. दुबाव ना.

प्रिया : ओगी कित्याय किदे ! (आशीशाक) तुका चड मार लागलो ना मरे ? (ताचे तकलेक फाटल्यान हात लायता.)

मोहन : आशीश, आतां तुवें म्हजेर अेक फावोर करूंक जाय. हांव सदांच तुज्या रिणांत रावन.

आशीश : (वाजेवन) आतां आनीक किदे उल्लां ?

मोहन : तुजी मान्यताय आसल्यार हांव ह्यो कविता शापून घेवं ? Finest of paper, fantastic layout and get - up, Colourful binding. सगलें सामकें first class करून घेवया. फुडल्या पानार प्रियाचो रंगीत फोटो. भितल्लेवटेन तुजो. ह्यो कविता खऱ्यांनीच बऱ्यो आसात रे, म्हाका त्यो खूब लोकांक दाखोवपाच्यो आसात.

प्रिया : (धावत भितल्यान येता) oh, आशीश, please हय म्हण रे.

आशीश : Well I don't mind. खंयचेच गजालीक ना म्हणपाचे फुड पावलां हांव सध्या.

मोहन : काव्यसंग्रहाक नांव किदे दिवया ? 'म्हजी बायल, तिचो प्रियकर, असली बायल जाय,' 'घोवाची कमाल तर बायलेची धमाल' हातूंतले खंयचेय ? तुका किदे दिसता ?

आशीश : 'प्रिया तुज्या मोगाखातीर' अशें नांव दियात. ?

मोहन+प्रिया : आवयस् ! काय बरें न्हय !

( तिगांय नाचतात )

('आज, आज, आज मळब हांसता निळें,...')

(पड्डो)



| | |
|---|---|
| हवालदार | गुजराती |
| भाऊसायब | भैया |
| मद्रासी | झोपडपट्टीवाली |
| बंगाली | २/३ बायलां |
| कादरभाय | २/३ चलयो |
| गोंयकार | पुतळो |
| महाराष्ट्रीय | कांय लोक |

४.

# वाट पळयतां
# दुकां गळयतां

(पड्डो अुगडटा तेन्ना केरोसिनाचे डबे घेतलेलो १०–१५ लोकांचो जमो थिर अुबो. अितल्यांत केरोसिनचे गाडयेची वासपूस करपाक गेल्लो हवालदार स्टेजीचे अुजवे वटेनच्यान येता. तेन्ना जमो हालता. हवालदार लोकांक सारके रांगेंत अुबे रावपाक सांगता. )

हवालदार : गप रवा रे, गप रवा. डबे नीट लायनीत दवरात बगुया. गडबड केल्यात तर लाठीहल्लो करतलय. आदींच सांगान ठेवतंय.

(अितल्यान अेक मद्रासी मनीस अेक मोटो दबो घेवन येता. तो क्यू जंय सुरू जाता थंय नंबर लावपाचो यत्न करता. हवालदार ताचे वांगडा हुज्जत घालता. सगलो जथो आड्डता, बोवाळ करता आनी त्या मद्राशाक फाटी अुबो रावपाक फर्मायतात. )

मद्रासी : क्या जी, लायन अिधरसे शुरू होता है जी ? हमको लगा अुधरसे शुरू होता है. अभी आजका दिन अुधरसे शुरू करोना, हमारे वास्ते, प्लीज. (हवालदार ताका कानाक धरून फाटी धुकलीत व्हरता, अितले जाता म्हणसर आनीक चार/पांच मनीस रांगेंत आयिल्लच्यान तो मद्रासी आनीकूय फाटीं पडटा. अितल्यांत भाऊसायब, म्हळयार अेक जाणटेलो स्वांतंत्र्यसैनिक धांवत डबो घेवन येता. थोडीशी धक्काबुक्की

आरड, बोबाळ जाता. अखेरेक भाऊसायब म्हातारो आनी स्वातंत्र्यसैनिक आशिल्लच्यान हवालदाराचे पराथणेन ताका अग्रक्रम मेळटा. अितलयांन हवालदार रांगेंतलच्यान फासाळटा आनी रस्त्याचेर मदीं आशिल्लचा पुतळच्याचे बसकेसरीं वता. थंय दवरिल्लो आपणालो व्हडलो डबो घेवन येता. जमो परतोय बोवाळ करता. )

हवालदार : म्हाजो नंबर पयलो आसा हां आदींच सांगान दवरतंय. जास्त गडबड केल्यात तर लाठी हल्लो करतलंय. तुमी कोण अेक हंयसर येवंच्या आदी मी माजो डबो हंय हाडून दवरललो. खोटां वाटता तर (पुतळयाक लेखून) तेकाच अिचारा. मी शासनाचो सेवक आसंय. माका कांय अधिकार, सवलती आसत काय नाय ?

अेक मनीस : तूं शासनाचो सेवक मरे? मागीर शासनाकडल्यान घासलेट घे तर ! हांगां आमचे वांगडा लायनीत किद्याक अुबो रावता ?

हवालदार : मेल्या, तूं गप रव हां. तुका मियां यदोळच्यान बघतय. अेक सारको टिंव टिंव करतसय. तुका लायनींतल्यान भायर घालतलंय.

अेक बायल : हें बरें तुजें. ही मोगलाई जाली. आमी कंम्प्लेंट करूंक जाय आमी मुखेलमंत्र्याक सांगुया.

हवालदार : सांगा कोणाक सांगुंचां आसात तेका, होवन जावं देत जा कांय होवंचां आसात तां.

मद्रासी : अेय् सखाराम –

हवालदार : कोण तो सखाराम आराडलो ? अेय, बिनभाड्याचे होवरेंत धांडतलंय आं. आदींचं सांगान दवतंय. मियां सखाराम ? बापूस तुजो सखाराम !

मद्रासी : (शेजाऱ्याक विचारता) बापूस याने क्या रे ?

बंगाली : बाप तेरा.

मद्रासी : (रागान) आं ?

बंगाळी : अैसा वो बोलता है !

१ मनीस : ह्या हवालदाराची कोणेय पुण अिल्ली हवा काडून घेवंक जाय.

हवालदार : कोण तो मांयझंयों माजी हवा काडतलो ? तेनी असां फुडें येवंचा. भडव्यांनो, मी शासनाचो सेवक. गव्हनमेंट सर्वेंट ! शासनाच्या सेवकाची मस्करी? अरे, लज दिसांक

व्हयी तुमकां !

कादरभाय : अिस पुलीस का नाम क्या है रे ?

गोंयकार : हणमंत कबरे यार, क्यों ?

कादरभाय : अिस सालेको कपडे अुतरवाकर अिसको कॅबॅरे कराना मंगता है.

हवालदार : कोण तो, कोण तो आवशीखायरो माका कॅबॅरे करूक लायतलो ? लाठीहल्लो करतलंय हां ! सांगान ठेवतंय, गप रवा रे मेल्यानो. कलाकला कित्याक करतहत ? ह्या बगा, माका हिंसा म्हणतात ती आवडतनाय. तसो मी भाऊसायबा सारको अहिंसेचो पुजारी वगैरे आसंय. पण येळ अिलीच तर लाठी चार्जसुध्दां करतलंय. मगे रगात बिगात अिलां तर माका नकळा. कायय जालां तरी मी शासनाचो सेवक आसंय

(अितलें जाय म्हणसर ताचो डबो लायनीचे अखेरेक पावला. )

अरे, माजो डबो खंय गेलो ? हंयसर होतो मां ? थंयसर कसो गेलो ?

( रांगेतलो निमाणो मनीस डबो वाजयत घेवन येता आनी परतोय मूळ सुवातेर हाडून दवरता. )

दोग तीग जाण : (फकाणांनी) अेय् दबो, तूं हांगांच राव. मातपासून हालू नाका. आपणाली सुवात सोडशीत जाल्यार हो हवालदार तुजेर लाठीचार्ज करतलो.

(हवालदाराकडेन पळोवन)

सांगलां हां त्या डब्याक सांगलां.

हवालदार : सांगलां मां ? आनी तेनी आयकल्यान ?

अेक मनीस : अशें दिसता.

हवालदार : आता मी जां काय सांगतय तां तूं आयक आनी गुपचूप थंयसर लायनीत रव. जास्ती मस्करी केली तर लायनीत-सून भायर काडतलंय.

अेक चली : हवालदार, हवालदार !

हवालदार : आतां बाये तुजा कांय जालां ?

चली : हो पळय म्हजी फकाणां करता. हाणे म्हाका चिमटो काडलो.

हवालदार : हां ? चिमटो? हेनी ? तुका काडलो ? खंयसर? हे मवाल्या चडवांची टिंगल मस्करी म्हाका खपणानाय हां, आदींचं

सांगान ठेवतय. टेक् कलम लावतलंय. ह्यां बगा, केरोसिनचो टेंकर म्हणजे गाडी येवंक अजून योक तास आहा. तोपर्यंत (मिलिटरी सुरांत) वी ऽऽ श्राम,

(अेक मनीस वाजेवन कपलार दबो मारून घेता.)

काय रे, तुकां असां मदींचसां काय जालां ? आत्तां तर बरो होतय पांच मिणटाआंदी. काय मोडणां बिडणां मारून अिलां नाय मा ?

(तो मनीस कुरवेनूच 'ना' म्हणटा)

अेक मनीस : (अुकडयां बशिल्लच्या बंगाल्याक लेखून) आवंय्, आवंय् ! बसला पळय कसो !

(दुसरो अेक मनीस अुकडया बशिल्लच्या त्या मनशा मुखार अेक ल्हानसो रितो दबो हाडून दवरता. बंगाली मनीस तापता)

अेक बायल : खऱ्यांनीच बाये ! सामको वीट आयलो हे केरोसिनाचे टंचायेक लागून. घासलेटची कटकट नाका म्हणून गॅस हाडलो. जाल्यार गॅसूय मेळना. ह्या गॅस्ट्रिक ट्रबलान म्हजे सारकिल्या घरंदाज बायलांक सामकीं रस्त्यार हाडलीं. आज तीन दीस जाले भरप्यांवरी रस्त्यार भोंवतां. वावराडे-वावराडचो आतां घरेलु कामगार हे मान्यतायेक पावले. ताकालागून तांची दर आनी मिजास वाडल्या. बरें आमगेल्याक तरी कितले दीस रजा घेवंक सांगतलीं ? भुरग्यांचे अिस्कोल आसा.

झोपडपट्टेतली अेक बायल : बाय, तुमको कितना बच्चा है ?

१ ली बायल : सिर्फ दो. हम दो हमारे दो. अेक छोकरा, अेक छोकरी. दोनोंका स्कूल अेकही टायमपर. यही तो मुसीबत है,

२ री बायल : आमगेरूय दोगांच. कोण गे बाये तें चड भुरग्यांचे लटांबर सांबाळटलो ? आमचो नंदू जालो तेन्नाच हांवें आमगेल्याक सांगलें की (सामुदायिक रितीन आकाशवाणीवेले कुटुंब – नियोजन जायरातीची नक्कल) फुडलें भुरगें रोखडें नाका दोना अुपरांत आनीक नाकाच.

झो. बायल : अरे वोच वो. तुम पडालिखा लोगोंका मिस्टेक होता है ना वो इधरीच. वो डाक्तर लोग बोलता है, दो या तीन बस्स, तो तुम अुनकाच सुनेगा. वो तीन पैदा करनेको बोला तो तुम दोच पैदा करेगा.

१ली बायल : तो तुम क्या बोलता है ? हर सालको अेक बच्चा होना

मंगता है ?

झो. बायल : मेरा बात तो सुनो बाय. हम तुमको बोलता है वोच वो दिन वो फलामिनी प्लानिंगका नर्स आता है ना अुसको भी बोला था. वो आया था. हमारी झोपडपट्टीमें, दो या तीन बस्स करनेको. अुस वखत हम सीधा अुसके मूँहपे बोला – देखो हम तुमारा कुच्छ नहीं सुनेगा. हमने आजतक किसीका नहीं सुना और छे बच्चा पैदा किया. इससे हमारा बहुत फायदा हुआ. आज अेकही वखत हमने अेकको शक्करकी लायनमें, दूसरेको दूदका वास्ते, तिसरेको अनाजके लिये, चौथेको नमककी लायनमें और पाँच वे को घरका काममें लगाया है और वो लास्टवाला बच्चा है ना, वो अभी बहुत छोटा है असलिये अुसकू घरमें रखना पडा. वो बडा होयेगा ना तब हम अुसको घासलेटकी लायनमें भेजेगा.

(सगले हांसतात)

भैया : अेय झोपडीवाली बाय, तू किसीका कुछ मत सुन. सिर्फ बच्चा ही पैदा करती जा. साला तुम्ही लोगोंने ये आबादी बढाकर शार्टेजका सब प्राब्लेम खडा कर दिया है.

झो. बायल : अे, तू चुप बे भैया. साला कुरमुरे बेचकर धंदा कर तेरा. बच्चा हमने पैदा किया तो तुमको कैसे तकलीफ होता है रे ?

मद्रासी : अय्यो, तुमको छे बच्चा है जी ! हमारा शादी होके दस्स साल हो गया, हमको अेक भी बच्चा नहीं हुआ जी, अेक भी नही.

१ लो मनीस : अरे तुमको अेक भी बच्चा नहीं हुआ वोही ठीक है. हमको तो साला अेकही बच्चा हुवा.

२ रो मनीस : वो भी साला वाकडा – तिकडा.

३ रो मनीस : आरे होच मात्सो वांकडो – तिकडो. भुरगो मागीर नीट कसो जातलो ?

१ लो मनीस : आरे, आसूं दी म्हजो वांकडो तिकडो भुरगो. कितेंय जालो तरी म्हजोच पोर तो अुपकारता म्हाका वांकडो – तिकडो आसल्यारूय.

बंगाली : अबे चूप रहो ना सब. खालीपिली किटकिट करता है. पयलाच साला वैताग. रोज कामको लेट और अुसमें अब घासलेट ! दो दिन कामपे नही गया तो नौकरी जानेका डर है. अिस वास्को और गोआका कंटाला आ गया. सब

लोग साले युसलेस, सब लोग साला भाशण सुननेमें होशियार. अरे हमारे बंगालमें होता तो पयले दिन सब लिडरोंको जला देता. कलकत्ताका लोग तुम नहीं जानता. आमारा बंगाल, वा ! आमार शोनार बांगला ....

१ गोंयकार : अे, चामार – सोनार. ओगो राव रे. बेठटोच घोडबोड कोत्ताय तूं नोक्षोलायट रे ? आदींच तोकली आवट जाल्या ह्या पेत्रोलाक लागोन. हो आनी कालकत्ता, कालकत्ता कोन्न बोब मात्ता. आमचे गोंय तें गोंय, आनी गोंयकार ते गोंयकार तें म्हारास्ट्रांत घातलेले जाल्यार बोम्बे भाशेन जावपाचे. देखुनूच आमी मुण्टांव, आमचें गोंय आमकां जाय, आमचें गोआ शार, गोंयकार हुशार.

१ महाराष्ट्रीय : हे बघा, मुंबईला कोणी शिव्या घातल्या तर टाळकं फोडीन अेकेकाचं सांगून ठेवतो. मुंबई ही महाराष्ट्राची राजधानी आहे. मुंबईसह संयुक्त महाराष्ट्र मिळविण्यासाठी आमच्या वडिलांनी तिथं रक्त सांडलंय. बोला रे, गोवा, कारवार, बेळगांव सहित संयुक्त महाराष्ट्र झालाच पायजे!

१ गुजराती : अरे सांती, सांती. सांती राखो भाय. शूं काम बोंब पाडे छे ? अमारा गुजरातमां जुओ. पेला सिच्युअेशन सारी छे. कई बी प्रकारनी शार्टेज नथी. जय जय गरवी गुजरात गांधी बापूनो गुजरात. नरसी महेतानो गुजरात. 'वैष्णव जन तो तेने कहिजे'...

(अितलें जाय म्हणसर भाऊसायब अेक पासय मारून किदेपुण सोदीत सगल्यांच्या तोंडाकडेन पळयत वता )

हवालदार : काय भाअुसायब, सोदतसत काय ?

भाऊसायब : काय ना रे, हो हांगां बंगाली पळयलो, गोंयकार चोयलो, गुजराती दिसलो आनी महाराष्ट्रीयूय दिसलो. हे सगले गर्देत अेकतरी भारतीय दिसता काय पळयतालो.

हवालदार : मागीर ? दिसलो ? नाय दिसांचो.

भाऊसाहेब : दिसलोच ना.

कादर : पोलिटिक्सकी बात जानेदो यार. गाडी आये तबतक हम आपको अेक शायरी सुनायें.

(सगले खोशी जावन शायरी आयकुपाक अुत्सुक)

हवालदार : शायरी सुनयतय ? तुजीच आसामां ? काय हयसून थंयसून स्मगलिंग करून हाडलयं ? तुजीच आसात आनी बरी आसात तरच आयकतंय नायतर मिसाखाली अटक करून

गांडीर अेक लाथ घालतलंय. आदींच सांगान दवरतंय.

कादर : नहीं, नहीं मेरीच है, अच्छी है. सुनिये तो सही – यह न थी हमारी किस्मत के विसाले घासलेट होता, अगर और जीते रहते तो यही इंतजार होता

(सगले जाण 'वा, वा,' 'भेसबरी' 'बहोत खूब बी' म्हणून आपापलेपरीन दाद दितात.)

१ मनीस : मा शाल्ला, मा शाल्ला, च्यायला !

(हवालदाराची तोपी काडून स्वत:च्या माथ्थार दवरता आनी ताजे तकलेवयल्यान दांग घालता )

हवालदार : मेल्या हवालदाराची टिंगलं करतय, लाठी हल्लो करतलय हां.

(कोणतरी 'केरोसिनची गाडी आयली रे' अशी हालेट दिता. सगळे जण आपापले सुवातेर अुबे. गाडी थामच ना. चड करून रिती आसुये. सगले जाण परतेय बसतात.)

हवालदार : काय भाअुसायब ? दिवस फार कठीण अिलेत महो ! कितकोय हप्तो घेतलो तरी म्हयनो धुकालना नाय.

भाऊसायब : खऱ्यानीच दीस सामके मारेकार आयल्यात. फुडे किदें जातले तेंच कळना. पयर मिठाखातीर लायिल्लो क्यू पळयलो. खंयच्यातरी पेपरांत दूसऱ्या दिसा वाचले. आतां मिठाचेयं रेशनिंग जावपाचें आसा म्हणून. बापूजीन त्यावेळार मिठाच्या सत्याग्रहाखातीर दांडीयात्रा काडली. आज परत मिठाखातीर वेगळे तरेची दांडीयात्रा काडपाचो वेळ आयला काय दिसता. पुण आज बापू खंय आसा ? आज बापू आशिल्लो जाल्यार !

जनता : भाऊसाहेब तुमी आसात न्हय ! तुमी काडात दांडीयात्रा, आमी तुमचे फाटल्यान येतां. तुमकां अणभव आसा. बापूजींचे दांडीयात्रेंत भाग घेतलली तुमी. तुमीच फुडाकार घेवचो, म्हणात रे, भाअुसाहेब की जय.

(भाअुसायबाक पोन्र्या यादींनी स्फुरण येता. थंयच दांडीयात्रेचें मार्चिंग सुरू जाता.)

भाऊसायब : हँ, हँ. बापू खंय आनी हांव खंय. (मळबाकडेन पळोवन हात जोडटा. लोक भाऊसायबाक 'तुमीच आमचे लीडर' म्हणटात)

तुमी म्हणटातूच जाल्यार चलात तर – 'चल्ली आमची दांडीयात्रा, चल्ली आमची दांडीयात्रा,'

(गायत गायत दांडीयात्रा भायर सरता. पुतळयाक रेवाडो

घालून यात्रा परत मूळ सुवातेर येता, 'भाउसायबकी जय' म्हणून यात्रा थांबता. पुण हवालदाराचे मार्चिंग चालूच आसा. )

भाऊसायब : आरे ? तुजे पांय अजून कित्याक चालू ? तूं शासनाचो सेवक मरे ? ही दांडीयात्रा तर जनतेची.

हवालदार : (लजेवन हांसत) नाय, तेचा काय आहा.... म्हणजे तेचां असां आहा, आमीय शेवटी कोण ? जनताच. आतां म्हाजोय डबो घेवन मिया तुमच्या वांगडा हंयसर अुबो आसय काय नाय ?

१ लो मनीस : हय तर ! तुजो डबो सगल्यांचे फुडें. तुज्याच अुतरांनी सांगचें जाल्यार, माजो नंबर पयलो, कारण मियां शासनाचो सेवक आसंय. आवाज काडल्यात तर लाठीहल्लो करतलंय.

हवालदार : हां मियां तांच म्हणतंय. नाय म्हणजे माकाय घर संवसार, प्रस्न आनी पोराबाळां आसत काय नाय ?

१ चली : आवयस् कितलीं ?

हवालदार : हां, तो प्रस्न नाय, कोणी तो विचारलो ? 'आवयस्,' फक्त दोनच. पुढचो बंदोबस्त आतांच करून दवरलो हा. म्हणजे हेचेफुडे भारत सरकाराक आमचेपसून धोको नाय, कसां ?

चली : दोनूच मूं ? बरें आसा. म्हाका दिसलें ते झोपडेवालेवरी स – सात बी काय किदें ?

झोपडीवाली : अेय तुम लोग हर वखत हमारा बच्चोंका बात कायको निकालता है रे ? (ह्याच वेळार मद्राश्याक घुंवळ येता, आनी तो कोणाच्यातरी खांदार लवडता. 'घुंवळ,' 'घुंवळ' असो बोवाळ जाता. कोण म्हणटा 'अुदक हाडात,' कोण 'वारो घालात' तर कोण 'पुलीस – पुलीस' )

हवालदार : गप रवा रे मेल्यांनो. रांडेच्यांनो तुमकां साधी झीट अिली तरी पुलीस व्हयो ? मेल्यान् मियां काय डाक्टर आसंय ? ... कडेक सरात.

(मद्राश्याक अुठोवपाचो यत्न करता. पिल्लुकेचो स्टेथोस्कोपावरी वापर करता आनी ताका तपासता. नाका – कडेन चामडयाचे बूट व्हरता. कानाकडेन पिल्लुक वाजयता तरीय मद्रासी अुठना.)

नाय, हो असो नायं अुठांचो अरे, अूठ ती बग केरोसिनची गाडी अिली.

(मद्रासी झप्करून अुठून बसता आनी गाडी नाशी पळोवन

परतो कोसळटा.)

अरे हो मांयझंयो ढोंग करताहा. अशा हेनीच समाजाचां नुकसान जाता.

(अितलें म्हणसर मद्रासी खंवसलो अशें धरून बंगाल्याच्या फुडारपणाखाला चौगांजाणांचें अंत्ययात्रा पथक 'श्रीराम जयराम जयजयराम' गुणगुणत येता. मद्रासी भियेवनं अुठटा आनी हवालदारा फाटल्यान लिपता. गाडी येवपाचो आवाज जाता. परतेय सगले आपापले सुवातेर तयार..पुण हेवूय फावट गाडी अुदकाची वा रितीच आसुंये.)

१ मनीस : ( खेळ खेळटात )

ह्या घासलटेचे आवयचो....

हेर सगले : घोव.

२ रो : आरे तुका मातूय फोर्स नारे ! सारकें म्हणूक जमना जाल्यार किद्याक म्हणटां ? आतां हांव पळय कसो म्हणता तें हां, म्हणात रे –

(खणखणीत आवाजान अेका, खाशेल्या तालार) घासलेटचे आवयचो घोव ... गाडयेचे आवयचो घोव... भैय्याचे मावशेचो घोव .... कादरचे आज्जेचो घोव .... बंगाल्याचे भयणीचो घोव ... बापूचे आवयचो घोव ....

हवालदार : ( संतापून ) गप रवा रे रांडेच्यांनो. म्हाका आदीं वाटलां गाडयेखातीर थामण्याक कंटाळून तुमी आपलो जीव खेळव – तसत. म्हणान अितलो येळ मी तुमच्या टिवल्या – बाव – ल्यांकडें दूर्लक्ष केलां, पण आतां तुमचां जास्तच जालां. अरे ह्या बापूसायबाचां मियां धा वर्सा अन्न खाल्लां. पण केन्हांच चुकून सुध्दा तेणी म्हाजो आश्रित म्हगान अुल्लेख केलो नाय. असो हो देवमाणूस. पारतंत्र्यांत पुर्तुगेजांबांगडा लडान जेनी तुमकां स्वातंत्र्य मेळोवन दिलां तेचेच आवशीचो घोव तुमी वयर काडतासात ? आवशीचो घोव तुमच्या.

१ मनीस : आरे आमी भाअुसायबाक म्हणूक ना. आमी त्या बापूसाय – बाक म्हळां.

भाअूसायब : आरे रे, अेक वेळ तुमी म्हाका लेखून अशें म्हणिल्लें जाल्यार म्हाका वायट दिसचें नाशिल्लें पुण खुद्द त्या वंद्य महापुरूसाक अशें म्हणटात ? सकला धर्तरेर रावून सूर्याचेर शेण मोखतात ?

(दोग जाण भाअूच्या पायांर घालून घेतात.)

हवालदार : थूत् तुमच्या जिदगानीचेर रांडेच्यांनो. (आतां आनीक अेकलो भाअुक साष्टांग दंडवत घालता.)
काय रे, तुकां माफी मागांक येळसो लागलो ? लज दिसली ?

३ रो : नाय, तेचां काय आसा....

हवालदार : काय आसा ?

भाअूमायब : किदेंय आसूं माफी मागली म्हणटकूच पातकाचें परिमार्जन जाता. बापूजींचीय हीच शिकवण आशिल्ली. शी, सायबा ह्या देशाचें फुडें किदें जावपाचें आसा देवाक खबर ! आतां ह्या साद्या केरोसिनाचो प्रस्न स्फोटक जावंक लागतलो. नाय जाल्यार देशांत वचतथंय घेराव, जाळपोळी, मोर्चे बंद, दंगली हांकां हुंवार आयला. बुद्धाचो, बापूजींचो हो महान देश हिंसक क्रांतीचे वाटेर पावलो. पुण जनता तरी किदें करतली ? बापूजीच्या मार्गान कोणूच वचना. आपुण जे वाटेन वतात त्या रस्त्यांक मात बापूजीचें नांव. आतां हो पुतळो, महात्मा गांधी रोडाच्या सामको मदेगात. जितो आसताना ह्या मनशान केन्ना चुकून तरी महात्माजीचें, नांव घेतला आसल्यार वा ताचे असलें आचरण ताणे केलां आसल्यार जाय तसलो सपूत. म्हाका दिसता, लोकांची, जनतेची सहनशक्त आतां सोंपत आयल्या, म्हूजें सारकिल्या अहिंसक गांधीवाद्याचोय आतां अहिंसेवयलो विस्वास ना जावंक लागला. पळयल्यार अशें दिसता, की राज्यकर्त्यांक जाळपोळ, हिसाचार, हेच मार्ग आवडटात हीच भास कळटा.

(सगलेजाण स्फूरण येवन मोर्चाचे तयारेंत)

कोणतरी : म्हणात रे –

– भाअूसायब झिंदाबाद – भाअूसायब की – जय
१ – भाशण नाका– बिशण नाका, घासलेट दी घासलेट.
२ – आश्वासनां – हाय हाय, केरोसिना. – कितें काय?
३ – म्हारगाय, टंचाय – आतां आमी सोंसचेनाय्.
४ – अन्न दी, रॉकेल दी – नाल्यार खुर्ची सोडून दी.
५ – जनता अुरता अुपाशी, – मंत्र्यांक जेवणां तुपाचीं
(रस्त्यामदीं आशिल्ल्या मंत्र्याच्या पुतळ्याक घेराव)

पुतळो : भावांनू, आनी भयणीनू. आनी अिश्टानू – आज आमचो देश कठीण परिस्थितींतल्यान वता हें जंतेन लक्षांत घेवंक जाय. सांठेबाजीकलागून अडेची टंचाय व्यापारी लोक

करतात आनी लोक सरकाराक गाळी घालतात. जंतेन वस्तुस्थिती सारकी पळोंवक जाय, आनी ती पारखुनूच मागीर उलोंवक जाय. तुमी सरकारावांगडा चड्डांतचड सहकार्य करूंक जाय. आज रॉकेलाची शॉर्टेज आसा. आमीय ती मान्य करतांत. पुण जाणा जायात, हाका आमी, म्हळयार सरकार जापसालदार न्हय. हे टंचायेंची जी कारणां आसात तीं पब्लिकान समजून घेवंची. केरोसिन अेके सुवातेवयल्यान दुसरेकडेन व्हरूंक मेळना, कारण टँकरांचो, गाडयांचो बी संप जाता. वहानांची मोडतोड, नासधूस जाता. हांव तुमकां सांगूंक सोदतां, घासलेटाचे शॉर्टेजीचे खरेले कारण जंता. जी जाळपोळ करता तेंच जावन आसा. त्याभायर सध्या झोपडपट्टयांनी रॉकेलाची चडांत चड सांठेबाजी जाता. ताकालागून आमकां दिसूंक लागलां की आतांच जर ह्यो झोपडपट्टयो जळयल्यो जाल्यार त्यो बऱ्यो पेट्टल्यो आनी अशेतरेन अेकाच फातरान दोन शेवणी मारपाची वेवस्था जावं येता. आतां ही दोन शेवणी खंयची ? तर –

(१) झोपडपट्टी निर्मूलन आनी (२) साठेबाजीचो बंदोबस्त तशें पळयल्यार जितले धान्य, कडुण बी तुमकां मेळटा ते शिजोवपाक तुमकां सध्या मंजूर केल्ली धा लिटरांची प्रचंड पुरवण पावन अुरसारकी आसा. आतां ह्या अुरिल्ल्या केरोसिनाचो जंता सांठो करतली हें खबर आसुनूय सरकार हे गजालीकडेन दुर्लक्ष करूंक सोदता, कारण हें सरकार जनतेचे. तुमचेंच आनीक अेक गजाल तुमकां सांगनशी दिसता' ती म्हळयार जंतेन अिल्ली काटकसर करची. महात्मा बापूजीन सांगलां ते भाशेन सादेपणान रावूंक शिकचें. पयरूच अेका गावांतल्यान कांय भुग्र्यांचो मोर्चो सरकाराकडेन आयिल्लो. त्या भुरग्यांच्यो परीक्षा लागी आयिल्ल्यान रातच्या वेळार अभ्यास करपाक तांकां चड केरोसिन जाय अशें ते म्हणटाले. त्या गावांत अजून वीज पावूंक ना. हांवें तांका सांगलें, की भुरग्यानू, तुमीय बी गोपालकृष्ण गोखले, बी व्हड मनशांवरी गांवांतल्या मुनि-शिपालटीच्या खांब्यासकल बसून अभ्यास करपाक शिकचें, जाल्यारूच तुमी तांचेवरी व्हड जातले, विद्वान जातले. तर, तुमच्या मागण्यांचो वेळ मेळयार आमी विचार करतले.

अितले आश्वासन आनी अुतर दिवन हांव म्हजी ही चार अुतरां सोपयतां.

(जनतेचो पुतळ्याक घेराव, घोशणा, दगडफेक आनी, निमाणो ताका अुजो घालतात अशें मार्यमिग. अुजो घालपाच्या अभिनयावेळार भाअुसायब आनी हवालदार थंय नात)

हवालदार : चलात रे चला, चला. केरोसिनाची गाडी येतासा. मी चौकशी करून अिलयं.

(गाडी येतली आनी रॉकेल मेळटले हे खोश्शेन 'गाडी आयली, गाडी आयली' म्हणत सगले आपापले सुवातेर अुबे रावतात, सगले 'गाडी आयली गाडी आयली झुक झुक झुक हे कवितेचेर तालबद्द अभिनय करतात. अकस्मात गाडयेचो ब्रेक लागिल्ल्याचो आवाज. अपघाताचो सीन लोकांच्यो किळची, हुयेली, पिरंगण.... (हवालदाराचेर स्पॉट. ताजे - मांडयेर रक्तबंबाळ जाल्लो भाअुचो देह)

हवालदार : भाअू, भाअू .... तुमी गेल्यात. भाअु, ह्या देशाच्या आनी गोयांच्या स्वातंत्र्यलढयांत तुमकां ब्रिटिशांच्यो, पुर्तुगेजांच्यो गोळयो मारूं शकल्यो नाय. पण ह्या स्वतंत्र भारतांत, स्वतंत्र गोयांत अेकश्चित अेके रस्त्यावरचे लायनींत तुमकां गाडयेखाली कुत्र्यासारक्यां मरण येवचां यापेक्षा दुर्दैव तां काय ? ह्या देशाचां दुर्दैव तां काय ? भाअू देवान तुमच्या आत्म्याक शांती दिवंची ...

(पड्डयाफाटल्यान कादरान म्हणल्ली तीच शायरी आयकूंक येता. "यह न थी हमारी किस्मत के विसाले घासलेट होता, अगर और जीते रहते तो यही अितजार होता, यही अितजार होता..."

(पड्डो)



रघू
जुईज
वैकुंठबाब

५.

# आयलें हड्डयार घेतलें खड्डयार

(जुईज कांताबाबाल्या बंगल्यांतली जेवपाची कूड. जुईज आंकवार. अुजवेवटेन अेक दार. फाटल्यान मदीं अेक व्हडलें जनेल. दाराचेर आनी जनेलाचेर पड्डे आसात. रूमांत सादारण मदींशें अेक व्हडलें जेवणा – मेज, दावेवटेन अेक ल्हानशेंच कपाट. पड्डो अुगडटा तेन्ना जुईज पियेत बसला आनी रातचें जेवण जावपाची तयारी दिसता. भेस घरांतलो. अुजवेटेन ताज्या सामकार आनीक अेक कदेल आसा. रघू ताजो घरगडी अदींमदीं मेजाचेर कितें हाडून दवर, भितर वच भायर यो अशें करताना दिसता. तो न्हेसला, खंयतरी वचपाचे तयारेंत. )

रघू : ( नमळायेन ) जेवण बी सगलें हाडून दवल्लां. जेवतकीर काफी जाय पडटली ? थर्मास हाडून दवरतां.

जुईज : आज नाका काफी. जाणा रे, हावं जाणां, तुका भायर सरपाची ताकीत आसा.

रघू : बाबा, ना. तशी व्हडली ताकीद ना. आनीक किदें जाय पडटलें ?

जुईज : कांयच नाका. ओब्रिगाद.

( ग्लासांत व्हिस्की ओतून घेता. रघू वचूंक वळटा पुण मदींच थामता. तो जुईजाकडेन हुस्केल्ले आनी मायेस्त नदरेन पळयता; नमळायेन भियेल्ल्या आवाजान अुलयता. )

रघू : हांवें तुमकां एकटे दवरून खऱ्यांनीच गेल्यार जाता मूं ? किद्याक म्हणटां....

जुईज : (तोंडात काजू बियो चाबडायताना) गेल्यार जाता म्हणजे ? जेवण केलां मरे ? मागीर तूं म्हाका आनी किद्याक जाय ? सुसेगात वच – सुसेगात यो. पालखी, गाराणें, देवस्पण बरें करून यो. म्हजो हुस्को नाका.

रघू : तशें न्हीं, पुण .... हांव सांगूंक नकळो... तसो म्हाका चड कळाव जावंचोना.

जुईज : हें पळे, म्हज्या हुस्क्यान बेगीन येवपाची कांयच गरज ना, समजलो ?

( रघू मात्सो फाटींफुडें येवन वचपाक करता. दाराकडेन पावतकीर थामता आनी वळटा. कसलो तरी हुस्को ताका फाटींफुडे घोळकायता तें जाणवता. )

रघू : आयचो पेपर वाचला तुमी ? तो खुनशी पिसो मानिकोमांतल्यान पळळा ती खबर वाचल्या व्हय ?

जुईज : ( सुसेगाद पियेवप आनी बियो बी खावप चलतनाच) हांवें वाचल्या ती खबर.

रघू : अजून सांपडूंक ना तो.

जुईज : जाणां हांव, खबर आसा.

रघू : वैकुंठबाब काय किदें नांव ताजें.

जुईज : वैकुंठ रासयकार. हांवेंच ताका धा वर्सांपयलीं संतेस मारून बंदखणीत अुडयल्लो, अेके बायलेचो ताणे खून केल्लो म्हणून. उपरांत तो चक्रम म्हणून कळटकीर ताका मानिकोमांत घाल्लो.

रघू : अुगडास जाता. देखूनूच म्हणटां, तो ––

जुईज : ( येवजीत, पियेताना ) आरे, तेन्ना हांव निकतोच जुईज जाल्लों. ती म्हजी पयलीच मर्डर केस. धा वर्सां जावन गेलीं हरशी हे गजालीक. पुण अेका वळखीच्या म्हजेवरीच हाडामासाच्या मनशाक मरणाचें संतेस मारिल्ल्याचो म्हाका पश्चताप जाता रे केन्ना केन्ना. ताजें संतेस काडून ताका मानिकोमांत धाडलो तेन्ना मात्शें जिवाक सू ऽऽ जालें.

रघू : पुण आतां पळळा आनी सुटला. मेकळो आसा. (मातसो थामून) हांव... हांवें म्हाका दिसता, वचना जाल्यार बरें न्हय ?

जुईज : (अपुर्बायेन) ओब्रिगाद रघू. पुण म्हजो अित्तलो हुस्को तुंवें काडचो न्हय. तूं सुसेगाद वच म्हळें न्हय ? पालखेक वच तूं. तुकाय सुसेग जाय. मुदास जाय आनीक केन्ना खंय वता तूं ? चल, Good night.

रघू : ग... गुड नायट् बाबा. (थामता. परतोय फाटीं येता) ते जनेल अुकतें आसा, जाणा मूं ? जनेलाक गरादी लावन घे म्हटल्यारूय म्हजें तुमी आयकनात.

जुईज : (सुसेगाद) जाणा हांव, त्या जनेलाक गराद ना आनी ह्या वेळार ते अुकतें आसा आनी ताजेर कर्टन आसा. आनीक किदें ?

रघू : तें धापल्यार बरें न्हय ?

जुईज : नाका. कांयच गरज ना. हांव सांगू, तूं बेठोच भियेलासो जाला. कितेंय नेर्व्हांचें अिल्लें टॉनीक नाजाल्यार गुळी बी घे. नाजाल्यार अिल्ली ग्लुकोज तोंडांत अुडय आनी वच पळोवया.

रघू : (आशा सोडल्या) बरें आसा तर. बाबा, चल्लो हांव. येतां. ( वता. फाटल्यान दार ओडून घेता. जुईजाचें पियेवप, बियो खावप चालूच. आतां तो नीट सामकार पळयता, कितेंतरी फाटलें येवजल्लेवरी. अकस्मात जनेलाकडेन कसलोतरी आवाज येता. जुईज तकली वळोवन आयकपाचो यत्न करता. परतोय आवाज जाता. जुईज परतोय कान दिता. मागीर गपचूप अुठटा आनी कपाटा म्हऱ्यांत वता. येताना कपाटांतलो रितो ग्लास घेवन येता आनी तो मेजार दवरता. परतोय आपल्या कदेलार बसता आनी तो पियेता. परतोय जनेलाकडेन आवाज. जनेलाच्या पड्‌ड्याफाटल्यान कोण पुण जनेलांतल्यान भितर येवंक पळयता हें निश्चित. कांय खिणाउपरांत पड्‌डो अचळय कुशीक सरता आनी अेका मनशाचो तोंडावळो जनेलांतल्यान दिसता. जुईज मातूय गडबडनासतना, कांयच हालचाल करीनासतना अुलोवंक लागता. )

जुईज : यो, भितर यो वैकुंठबाब.

( ओठांतल्या ओठांत चार गाळी संवत वैकुंठबाब जनेलांतल्यान पड्‌डो झटकून भितर देवता. दॆंवतकीर पड्‌डो ओडून घेता हातांत पिस्तुल जोखीत फुडें सरता.

तीर सामको जुईजाचे तकलेर )

वैकुंठबाब : आरड मारप आनी कसलोच आवाज काडशीत जाल्यार अेकाच फाराक सोंपतलो. मालांद्र !

जुईज : लिसेवार शिकिल्ल्या ओर्रांद मनशान हाचेपरस सभ्य भास वापरची काय दिसता. हांवें लिसेवार चड वर्सां काडलींनात तें अेकेपरीन बरें काय दिसता.

वैकुंठ : ( दांत किल्लून उलयता ) जुईज खंय आवयखायरो ! पोझी काडटा अर्वाचिद खंयचेकडलो !

जुईज : ही भास तरी मातशी पेजाद लागली.

वैकुंठ : (मेजामुखार येवन ) म्हाका पळोवन तुका मातूय अजाप जालें ना ?

जुईज : परतें उलयलो ! मातूय अजाप जालें ना. हांव तुकाच रावतालों. तूं येतलो म्हणपाचें हांव खात्रीन जाणा आशिल्लों. हांव सांजचो घरा परतताना तूं म्हज्या घराभोवंतणी गणयतना तुका हांवें नोतार केल्लो.

वैकुंठ : (कुत्सितपणान) घरा परतताना? कोणांकतरी विनाकारण संतेस मारून गोळाक लावन परतताना अशें म्हण.

जुईज : ना, चुकलो तूं वैकुंठबाब. आयची केस अेका दोन बायलो बाळगुपी मनशाची आशिल्ली. मजेशीर सामकी. दोगांय बायलांची तपासणी केली वैजाकडल्यान– खरी बायल म्हळ्यार लग्नाची आनी दुसरी बिनलग्नाची, दवल्लेली, म्हळ्यार आंगोस्तर. ज्यूरीक दिसलें त्या बाबड्या दादल्याक ह्रशींच अितलें सोंसचें पडिल्लें– आनीक च्यास्त दिवप बरें जावचें नाशिल्लें. म्हणून ताका आमी सोडलो.

वैकुंठ : (तापून) आवयस् ! मष्णांत, नरकांत वतलो तूं, फोंडात!

जुईज : म्हाकाय तशेंच दिसता. हांव नरकांतूच चड करून वतलों. सर्गार निखालस न्हय.

वैकुंठ : (संतापून) तुज्या घरा भोवतणीं म्हाका गणयताना जर तुवें पळयला जाल्यार धोक्याची आलार्म घांट तुवें किद्याक वाजयली ना ?

जुईज : कारण म्हाका तुजेकडेन उलोवपाचें आशिल्लें.

वैकुंठ : (संतापून) हांव तुजेकडेन उलोवपाच्या मूडांत ना. (पिस्तुल दाखयत) जें किदें अुलोवपाचें आसा तें हें रिवॉल्वर करतलें. समजलो ?

जुईज : (सुशेगाद् समजावणेच्या सुरांत) हें पळय, तूं लिसेवाचेर शिकला हें विसरूं नाका. सभ्यतायेचे बाबतींत म्हणटां हांव.

वैकुंठ : (आड्डता) शट् अप, हलकटा !

जुईज : (फकाणेर स्वरांत) म्हजी अखेर म्हाका अशी मुखार दिसता आसताना, चार निमाणचीं उतरां उलोवपाची मेकळीक म्हाका तूं दितलोच. दिवंचोना ? म्हाका म्हजो आवाज सदांच आवडत आयला. ही फाकेझ चडश्या जुईजांक आनी सगल्याच राजकरण्यांक आसता. त्याभायर, ताकीद म्हणटात ती कसली ? म्हजो मनीस घरांत ना. तो रोखडो येवपाचोय ना.

वैकूंठ : जाणां हांव. भेसबरें खबर आसा म्हाका. पळयला हांवें ताका वतासतना.

जुईज : पुण तुका घडये खबर नासतलें कीं हांवेंच आपुण जावन ताका धाडला.

वैकुंठ : किद्याक ?

जुईज : म्हाका दिसलें हांवें हांगां एकटोच आसप तुका आवडटलें. आतां मातसो सुशेगाद बस आनी म्हजेबराबर दोन पेग मार.

(कदेलाकडेन हात दाखोवन ताका बस म्हणटा. रित्या ग्लासांत व्हिस्की ओतता. वैकुंठबाब अजापान आनी दुबावान पळयत आसा. )

वैकुंठ : तुजो हातूंन किदेंय पुण दाव आसतलोच. पुण देवाच्यान जाणा जा. (पिस्तुल दाखयत) तूं आतां सुटचोना.

जुईज : हांव नकळं तर ? म्हाका भेसबरें खबर आसा. पुण– म्हणून तूंय सुटना

वैकुंठ : (मात्सो भियेवन थरथरत) हय– हांवूंय सुटचोंना– जाणां हांव– ते म्हज्या फाटल्यान लागल्यात. म्हाका धरपाक.

जुईज : नक्कीच आसतले. कायदो हो अेक फात्रट अेकाद्याक कचाट्यांत सापडायलो म्हणटकूच परतो केन्नाच तसो ताका धील सोडीना. ताचे बुदवंतकायेक, शिटुकसाणीक लजेचें तें.

वैकुंठ : (कडवटपणान) कायद्याक बोड आसता ?

जुईज : नासता, मान्य. पुण भायल्यान झेत दाखोवचोच पडटा.

वैकुंठ : (भियेल्लो) ते म्हाका धरतलेच ! जाणा हांव, ते म्हाका कशेच सोडपाचे नात ! (परतोय हिंसक जावन) पुण तूं

मात पयलो वयर वतलो !

जुईज : (थंडसाणीन) तें तर जालेंच, दुबावूच ना. हांव पयलो सोंपतलों. (ताका ग्लास दिता )
अितले मजगती हें कोप घे. तुज्या हाताचो थरथरो थामतलो.

वैकुंठ : (दुबावान, ग्लास घेतना) किदें भरशिलां हातूंत ?

जुईज : फकत व्हिस्की आनी सोद.

वैकुंठ : मागीर पळोवया. तूं पयलीं पिये तुजो ग्लास.

जुईज : (हांसत) दुबावी देवचार मरे तूं !
(जुईज पियेता. वैकुंठबाब ताका तेळीत आसा. रोखडोच तोवूय गटागटा ग्लास रितो करता. चिके समाधानान ओंठावयल्यान जिबली घुंवडायता.)

वैकुंठ : देवा ! बरें लागलें !
(आनीक एक घोंट घेता, बसता. )

जुईज : तुका व्हिस्की आवडली म्हणपाचें पळोवन बरें दिसलें. तुजेखातीर मुद्दम नवीन Stock हाडून दवरिल्लो.

वैकुंठ : ( उत्तेजीत जाला ) व्हडलो फावोर आनी अुपकार करता म्हजेर !

जुईज : ( नमळिकायेन ) मात्तूय ना !
( वैकुंठबाब ग्लास रितो करता आनी मेजार आपटीता. परतेंय रिव्हॉल्व्हर जोखता )

वैकुंठ : ( उर्मटपणान ) आतां, हें पळय ! तुका Shoot करचेपयलीं तुवें एका प्रस्नाचीं जाप दिवची पडटली.

जुईज : ( हांसऱ्या तोंडान ) मरचेपयलींच म्हज्यान जाप दिवं येता न्हय ? मागीर कसो दितलों ?

वैकुंठ : ( दखल घेनासताना ) म्हाका सदांच दिसलां की म्हाका तुवें सतेंस माल्लें तेन्ना तुका पुराय खबर आशिल्लें हांव गुन्यावकारी न्हय म्हणून.

जुईज : एका जुईजाक केन्ना कोणें विचारचो न्हय असलो प्रस्न विचाल्लो तुवें. जावं, पुण लक्षांत दवर, तुका गुन्यावकारी ज्यूरीन थारायलो.

वैकुंठ : हांव निर्दोशी म्हणपाचें तुका तरी खबर आशिल्लें काय ना ?

जुईज : खबर आशिल्लें.

वैकुंठ : हायस्सायबा ! ( अुठटा )

जुईज : आतां मातसो बस आनी सुसेग घे. असो अुचांबळ जावं नाका.

वैकुंठ : (चड्च अुचांबळ जावन) हांवें म्हजी तरफदारी कशी केल्ली तुका याद जाता ?

जुईज : सामकी नितळ याद आसा. तुवें परतपरत सांगलें की आपुण त्या फ्लॅटांत पावचे पयलींच ती बायल थंय मरून पडलेली.

वैकुंठ : हयऱ्हय. सामकें खरें.

जुईज : हांवूंय जाणा तुजें खरें आशिल्लें म्हणून.

वैकुंठ : तुका कशें कळिल्लें ?

जुईज : हांवेंच तिजो खून केल्लो.

वैकुंठ : (भिरांकुळ, अजापला). तुवें ? तुवें तिका माल्ली ? (कदेलार कोसळटा. कडकडटा, थरथरता. जुईज थंड आसा, पयलींवरीच सुसेगाद बियो चाबडायता )

जुईज : आयक. हांव निकतोच बॅरिस्टर जावन व्यवसायांत वयर सरतालों. तसो बरो वयर सल्लेलोंच. जुईज जावपाक हांवूंय अेक महत्वाकांक्षी अुमेदवार आशिल्लों. म्हाका जाणटो जावचेपयलींच Promotions मेळील्लीं. जुईज जावपी तेन्नामेरेन तरी हांव पिरायेन सगल्यांपरस ल्हान अशें लोक अुलयताले. आतां ही जी बायल पळय, हें म्हजें आंकवारपणावयलें अेक लफडेंच म्हणपाचें. ती म्हाका त्रासदायक जावंक लागिल्ली. म्हजो फाटलो इतिहास तितलोसो निवळ नितळ ना म्हणपाची ती बायल म्हळयार एक म्हत्त्वाची गवाय जावपाची. म्हण्टकीर म्हज्या promotion आंक म्हाका तिजी आडखळ जाल्ली. आजवेर हांवें म्हजो जो Career अुबो केला तो आडमेळीं कडेक सारूनूच. आतां हीय आडखळ कडेक काडप सामके गरजेचें आशिल्लें म्हणून हांवें तिका माल्ली.

वैकुंठ : (आयकून चकाचूर जाला) तुवें – तुवेंच तिजो खून केलो ?

जुईज : हय -- पुण केन्ना ? तिका कांय गजाली समजावन पटोवन दिवपाचे सगले यत्न फुकट गेले तेन्नाच. नशिबानुसार तूं मदीं आयिल्यान काम सोपें जालें. म्हाका पयलीं खबर नाशिल्लें तिणें तुकाय आपणाल्या जाळांत घुस्पायल्लो म्हणपाचें.

वैकुंठ : आनी अितलेंय जावन तुवें म्हाका धा वर्सांचो नरकवास भोगपाक लायलो ?

जुईज : तुका हांवें सांगलांच तो निर्णय ज्यूरीन घेतलेलो.

वैकुंठ : (आडुता) तुवें म्हाका ख्यास्त भोगूंक लायली –'हांव निर्दोशी आसतानाय.

जुईज : हय, खरें म्हळयार म्हज्यान हें आडावं येतालें. पुण अेक गजाल तूं विसरता – तूं खरें म्हळयार तिज्या फ्लॅटार गेल्लो तो तिजो खून करपाच्याच हेतान. हय मरे ?

वैकुंठ : (सकयल्या आवाजांत, फाटींफुडें येवन) हय, खरें.

जुईज : जालें तर. हांव तुजेपयलीं थंय पावलों अितलेंच. (हांसऱ्या तोंडान) थयुंय हांवूच पयलो न्हय? पळय, सगलेच बाबतींत हांव सगल्यांत फुडें पावप हें संवयेचेशें जालां.

वैकुंठ : (अेकटक जुईजाकडेन पळयता) देवा सायबा ! कितलो फातरा काळजाचो रे हो !

जुईज : जिवीत – आनी अेक बायल – हय, ताणीच म्हाका निर्दय, निष्ठुर केलो दोगां बायलांनी अशेंय खरें म्हणूं येता. अेक साप वायटूच आशिल्ली आनी हांवें तिजो खून केलो. दुसरी तशी बरी आशिल्ली पुण ती दुसऱ्याच कोणा फाटल्यान गेली. आनीक अिल्ली व्हीस्की घेतलो ? ( वैकुंठबाब प्रतिसाद दीना ) घेवया रे अिल्ली, हाड ग्लास दी पळोवया.

( माक्नावरी वैकुंठबाब ग्लास फुडें दवरता. जुईज तो उखलपाक फुडें वता आनी बळयांच तो हातांतल्यान निसरून पडिल्ल्याचे नाटक करता. ग्लास जमनीर पडून फुट्टा. हांसत – ) कायदो मात असो हातांतल्यान सुटून कोणाक वचूंक दीना. सोड, दुसरो ग्लास हाडटां. ( कपाटाम्हऱ्यात वता, सहज, स्वत:चोय ग्लास अचळय अुखलून व्हरता. )

वैकुंठ : ( स्वत:कडेन ) तुवें तिका माल्ली ! सायबा भोगस ! तुवें तिजो खून करप ? आनी हांवें त्याखातीर ख्यास्त भोगप !

जुईज : (कपाटांकडल्यान, फाट वैकुंठबाबावटेन ) हां, हां ! पुण जाणा जा, म्हज्याच वशिल्यान तुजें तें संतेस कमी जावन तूं सुटलो ! ( परतोय मेजाकडेन येता. दोनूय हातांनी दोन ग्लास. ग्लास अुखलून वयर धरता. ) आतां

सांग पळोवया, हांवें म्हजो ग्लास कपाटाकडेन कित्याक व्हरपाचो ? ( ग्लास मेजार दवरून व्हिस्की ओतता. ) तुजें खरें वैकुंठबाब, कायद्याक बोड म्हणटात तें नासता ( बाटली मेजार दवरून एक ग्लास वैकुंठबाबाकडेन दिता ) घे. ( वैकुंठबाब माक्नावरी, दिल्लो ग्लास घेता पुण मोहीत जाल्ली नदर जादू केल्लेवरी जुईजाचेर लायिल्लेकडेन. ) तर तिजें नांव मुग्धा. हय न्हय. Of Course हें तिगेलें खरें मुळचें नांव न्हय. फटींगपणाखातीर घेतलेलें, दगलबाजूच ती. ( ग्लास अुबारून ) चल, पियेवया तिकाच बरें मागून ! ( एक घोंट मारता आनी वैकुंठबाबाकडेन पळयता. ताणें ग्लास अजून तोंडाक लावंना. ) तूं पियेवंचो ना ?

( वैकुंठबाब खिणभर ताजेकडेन पळयता, अुपरांत ग्लास अुखलून गटागटा पियेता. जुईज ताका तेळीत आसा, ओंठार हांशें ) परतोय मानीकोमांत वच्चेपरस हें बरें ?

वैकुंठ : (अकस्मात भयान) किदें म्हळें तुवें ?

जुईज : Potessium Cynide ! वीख ! आतां तुकां दोन मिणटां जिवित अुल्लां.

वैकुंठ : (ग्लास अुखलून जमशीर मोखता, अुठून किळांचता) हलकट, देंवचारा ! (रिवॉल्व्हर जोखता)

जुईज : (थंडपणान) कांयच हुस्को करूं नाका ! तुका हांवें अुतर दिलां त्याप्रमाण हांवूंच पयलों वतलों. गेलों ना जाल्यार तुवें Shoot करचो.

वैकुंठ : (गळो भरिल्या आवाजान) तुवें हें कित्याक केलें ?

जुईज : (गंभीरपणान) कारण, कारण म्हाका आतां जिविताचो वीट आयला, जगपाचो वाज आयला. फटींगपणा, निर्दय-पणा करून दुसऱ्याक जिवितांतल्यान ना करपाचो कंटाळो आयलो तूं सुटलो म्हणपाचें हांवें आयकलें तेन्ना जिवाक बरें दिशिल्लें. हांव जाणा आशिल्लोंच, तूं म्हाका सोडून काडटलो आनी म्हजेफाटल्यान लागतलो म्हणून. तूं म्हाका जिवो मारतलो म्हणपाची खात्री आशिल्लीच. हांवेंच म्हजो जीव घेवपाचो प्रसंग म्हजेर येवंचोना अशें दिसलें. मागीर अचकित म्हज्या मनांत आयलें, हांवें तुका खरें किदें तें सांगूंक जाय, हाजोच अर्थ आमी दोगायनी वांगडाच मरप, पुण हें कांय वायट न्हय. आमी दोगांयनी जिवितांत तशें

जायतें सोंसलां. दोगूय आतां वयर मेळुया, घडये तूं स्वर्गांत आसतलो,हांव नरकांत. कोणे सांगचें ?

(अुठून अुबो रावपाक करतानाच झेलता, धो्लता, थंयचे थंयच घुंवता, लकता, वैकुंठबाब देंवचारी अजापान खोशीसो जावन ताका पळयता. रिव्हॉल्वर धरपी ताजो हात ल्हवल्हव सकल वता, कुशीत हुसकळटा. जुईज मंद हांसता )

मुग्धाय आमकां वयर मेळटलीच– आमी दोगूय अेकाच जाग्यार पावतले अशें धल्ल्यार !

(परतोय घुवळटा, लकता, हे फावट मातसो चडूच. कदेलाचो आधार घेवंक सोदता आनी असोच कदेलार कोसळटा. वैकुंठबाब अजून ताका पळयत आसा, अेकतरेचो जादू केल्लेवरी अजापासयत)

तिणे मागीर दोगांयभितल्ल्या कोणा अेकल्याक लागीं करपाचें !

(जुईज मेजार तकली अुडयता, मेल्लेवरी. वैकुंठबाब भयान काचाबुल जावन सगलें पळयता. हातांतलें रिव्हॉल्व्हर गळून पडटा. तो स्वतःचो गळो दोनूय हातानी धरता, वीख चडूंक लागिल्लेभाशेन. स्वास घेवप कठीण जालांशें. अकस्मात जनेलाकडेन धांवता. पड्डो कुशीक सारता. जनेलांतल्यान उडकी मारून नाच जाता. भायर कसलोतरी मातसो बोबाळसो. मनशांच्या आड्डपाचे आवाज. पुण स्पश्ट कळना. जुईज आतां पयलींवरी कदेलार सारको बसून भायलो आवाज आयकता. तो परतीय बाटली अुखलून ग्लासांत व्हिस्की ओतता. अितलो वेळ चलिल्ले भिरांकुळ नाटक ताकाय मातशें बादलां देखून हात थरथरतात तोंडारूय तें दिसता. अकस्मात दार घडायंच् करून अुगडून रघू येता)

रघू : (हुस्क्यान सामको थार) बाबा, तुका कांयच जावंक ना मूं ?

जुईज : (ग्लास मेजार दवरीत) मातयसून कांयच जावंक ना. मातशें पुरोशें जालें तितलेंच.

रघू : लोकांनी ताका धल्ला. (जनेलाकडेन नदर)

जुईज : (अपुरबायेन) पिसो देंवचार ! (ग्लास अुखलून तोखणायेन) अेका शाण्या मनशाचें लांबलचक अुलोवप अेकाद्या

अर्धा पिशाच्या मनार कसो परिणाम करता ! खऱ्यानीच अजापाचें ! (पियेता)

रघू : समजलों ना बाबा. कळ्ळें ना.

जुईज : तात्पर्य- रघू, अेकादो चक्रम भल्ललें पिस्तुल जोखून तुज्या मुखार येता तेन्ना अुलयत रावंचें थामनासताना !
(रघूक मातशें कळ्ळां. वयर पळोवन देवाक नमस्कार करता तेन्नाच–)

(पड्डो)

☆ ☆

सांतुबाब
दीदी
सोयरू
विवेक
दो. देसाय
ॲड्. कामत

६.

# घर म्हजें हांव धनी

(सांतुबाबाल्या घराचो दिवाणखानो. फर्निचर गरजेपुरतेंच, सुखवस्तु घर, सांतुबाब लोकांबटेन फाट करून वल्तेराव बशिल्लो दिसता. ताचें तोंड लोकांक दिसना पुण पिकिल्ले केंस आनी वागवल्लो कणो दिसता. दीदी आनी विवेक काफी पियेत बसल्यांत. पस्तीस वर्सांची दीदी ॲक कठोर, करारी, कर्तबगार बायल म्हणपाचे जाणवता. विवेक तिजो धाकलो भाव, सुमार तीसेक वर्सां पिरायेचो.)

विवेक : (सांतुबाबाकडे पळोवन) तो जेवपाचो ना तर ?

दीदी : तो ? ना. ताणें स वरांचेर दूद आनी पाव खाला. तो न्हिदसर आनीक ताका हांव कांयच दिवचें ना.

विवेक : (घडयाळाकडे पळोवन) आतां साडेआठ जाल्यांत.

दीदी : तो चड कांय खायना, त्याभायर ताका भरोवंचे पडटा, ल्हान भुरग्यावरी नाजाल्यार तो आंगावेल्यान मुस्तायकी बुरशी करीत खाता. तुका आनीक काफी जाय ? घर मातशें टापटीप करुंक जाय. कामतबाब येवपाचो आसा.

विवेक : कोण कामत ?

दीदी : आदबोगाद कामत. देना बँकेचेवयर रावता तो आक्यां.

हो पगलीं आपणाल्या धंद्याचीं कागदपत्रां घेवन ताज्या आफिसांत वच. आतां हो दुयेंत आशिल्ल्यान ताका शारांत वचूंक जमना म्हणून कामतबाब म्हणूंक लागलो आज आपुणूच हांगां फावट मारतां.

विवेक : कामतीकडे कसलें खाशेलें काम तर ?

दीदी : ( अद्‌भूत हांसत ) काम म्हळयार, आसा एक म्हत्त्वाचें.

विवेक : म्हाका एक सांग, हाका आमचें अुलवप आयकूंक येता ?

दीदी : आमचे अुलोवप ? कांयच भियेवं नाका तूं. तो इतलो भेड्डो की ताज्या कानाकडेन तुवें धोंलपसून वाजयल्यार तो हालसारको ना.

विवेक : मागीर कामतीकडेन कसलें सेग्रेद काम तें म्हाका सांगशीत ? हांव कोणाक सांगचोना.

दीदी : ( सांतुबाबाकडेन पळोवन ) अखेरेक तो आपणालें मृत्युपत्र बदलपाक तयार जाला.

विवेक : आवयस्, म्हळयार सोयरूक सामको कडेक दवरता मूं ?

दीदी : ( ओंठ दामून ) तें मात सारके सांगूंक नकळ.

विवेक : सगले तुकाच पडपाचें आसा, हय मगो ?

दीदी : तेयं म्हाका खबर ना, पुण ताणे तशें केल्यारूय म्हाका तितलें फाव अशें तुका दिसना ?

विवेक : केन्नाय. हीं फाटली पांच वर्सां तुका हाकालागून कितले त्रास पडल्यात हें हांव जाणा.

दीदी : त्रास ? भोगणार म्हण. फक्त तीस वर्सांचे तरणे पिरायेचेर ह्या म्हाताऱ्याकडेन लग्न जालें तें जालेंच. म्हाका दुसरो कोणूय म्हज्या वयाचो सहज मेळूं येतालो.

विवेक : हय तर ! तूं सामकी व्हकल आनी हो दुसरेपणाचो जाका तुजेपरस पिरायेन व्हडलो चलो आसा.

दीदी : हांव हाजेकडेन लग्न जालां तेन्ना हाजें वय सांसष्ट. आज तो एकात्तर वर्सांचो. आतां तो चडतेंप काडपाचोना आनी हांव तर फक्त पस्तीशींत.

विवेक : फाटल्या त्या आताकांतसून तो अुठत अशें हांवे धरूंक नाशिल्ले. चड दीस हातरूणार अुरना जाल्यार पुरो.

दीदी : हय बाबा, बेगीन वचत तितलो बरो, ताज्याच बऱ्याखातीर म्हणटां हांव हाल जावंचेपरस....

विवेक : आनी तुकाय बी बरें.

दीदी : ताजी कितली सेवा सिर्व्हिस म्हाका करची पडटा तुका

सांगल्यार कळचेंना. हाजें सगलें हांवें करचें पडटा. ल्हान भुरगो तरी जायतो बरो. बरें, खाटेर न्हिदून रावंचे तेवूय आयकना. असो हांगां येवन वोल्तेंरारूच बसूक जाय. म्हातारचळ आनी आवटेपणां !

( कोणतरी दारार मारता )

मात्सो पळय वचून कोण तो. कामतबाब काय अितले बेगीन येव नज. दोतोर आसत. आज दनपारां तो येवंक ना.

(विवेक वचून पळयता. दीदी सांतूबाबा म्हऱ्यांत वचून लागींलागसार आड्डल्या स्वरांत--)

कसो आसा तूं ? कामतबाब येतकूच तुवें मातशें अुठचें पडटलें. (आपलेच भितर भरभरता) पिडेक हातरूणार न्हिदून रावपाक किदें जाता काय म्हणटां. हांगाय बसून म्हणून न्हिदोच काडटा अवदिसा !

(विवेक भियेल्लेवरी ताकतिकेन येता)

विवेक : दीदी, सोयरू आयला !

दीदी : सोयरू ?

विवेक : हाजो चलो.

दीदी : ताजें किदें काम हांगां ?

(सोयरू येता. पिराय छत्तीसेक. दिसूंक राकट, राबस. पुण अेक भारदस्तपण आसा. मिशो भरदार. गळ्या-भोवंतणी मफलर, माथ्याक चेपें, गॉगल बी.

सोयरू : घरांत आयिल्ल्या मनशाक येवकार दिवपाची ही पद्धत बरी.

दीदी : हें तुजें घर न्हय.

सोयरू : म्हाका तुजेकडेन मातशें अुलोवपाचें आसा दीदी. तुका दीदी म्हणटां म्हणून वायट धरूं नाका. तुका मॉ, मम्मी, आई म्हणप म्हाका बरें दिसना.

दीदी : तुका जाय त्या नांवान हटकी पुण हांगांसून तूं बेगीन कडसल्लो बरो.

सोयरू : (बापायकडेन पळोवन) आरे, हो हांगाच आसा तर !

दीदी : तो तुजेकडेन पळोवपाचो ना.

सोयरू : हांवूय ताजेकडेन पळोंवक सोदीना. फाटले खेपे हांव आयिल्लों तेन्ना ताणे म्हज्या तोंडार दार धांपिल्लें.

दीदी : अजाप न्हय. पून बंदखणीतल्यान घरा येता तेन्ना

बापायन किदें दिवें ओवाळचे ? माथ्यावयले ताशिल्ले केस बोटभर वाडसर तरी तुवें घरा येवपाचें न्हय. परती तुजेर नदर घालूंक लावं नाका अशें ताणें तुका सांगिल्लें.

सोयरू : तूं पयलींचे अतलीच म्हजेर 'माया' करता तर !

दीदी : जाणा जा मिस्टर सोयरू कांयसुवकार. हांव हांगां मालकीण, धनीण. तूं जर ह्या घरांतल्यान बेगीन अुठून भायर सल्लोना, दोन मिणटां भितर जाल्यार विवेकाक सांगून पुलिसांक आपयतलें.

सोयरू : बरें आसा बाये. म्हाका खावंक तरी किदें पुण दी.

दीदी : मेळचें ना.

सोयरू : हांव भुकेन वळवळटां, कालच्यान पोटांत कांयच ना.

दीदी : ती म्हजी चूक न्हय.

विवेक : दीदी, ताका दी कितेंतरी खावपाक.

दीदी : ना.

विवेक : तो भुकेला. पोटांत पडटकीर गपचूप वतलो तो. (दीदी मातशी फाटींकुडें येता.) हांगां पाव आनी जाम आसा. खावंदी ताका.

दीदी : पाव आनी जाम खावंदी ताका.

सोयरू : (अुपहासान) देव बरें करूं तुजें !

विवेक : बियर हाडून दिवं ताका ?

दीदी : तुका दीन दिसता जाल्यार दी.

सोयरू : तूं खऱ्यानींच भांगराचो विवेकबाब. तुका ही भयण सोबना.

(विवेक बियर हाडपाक वता. सोयरू कदेलार बसता.)

दीदी : (कदेलार बसत) विसरूं नाका, तुजें खावन जातकूच अेक मिनिटपसून हांगां थामचो ना.

सोयरू : (खातासतना) तूं सारकी म्हज्या बापायवरीच अुलोवंक लागल्या. म्हाका दिसता तुका हांवें आतां आवय भाशेनूच अुलो मारचो पडटलो.

दीदी : तुजीं शाणपणां म्हाका आयकूपाचीं नात. तोंड धांपून ओगी राव नाजाल्यार तो जागो जातलो आनी मागीर तुमचें झगडें पेट्टलें. तुका घरांत घेतलो म्हणून तो म्हज्या नांवान किळची मारतलो.

(विवेक अेका ग्लासांत बियर हाडून दिता)

सोयरू : देव बरें करूं ! (बापायकडेन पळोवन) तुजेंय बरें

जांव. ह्या दिसांनी पापा दुयेंत आसा अशें आयकलां. खरी खबर ?

दीदी : तूं कादयेंत आशिल्लो म्हणपाचें तुवें हांगां येवन ताका सांगलें तेन्नाच्यान तो बरोच ना. म्हणन ताणे तुका धांवडायलो. त्याच दिसा ताका व्हडलो आताक आयलो

सोयरू : आवयस् !

दीदी : सामको खचलो तो त्या दिसा. तेन्नाच्यान ताका सारकें अुलोवकं येना, आफिसाक वचूकं जायना.

सोयरू : नशिबानसार ताका ताजें सगलें करपी नमळिकायेची, सेवाभावी, मायेस्त बायल मेळ्ळी.

दीदी : आतां तरी तोंड सांबाळून अुलय आनी तेंच तोंड घेवन वच हांगच्यान. (ती अुठ्टा)

सोयरू : वच्चेपयलीं तुका किदें सांगूंक जाय, किदें विचारूंक जाय. तुवें म्हजें अिल्लेंशें काम करचें पडटलें.

दीदी : किदें म्हणटा तूं ? (विवेक सस्मित) म्हजेकडल्यान तुका कांयच मेळपाचें ना. जाणा जा.

सोयरू : म्हाका अिल्ले पयशे जाय. दिवचीना ?

दीदी : अेक पैसो मेळचो ना.

सोयरू : प्लीज, मॉं.

दीदी : पानदुडूलेगीत ना. अेकदां सांगलांच. लोकांक वांटपाक पैशे नात आमचेकडेन.

सोयरू : रीण म्हणून तरी दी. अुष्णे.

दीदी : रीण आनी तुका ?

सोयरू : हांव परते फारीक करतलो. जूरासयत.

दीदी : तूं रीण फारीक करतलों ? खंयच्यान ? केन्ना ?

सोयरू : खंयसुनूय जावं तें केन्ना पुण फारीक करतलोंच.

दीदी : (हांसत ) ना, म्हाका दिसना.

(सोयरू तिजेकडेन आतां शांत चित्तान पळयता. गंभीरतायेन)

सोयरू : तूं किदें सांगूकं सोदता ? तो म्हजेखातीर कांयच दवरीना ?

दीदी : तुजी लायकी किदें ? तुका किदें फावता ?

सोयरू : तो म्हाका सामकोच सडसडायतलो म्हणटा ?

दीदी : ताणें किदें केलां. थारायलां तें तूं ताकाच विचार.

सोयरू : (तिडकून) ताणें आपणालें मृत्युपत्र बी बदल्लां काय

किदें ? सांग !

दीदी : (भियेल्या) बस पळोवया मातसो. ना. ताणें मृत्युपत्र बदलूंक ना.

सोयरू : (मातसो सावशीत जावन बसता) हां ! तशें जाल्यार म्हजेखातीर किदेंपुण दवरतलोच तो. हांव जाणां, ताणें सगली इष्टेट म्हळ्यार घरां आनी पयसो आमचे दोगां-मदींय वांटला.

दीदी : म्हाकाय तशेंच दिसता.

सोयरू : तशें जाल्यार आयक. पळय, (कदेलार फाटल्यान वणखता आनी दोनूय बोल्सां अुक्तीं करून दाखयता) ह्या संवसारांत सध्या म्हजेकडेन हें इतलेंच आसा. तूं म्हाका फकत अेक पांचशी रुपया दित जाल्यार आनीक बरोच तेंपतरी त्रास दिवंक येवंचोना.

दीदी : तूं हातपांय हालोन जोडीना किद्याक ?

सोयरू : यत्न करून पळयलो.

दीदी : यत्न कसलो कर्माचो ! तुका काम करूंक नाका.

सोयरू : तूं म्हणटा तितलें काम, नोकरी मेळप आजसोपें अुरूंक ना.

दीदी : खंय प्रयत्न केल्ले तुवें ?

सोयरू : पणजे, म्हापशां, सावडर्चां, वास्को, सगल्याक.

दीदी : सोंपलें तुजें अुलोवन? आतां चलूंक लाग.

सोयरू : समज, हांवें वचना म्हणलें जाल्यार ?

दीदी : तुका धुकलून भायर घालचें पडटलें. ह्या घराची धनीण हांव. म्हजें घर हें.

सोयरू : (संतूबाबाकडेन पळोवन) हो न्हय तर धनी ? हांव समजल्लों ताजेंच हें घर म्हणून.

दीदी : चुकलें तर तुजें. तुका जाय जाल्यार तूं ताका उठय आनी विचार. पळय किदें सांगता तो.

सोयरू : तो किदें सांगतलो तें म्हाका खबर आसा. (अुठून ताज्या म्हऱ्यात वता) हय; तसो तूं अेक बरो बापूय अशेंच म्हाका दिसता.

दीदी : तू मात ताजो पूत सोबना अशेंच न्हय ?

सोयरू : (तिजेकडेन दुर्लक्ष करता) म्हाका तुजी गरज आशिल्ली तेन्नाच तुवें म्हाका घरांतल्यान भायर घालो; तूं म्हजो दुस्वास करता. हांव तुका दोळयांमुखार नाका. हांव तरी तुजेर कसो मोग करतलों ?

दीदी : आतां तूं वता काय ना ?

सोयरू : हांव चल्लों. (दारावसल्यान वता) म्हाका पयशे दी हांव आनीक रावना.

दीदी : पानदुडूपसून मेळचोना. अेक फावट सांगलां. (दारार वाजता. विवेक दाराकडेन वता)

दीदी : सायबा, कामतबाबसो दिसता. सगलें घर कशाय कशें. हें सगलें तुकालागून जालें.

सोयरू : बरें आसा, हांव चल्लों म्हळें न्हय? कोण आयला म्हळें?

दीदी : कोणतरी घंद्याविशीं तुज्या बापायकडेन अुलोवपाक आयला. (विवेक येता)

विवेक : अॅड्. कामतबाब आयला दीदी. (अॅड्. कामत हो व्हडल्या अॅड् कामतबाबाचो सत्तावीस वर्सां पिरायेचो चलो. टिपटॉप न्हेशिल्लो. येता.)

अॅड्. कामत : कशीं आसात ?

दीदी : येयात, बरीं आसात. सगलीं बरी आसात मूं ?

अॅड्. कामत : पापा येवंक पावलोना. आताच पणजेच्यान आयला. म्हाकाच वचून यो म्हळें म्हणून आयलों. सांतूबाब बरो ना म्हणटकीर ताणें म्हाकाच Instructions दिवन धाडला.

दीदी : कांय नजो कामतबाब. हांव व्यवस्था करतां. बसात सुशेगाद. (लोकांवसल्यान फुडो करून ताजेखातीर खास कदेल मांडटा)

अॅड्. कामत : जाणटेल्याक न्हीद लागल्याशी दिसता. ताका अुठोवंचें म्हळयार जिवार येता. न्हिदील्ल्या जाण्टेल्याक अुठोवप म्हळयार... (बसता) Thank you.

दीदी : आसूं तांकां थंय. न्हीद लागल्यार बरी तांकां. हरशींय म्हणून सबंद दीस न्हिदुनूच आसतात. (सोयरूकडेन पळोवन) तूं कोणांक रावता ?

अॅड्. कामत : (वळून) आं, हॅलो; सोयरूबाब न्हय ?

सोयरू : हय दोतोर.

अॅड्. कामत : खूप तेंप पळयलोना तुका. हालीं खंय भायर गेल्लो? पयस?

सोयरू : हय, मुंबय आशिल्लों.

अॅड्. कामत : सध्या किदें करता ?

सोयरू : सध्या कांयच ना. बेकार.

अॅड्. कामत : आं, Sorry हां. सध्या वचत थंय Problems.

सोयरू : तूं हांगां मृत्युपत्रांतल्यान म्हाका कडेक काडपा खातीर बी आयला ? (बापायकडेन नदर)

ॲड्. कामत : हांव हांगा आयलां तां... अिश्टा, किदें म्हणटा तू ? हांव समजलोंना.

सोयरू : तूं ताजें मृत्युपत्र बदलपाक आयला काय म्हणटालों !

ॲड्. कामत : (खांदे अुडयत, दीदीकडेन भोंवयो अुंचावन पळयत) ताईबाय, सांतुबाब म्हजेकडेन शेग्रेद अेकटचान किदें अुलोवंक सोदतालो न्हय ?

सोयरू : (दीदीकडे) पयलीं म्हाका सांग, हो म्हज्या बापायचें मृत्युपत्र बदलपाक आयला काय ना ?

दीदी : हयव्हय, त्याचखातीर.

सोयरू : म्हाका तो कटायतलो ? (ॲड्. कामतीक) तूं म्हाका कडेक दवरतलो ?

ॲड्. कामत : सोयरूबाब, पिशेपणां करूं नाका. ताईबायन तुका सांगलांच. हांव आयलां तो सांतुबाबाच्या नव्या विचारा प्रमाण नवें मृत्युपत्र करचेखातीर. तो घडये तुका कडेक दवरीतूय, तूं म्हणटा त्याप्रमाण, चडकरून. तो अेकाद्रो सगलेंच तुका दिवंक सोदता अशेंय जांव येता. घडये तो सगळें काडून खंयच्याय देवस्थानाक वा ट्रस्टाकूय आपणालें सगलेंच दिव शकता. ताज्या मनांत किदें आसा तें म्हाकाय खबर ना. अर्थात तें हांव जाणा आशिल्लों जाल्यारूय हांव तें सांगपाचो नाशिल्लों.

सोयरू : (सांतूबाबाकडे वचून) राकेसा, हलकटा ! तूं म्हाका भायरो करूंक पळयता? (ताजेअसल्यान मुठी नाचयता) स्त्राप पडटलें तुका म्हजे शिराप !

दीदी : (ताका भुजांक धरून) ताका तूं कांयच म्हणचोना.

ॲड्. कामत : (अुठटा) ताईबाय, सांतुबाबाकडेन म्हाका अेकटो आसताना अुलोवंक जाय. हांवें बेठो हांगां वेळ होगडावप किद्याक ?

(कांय कागदां परतीं आपल्या बोल्सांत धुकलता दारार वाजता. विवेक दार उगडपाक वता)

सोयरू : (अॅ. कामतीक ) बरें आसा कामतबाब, तूं त्रास घेवं नाका. हांव वतां.

ॲड्. कामत : तशेंच केल्यार बरें जातलें सोयरूबाब. म्हाका आवडली तुजी समजिकाय. अेक करूं येता, तुका वेळ आसल्यार

फुडल्या आठवड्यांत म्हाका म्हज्या आफिसांत येवन मेळ. तुका सिर्विसेचें खंय जाता जाल्यार यत्न करीन.

सोयरू : खूब उपकार जातले. (मातसो रावून) पुण म्हाका एक सांग, म्हजेखातीर तुका इतलो कळवळो किद्याक ?

अॅड्. कामत : (हांसत) तूंय आमचो केन्नाय अेक दीस क्लायंट जावं येता न्हय ?

(विवेक दो. देसायाक घेवन येता. दो. देसाय घसघशीत आंगलोटीचो, चाळीसेक वर्सां पिराय.)

दो. देसाय : कशीं आसात ? सांतूबाब, ताईबाय !

(सोयरूकडे पळयता पुण ताका वळखना. अॅ. कामतीकडे अुलयता.)

हॅलो. कामोतीं पिकेन. हांगां किदें चल्लां तुजें? (जापेची वाट पळयनासताना) म्हाका खूब उशीर जालो आज. दिश्कूल्प ! किदें म्हणटा ? देरेपेंत कांसावले विजित आयलें, अुर्जेंत. पुण पार्त आतां बरी आसा. म्हातारी माग्लालोन देकुन्य ! अुपाय ना. आमच्या धंद्यान हें अशेंच. येवजिल्ले भाशेन कामां थारावंक जमचना. सोड. आमचो सांतूबाब पेशंट कसो आसा आता ?

दीदी : बरे नात आज दोतोर.

दो. देसाय : न्हीदला, हां. मातशी वीस्त मारतां ताजेर तुका मातसो तिश्टायतां हां कामोतीं.

अॅड्. कामत : म्हाका ताकीत ना. जावं दी सुशेगाद.

(दो. देसाय वळून सांतूबाबाक फाटल्यानच्यान मेळटा)

दो. देसाय : बोआ तार्द सिन्योर सांतूबाब. (ताच्याखांद्यार ल्हवूच हात मारता) मात्शे अुठटात मू आतां, तपासुया न्हय ?

(दोतोर. सांतूबाबा भोवतणी अेक पासय मारता आनी लोकांवसल्यान वळून स्तब्ध, थीर आनी गंभीर जावन दीदीकडे भिरांकुळ नदरेन आनी अजापान पळयता. तो मातसो फाटीं सरता. गंभीर आनी वेगळयाच आवाजांत)

हो असो कितलो वेळ जालो बसून आसा ? (दोतोराच्या विचित्र आवाजान सगलेच काचाबूल)

दीदी : अशे असो म्हळयार.... दोतोर ?

(कायच जाप दिनासतना दोतोर सांतुबाबाचें मनगट तपासता आनी हात ताज्या धोंपरार पडूंक दीता. ताज्या

काळजार हात दवरून पळयता. मागीर स्वतः सावरून सरळ जावन हेरांकडे पळयत)

दीदी : दोतोर, किदें जालां ?

दो. देसाय : (सकयल्या आवाजांत) सांतूबाब... गेलो.
(सगलेच थक्क जावन दोतोराकडेन पळयतात)

सोयरू : (गंभीरतायेन, गळो दाटून) गेलो !

ॲड्. कामत : (स्वतःकडेन पुटपुटत) आय् सायबा !
(खिणभर स्तब्धताय, ताईबाय पयली व्हडाव्हडान रडटा. मागीर घुस्मटून हातांत तोंड लिपोवन ल्हवू आवाजांत रडटा. विवेक तिका थापटिता, समजयता. सोयरू ल्हवूल्हवू कदेलार बसता. हाल्ला. ॲ. कामत ल्हवूल्हवू येवन दोताराच्या म्हऱ्यांन उबो. अेक नदर सांतूबाबाकडेन घुंवडावन )

ॲड् कामत : दोतोर, हें विचित्रूच जालें.

दो. देसाय : दोन–तीन वरांपयलींच सोंपला जावंक जाय.

ॲड्. कामत : खऱ्यांनीच ! अजापूच म्हणपाचे. किदें शवचिकित्सा बी करची पडटली !

दो. देसाय : ना, गरज ना. हांव ताका त्रातार करतालोंच ह्या दिसांनी. हें तशें केन्नाय ह्या दिसांनी जावं येता हें जाणासलों हांव.

ॲड्. कामत : तरीय पुण मात्शें शॉक बसपासारकेंच जालें. हांव भितल्ल्यान हाल्लों.

दो. देसाय : म्हाका दिसता, तुका हांगां आनीक कांयच काम अुल्लेंना.

ॲड्. कामत : बरोबर. म्हाका दिसता सोयरूबाबाकडेन दोन अुतरां उलोवन किदें करूं येता तें पळोवं येता.

दो. देसाय : म्हाका आतां आनीक अेक विजीत आसा. (घडयाळांत पळोवन) आमगेर पासय मारता जाल्यार यो. उलोवया.

ॲड्. कामत : ओब्रिगाद. पळयतां.
(ॲड्. कामत मेजाकडेन येवन आपणाले पेपर्स चाळटा)

दो. देसाय : (ताईबायच्या खांदाक हात लावन )हें पळय ताईबाय, तुवें अशें धीर सोडून जाता ? हें आज ना फाल्यां जातलें म्हणपाचें आमकां खबर आशिल्लेंच न्हय ?

दीदी : (रडटांनाच) हय, दोतोर.

दो. देसाय : ताका आतां खाटेर नाजाल्यार सोफार न्हीदोवकं जाय.

बाकीची तयारी करची पडली ना ? कोणाक आपोवपाचें बी आसल्यार सांगता ?

दीदी : (तकलो हालोवन 'ना' म्हणटा)

दो. देसाय : हांव एक पत्तो दितां. एक देसेंत बायल. तिजी तुका मदत जातली. आपोवया.

(एका कागदार बरोवन मेजार दवरता)

दीदी : (सांतूबाबाकडेन काकुळटीचे नदरेन पळयत) विवेक, ताजेर चादर बी किदेय घाल.

(विवेक वता.)

दो. देसाय : बरें ताईबाय. म्हाका आतां एक उजेंत विजीत आसा. वचुंकूच जाय. फाल्यां सकाळीं पासय मारतलोंच. येतां हांव. म्हाकाय तुजेवरीच दुख भोगता हें जाणां जा. (वतांवतां, अॅड्. कामतीक) रोखडो येता न्हय ?

अॅड्. कामत : (सोयरूकडेन पळोवन) सोयरूबाब !

सोयरू : (अुठन) दोतोर ? (येवन ताज्या म्हऱ्यांतल्या कदेलार बसता )पापाच्या सोंपपात तुज्या कामांत फरक पडटा?

अॅड्. कामत : पयलींचेंच मृत्युपत्र चलतलें, जें तो बदलूंक सोदतालो.

(ताईबाय सांवरून बसता आनी फुडले संवाद बारीक साणीन आयकता)

आदल्या मृत्युपत्रांत किदें आशिल्लें ताजी खबर तुमकां दोगांकूय आसा न्हय ?

सोयरू : ताणें ताजी सगली इष्टेट आमचे दोगांमदीं वांटली म्हणपाचें हांव जाणा.

अॅड्. कामत : लागीलागसार तेंच खरें. म्हजें मत विचारशीत जाल्यार हेंच योग्य जातालें.

(विवेक येवन वोल्तेलाचेर – सांतूबाबांचे कुडीचेर धवी चादर पाताळायता. उपरांत अॅ. कामत मृत्युपत्र वाचीत)

ताणें हें घर आनी शेजारचें तें दुसरेंय सोयरूबाब तुज्या नांवार केलां. सवार्डेची दोनूय घरां ताईबायक दिल्यांत. धंद्यात घाल्लो पैसो आडको आनी हेर येणावळ दोगांकूय समसमान वांटून दिल्या. हां, आतां एक मात आसा. ताईबायक जे किदें दिलां तें ती आससरूच. म्हळयार, तिज्या मरणाउपरांत जावं ती परतीय लग्न जाली जाल्यार तें सगलें सोयरूबाबाक हांगा येणें जातलें.

दीदी : (हुडकेंत) जाणा हांव कामतबाब.

अॅड्. कामत : नवीं कागदां तयार करपाखातीर म्हणून हांवें हे पेपर्स हाडलेले पुण ताजो उपेग जालो ना.
(पेपर्स बॅगान भरता)
जालें. म्हजें काम सोपलें. हांव वतां. सगळें विचित्र जालें. Very sorry. (दाराकडे वचून थामून)
सोयरूबाब, दोन दिसांनी ऑफिसांत पासय मारची. तुज्या बापायची आमी जायतीं वर्सां धंद्याचीं कामां केलीं. तुवेंय आमचेकडेन असोच संबंद दवरचो.

सोयरू : बरेभाशेन दो. कामतबाब. हांव मेळटां तुमकां दोन दिसांनी.
(विवेक अॅड्. कामतीक दारामेरेन पावयता. खिणभर शांतताय. दीदी सोयरूकडेन पळयता)

दीदी : आतां तरी तूं हांगच्यान वतलो काय ना? म्हाका म्हजें दुःख अेकटुक्यान भोगूं दी.

सोयरू : ना, आतां खंयच वच्चों ना.

दीदी : तुवें ह्या घरांत रावचें न्हय अशी ताजीच इत्सा आशिल्ली. ताजी अखेरची अित्सा सफळ जातली म्हणपाची हांव व्यवस्था करतलें.

सोयरू : तूं एक शिटुकसाणीन अुगडासान विसरता.

दीदी : किदें ?
(विवेक येता)

सोयरू : आतां हें घर म्हजें. हांव ह्या घराचो धनी. ताणेच आपणाल्या मृत्युपत्रांत हें बरोवन दवल्लां.
(दीदी अुठून बसता आनी दोळे मोटे करून ताजेकडेन पळयता.) तूं आतां हांगची मालकीण अुरूंक ना. तोय धनी अुरूंक ना. आतां हांव ह्या घराचो धनी.
(दीदी अुठून अुबी रावता) आतां हांवें घरांतल्यान वचपाची गरज ना. वचपाची गरज आसा ती तुवेंच !

दीदी : हांवें वचपाचें ?

विवेक : सोयरूबाब, येदे रातची तिका घरांतल्यान धांवडायतलो?

सोयरू : दुबावूच नाका. तें थारलेंच.

दीदी : हांव वचचीं ना.

सोयरू : वचना जाल्यार धुकलून भायर घालचे पडटलें.

दीदी : तें करून पळयूच तूं.

सोयरू : हें करपांतली खोस तुका कळची ना.
(दीदी फाटींफुडें येता आनी मागीर रडत कदेलार कोसळटा)

दीदी : इतलो कसाब जावं नाका सोयरू ! ह्या वेळार रातची खंय वचूं ? तो आनीक म्हाका केन्नाच त्रास दिवचोना अशें आसतानाय हांवें ताजेखातीर काडील्ल्या त्रासांची वळेरी हांव विवेकाक आताच सांगतालें. (काकुळटीक येवन) सोयरू, नाका रे अशें करूंक. प्लीज उपकार कर.

सोयरू : (परिणाम ना) तुजी साटलीपोटली कवळ आनी बेगीन तोंड घेवन भायर सर.

दीदी : विवेक, हांव किदें करूं ? तूं तरी सांग.

विवेक : तो खऱ्यांनीच वच म्हणटा जाल्यार तूं म्हजेबरोबर यो. घरा या.

सोयरू : हांव म्हणटां तें खऱ्यांनीच आनी मनांतल्यान. वेळ होगडायनासताना चलूंक लागात.
(दीदी दोळे पुसता. उठून उबी रावता)

दीदी : तो मेला म्हणून तुका खोस जाल्या.
(ती आसा तशीच वचपाक भायर सरता)

सोयरू : म्हाका खोस जावंक ना. तो म्हजेकडेन खूब कठोरपणान चल्ला आनी म्हाका ताणे बरो वागोवंक ना. तरीय जावन म्हाका तो गेल्ल्यान खूब वायट दिसता.

विवेक : सोयरूबाब, तुका मातूय लजभीड, वायट बी दिसना ? हावें असलें केन्ना पळयलें ना. तिजो घोव मरून थंय पडिल्लो आसताना तिका धावंडायता ?

सोयरू : (कुत्सितपणान) कांय खिणापयलीं ती म्हाका धांवडाव-पाक भायर सरिल्ली न्हय ?

विवेक : रागाच्या भारांत कोणूय अशें उलयता म्हणून किदें... तूं असलो म्हणून धरूंक नाशिल्लें. तुका मातूय मनीसपण ना ?
(दीदी आपणालें बॅग बी घेवन भायर सरपाचे तयारेंत आयल्या) सोयरूबाब, आयची रात तिका हांगां रावूं दी. फाल्यां तिका व्हरतां, ती तुज्या बापायची बायल हें तूं कशें विसरता ?

सोयरू : म्हणूनूच तर तिका धांवडायतां हांव, समजलो ?
(बापायकडे वळून) आतां हांव सगल्याक दाखयतां कोण

ह्या घराचो धनी तें.

दीदी : विवेक, ह्या देंवचाराकडेन वाद घालपांत अर्थ ना. आतां ताणे हातांपायां पडून म्हजेमुखार नाकलेगीत घांसल्यार म्हाका हांगां रावपाचें ना चल यो. (विवेक वता) देव बरें करूं तुजें सोयरू कांयसुवकार. तूंच ह्या घराचो धनी. घे हें तुजें घर हड्ड्यार. बापायचे तें मडें मुखार पळयत तुजी रात बरी वचूं

(दीदी वता. फुडलें दार घडांयच् करून बंद जाता. सोयरू आतां सामको अेकटो. मड्याकडे पळोवन मातसो भियेता. मेजाकडे येवन बसता. स्वत:कडेन हांसता)

सोयरू : रात बरी वचूं खंय ! रातूच न्हय आतां सगले दीस आनी राती, अख्खें जिवितूच सुखान वतलें. आतां हांव ह्या घराचो धनी. (मड्याकडे पळोवन) आतां तूंय म्हज्या कामांत कसलीच लुडबुड करपाचो ना. हांव आतां तुका मातूय भियेना. आतां भियेवपाक किदें अुल्लां? (भोवतणचे शांततायेचो परिणाम जाता. सांतुबाबाचे कुडीक तेळीत) आतां काय तुज्यान म्हाका घरांतल्यान भायर घालूं नजो. हांवूंच आतां हांगाचो धनी. (धव्या चादरींतली आकृताय दखल घेना. सोयरू थरथरता) हांव ला फ्लोरांत वचून चार पेग मारतां. अिश्टूय मेळटले. (परतीय अेक अुडटी नदर वल्तेराचेर) पुण हांव रातीक हांगां येतलोंच. तूं म्हाका भायर घालचो ना मरे ? (लायट पालयता. पुराय काळोख. जनेलांतल्यान चान्न्याचो अुजवाड येता. तांतूंत वल्तेरा-वयली आकृताय आनीकूय भेंकडायता. सोयरू दाराकडें वचून थामता) पुण म्हज्या बोल्सांत पयसो ना. (येवजीता) त्या मेजाच्या गवेतांन बापूय पयशे दवरतालो. किदें मेळत काय ? (सोदूंक वतना वाटेर कदेलार आपटता) कांयच दिश्टी पडना. बॅटरीय लागीं ना. (जनेलाचो पड्डो कडेक काडटा. चड चान्नें येता. मेजाकडेन वचून गवेत उगडटा पुण भितर पयशे नात. तिजोरेकडेन वतना आकृतायेचेर नदर पडून तो कांचवेता) तूं म्हाका असो भेकडावचो ना. समजलो ? म्हाका भंय घालूं नाका. हांव ह्या घराचो धनी. (ल्हवूल्हवू येवन मेजाच्या कोनश्या धडेर बसता. आकृतायेचेर नदर थीर )

म्हजेकडेन असो थीर नदरेन पळोवं नाका. हांव येदोळ तुजेविशीं वायट उलयलों पुण तूं गेलो म्हणपाचे म्हाका खऱ्यांनीच खबर नाशिल्लें रे ! (स्तब्धता. आतां तो चडूच भंयान कडकडटा. तोंड हातांनी धांपता) देवा ! आतां आनीक सोसूंक जायना. (ल्हवूल्हवू फाटल्या पावलांनी चोराभशेन दारांतल्यान वता. दार धांपिल्ल्याचो आवाज. चाऱ्याच्या उजवाडांत धवे चादरींतली आकृताय घराचो धनी जावन निश्चल बशिल्ली दिश्टी पडटा.)

(पड्डो)



| | |
|---|---|
| दाजीबा | झाडूवालो |
| भिकू | करवली |
| गोपू | पिसो |
| सखो | पट्टेवालो |
| आबोलें | पांडूचें भूत |
| पोर | कामदार लोक |
| दरेकार | लग्नकार लोक |

७.

# अुकतावण

(अेका ल्हानशा पुलाचें अुक्तावण जावपाचें आसा. दबाज्याचे गडबडींत गांवांतले लोक. सरपंच दाजीबा तर हांगां थंय नाचत आसा)

दाजीबा : भिकल्या, आरे फुलां हाडली मरे ? मागीर बोर्डाक आदीं हार घाल. फातराक घाल. मेळत थंय फुलां घालीत राव. म्हादू, तो पोष्टर काय बॅनर तो नीट लाय. पुजा बेगीन आटपात म्हणून सांग तांकां. पुराण अजून सोंपना ? आरे, त्या सभाग्या भटाक सांग चडूय ओडीत रावूं नाका म्हणून. आरती कर म्हणचें बेगीन. आरती.

भिकू : गोपू, प्रसादाचे चार दोणे म्हाका घरा व्हरपाक आतांच कडेक काडून दवर हां सदांभाशेन. मागीर 'सोंपले,' 'विसल्लों' असलें आयकून घेवंचो ना. कळ्ळें ?

गोपू : बरें, बरें, याद आसा.

भिकू : दाजीबा, हे दोन हार अुल्ल्यात ते खंयच्या फातराक घालूं ?

दाजीबा : आतां म्हाका किदें विचारता ? घाल म्हज्या गळ्यांत. (भिकू खऱ्यांनीच सरपंचाच्या गळ्यांत हार घालता) मेल्या हें किदें ? घाल म्हळें काय घाले. अेक दितलों कानसुलार...

सखो : दाजी, खंयची प्लेट लावं ?

दाजीबा : रायस् प्लेट लाय. अर्वाचिदा, येदोळ वाजताली ती किदें चायट आसली ? बंद किद्याक केली ? कोणाच्या हाचेर कोणाचें किदेंशे तें....

सखो : 'कुणाच्या खांद्यावर कुणाचे ओझे.' तशें न्हय दाजीबा, हांव म्हणटालो लावडस्पीकर आपटीडेट आसा. हॅलो, हॅलो, वन् टू थ्रि, मायक टेस्टींग, मायक् टेस्टिंग, शेक, शेक, शेक. हां. फस्कलास आसा. सगले शुअर मायक. आयक, तूं पळेता टेस्टिंग करून ?

दाजीबा : हय, हय. हय रे बाबा. पळोवंकूच जाय. म्हृजें सगलें भाशण पयलीं टेस्टिंग करून घेतां. मात्शें आयक हां.... आगो ये आबोलें, शेंवतें, मोगरें, विलासिनी.... तुमी सगल्यो साळकायो म्हाळकायो किदें करतात थंय ?

आबोलें : मांडणी करतात सगले कार्यावळीची.

दाजीबा : तुमी कसली मांडावळ करतात कपलाची ? आगो बाये, तुमी आपापलीं कामां सारकीं सांबाळात. त्यो फातयो आनी कापडांच सांबाळीत बेठीं हांगां थंय गोंदळू नाकात. त्या सवायशिणींक तयार रावपाक सांग पळोवया. आरे पोरांनूं, अशीं कलाकला किद्याक करतात? ओगी रावात. (अेक पिसोसो भुरगो न्हंयदेगेवयल्यो बेबक्यो आनी कुल्ल्यो मेजीत ताचेर फातर मारीत खेळटा ताका लेखून-) तूं किदें करता रे पोरा थंय आवटचा ?

पोर : टुप – २४, दब – २५, पचाक् २६. कुल्ल्यो, बेब्रक्यो, चिखील बी मेजतां दाजीबा. मजा येता.

दाजीबा : हत् मेल्या फातरा. पिश्या फातर न्हंयेत शेंवटिल्यार ती पुरवतली. मागीर पुलाचो किदें अुपेग ? अुठ अुठ थंयचो, कडेक सर.

पोर : आरे, आरे, राव तरी मातसो. शंबरमेरेन जांव दी.

दाजीबा : आरे, खंयची पिसाय रे ही अवचिन्नाळी ? आतां तूंच अुदकांत हुडकी घे... डबाक्. अेकदम हजार जावंदी. आवटो रे आवटो. दरेकार, रिबीन हाडला मरे रिबीन ?

दरेकर : रिबीन म्हणजे फीत मूं ?

दाजीबा : हय व्हय फीत. अजून हाडूंक ना ? हाय सायबा ! तुमचो सगलो कारभारूच लालफिती. पळ बाबा बेगीन, धांव मार. हे घे दोन रूपया. आनी पळे, तांबडीच हाड. कायतान दर्ज्याकडे भायलेभायर वच आनी ताची नवी

कातर घेवन यो. हांवें मागल्या म्हणून सांग. तुवें माग-ल्यार हरशीं दिवंचो ना तो. वच, धांव मार.

झाडूवालो : दाजीबा, तुजें पुडवें मातशें वयर कर.

दाजीबा : आं ?

झाडूवालो : साफ करतां, झळझळीत. कोयर, चिखल अुसळचोना तुज्या नेया पुडव्याचेर ? फिनलेचें सुप्रियोर पुडवें न्हूं ?

दाजीबा : हां, हां. हयरे सायबा. हो आनी मदींच–

झाडूवालो : आनीक अेक सांगतां. हांगर आतां तुजी ती टेबिनकर पाना पिचकारी अुडोवं नाका. रस्तो पळे कसो झाडून झाडून लखलखीत केला हारशा सारको.

दाजीबा : बरें बरें. पुरो,चड शाणपणा नाका. अेक दितलों कानपटचार. तोंड धांपून काम कर.

(बाकीचे चडशे लोक फासाळतात. आतां स्टेजीर दाजी, सखो आनी झाडूवालो)

दाजीबा : हां... आतां कशें बरें थंड दिसलें. चल रे सख्या, कर आतां तुजें मायक टेस्टिंग. चालू कर तुजें फुनेल. सगळे भोंगें सारके आसात मरे ? दाजी मास्टर्स वॉयस लोकांक सारको आयकुंक येवंक जाय.

सखो : हां, हां मातसो रावं हां...आतां अुलय.

दाजीबा : आयकात रे.... हां. भावांनो आनी भयणीनो...हांव हांगां तुमचो सरपंच दाजीबा म्हापशेंकार अुलयतां. हॅलो... हॅलो... हॅलो, हां हावं आयलों. तर आज आमच्या गावांत अेक व्हडलो प्रसंग घडपाचो आहा. कारण आज हांगां अेक मोटो मंत्रीमहाशय येवचो आहा. तो आमचे मदीं पडपाचो आहा. म्हणून हो म्हत्वाचो प्रसंग. तो येतलो आनी आमच्या पुलाचें जाय जाल्यार सांकवाचें म्हणात, अुच्चाटन करतलो. आमचो हो पूल कंप्लीट जावन अुच्चाटनाखातीर अेकादे प्रचंड शीळेसारको खोळंबून पडिल्लेकडेन आहा. तर आज मंत्रीसायब प्रभू श्री रामचंद्रा-वरी येतलो आनी ताची कर्तबगार पावलां आनी हात लागून ह्या पुलाचो सती अहिल्येसारको अुद्धार जातलो. आनी तशेंच तुमचें सगल्यांचें कल्याण जातलें. म्हणून तुमी म्हजें भाशण शांतचित्तान आयकून घेवंचें आनी धन्य जावंचें. त्याच कामाखातीर आज आमी हांगांसर सगले जमल्यांत. हें तुमकां सांगचेखातीर हांवे मुद्दम हांगां

हो सगलो संवसार मांडला. तुमकां खबर आसतलेंच की १२ लाख रुपया मोडून गांवकऱ्यांनी सरकाराचे मदतीन हो पूल घडून हाडला. हो पूल बांदपाक कितली माती, कितल्यो कायली, कितलीं खोरीं, कितलें शिमीट, कितलीं कंकरी आनी शेंकरी, कॉंक्रीट बी लागला ताजो हिशेब दिवप हें महाकठीण काम. खरें म्हणजें हें काम दिल्लीच्या त्या शहाजहान बादशहाक सुद्धां जमचें नासलें. हो पूल बांदप म्हणजे ताजमहाल बांदपाअितलें सोपें न्हय. तसो आमचो पूल म्हणजे फकत २–३ खांब्याचो. म्हणल्यार पूल नाजाल्यार सांकव. पुण तो बांदूंक तब्बल धा – बारा वर्सां म्हणजे सामकें अेक तप लागलें हें तुमकां सांगल्यार फट दिसुंये. ह्या येद्या धा – बारा वर्सांच्या काळांत आमच्या देशांत तीन – चार राष्ट्रपति चेंज जाले. चार – पांच प्रधानमंत्री बदल्ले. श्रीपती गेलो आनी श्रीमती आयली. तिणे मागीर तो अनुशासन काय कसलो तो पर्वत अुखल्लो आनी आमचो हो पूल अुबो रावलो. तर अशी ही आमच्या रामायणाची कथा. १९६२ वर्सा म्हूर्ताक आमी ह्या पुलाच्या कानसुलांत बसयलें. त्या सुवाळयाक आमी साक्षात् राष्ट्रपतींक आपोवणे केल्लें पुण तांकां वेळ खंयचो ? तेन्ना गांवकऱ्यांनी मागीर हो भौमान म्हाकाच दिलो. टर टें ज्यांव डी तेन्ना...

(पानाची थुकी अुडोवंक हांगां थंय पळयता. झाडूवाल्याचे शिटकावणेची याद जाता. मायकांतूच थुकपाचो यत्न)

सखो : दाजीबा.... मायक तो, थुकदाणी न्हय. कित्याय किदें ?

झाडूवालो : दाजीबा, येदोळ दोनतीनदां सांगलां... हांगां रस्त्यार थुकप ना. म्हेनतीन रस्तो झळझळीत केला. आयचो दीस अुपकार कर म्हजेर.

दाजीबा : आरे, आरे.... पळयात आटा म्हाका कशे शेडायटाट टे... येटां हां रोखडोच... (वता)

(कोनशिला समारंभाचो फ्लॅशबॅक सीन. धा – वीस जाण अेक फातर धुकली धुकलीत हाडून बसयतात.)

दाजीबा : आरे, ये चलात रे बेगीन.... हांव रवळनाथाक गाराणें घालतां. पायां पडात सगले हात जोडून. म्हाका न्हय रे, रवळनाथाक. ओगी रावात रे हय बोब मारूं नाकात. हां.

तर देवा रवळनाथा, आवयकखायऱ्यानू म्हाका धुकलू नाकात रे.... गाराण्याच्या वेळार फकाणां नाकात... हे देवा रवळनाथा– ह्या पुलाची कानसुलां बसोवन आमी आतां ह्या पुलाचें काम सुरू करूंक सोदतांत. तर हें काम बेगीन कंप्लीट जावंचें... हो पूल म्हणजे रामाचो लंकेवयलो सेतू अशें तूं धर. तर हो सेतू बेगीन पुराय जावंचो आनी लंकेचें तशेंच रामायणाचें कल्याण जावंचें. तशेंच आमच्या भुरगेबाळांकडे, तांच्या हातापायांकडे तीं भोवता-हिंडटात थंय, आमच्या कामाधंद्याकडे, गोरवा-वासरांकडे, गोठ्यांकडे, सगले कडेन तुजी नदर आसची आनी बरें कर. म्हणात–पुंडलीक वरदा हरी विठ्ठल. (कांय लोक 'तुकाराम' म्हणटात) पार्वतीपते हरहर महादेव. (काय लोक 'मोरया' म्हणटात) श्री ज्ञानेश्वर .... रवळनाथ महाराज की जय:, (कांय लोक 'विजय असो' म्हणटात ) चला, चला आतां फुडले तयारेक लागा.

(नाल्ल फोडून शिरण्यो वांट्टात)

(कालांतरान पुलाचें काम आडिल्ल्यान बुन्यादीच्या फातराचेर जायते संस्कार जायत रावले. म्हळ्यार –

भुरगो नेमान येवन कोनशिलेर बसून न्हंयेंत फातर गुणे मोखपाचो खेळ खेळूंक लागलो.

कांय बायलां अुदक काडून फातरार कपडे अुमळूंक लागलीं.

अेका देवभक्तान थंय देवाचें पांयजेल लावन पूजा आरंभली.

हळूहळू फातरा फाटल्यान अेक वडाचो रोंपो अुबो जालो.

वडाची पुनव आनी हेर व्रतां थंय जावंक लागलीं.

अदीमदीं फावत्या वेळांत कुत्री येवन फातरार दोंको वयर करून 'संस्कार' करूंक लागलीं.

केन्नाय सरपंच पासय मारून फातराची वासपूस करून वतालो.

अितलेंय सगले दाखोवन सुचोवन फ्लॅश – बॅक सोंपता.)

दाजीबा : तर लोकांनू, आतां तुमी जें किदें पळयलें ताका आमी नाटकाचे भाशेंत फ्लॅश – बॅक म्हणटांत. तातूंत तुमी १९६२ आंतलो कोनश्याफातर बसोवपाचो सुवाळो पळयलो. अुपरांत पुलाचें काम तीन - चार वर्सां कशें रखडलें, थंय बायलांनी मुस्तायकी कशी धुली ....

कितल्या सुण्यांनी थंय दोंके वयर केले आनी कितल्या कुत्र्यांच्या भोंकार हांवें खोंटो घाल्यो ताका हिशोप ना. तेच तुमी देखलें. अेका भक्तगणान थंय देवाची स्थापना केली. कोणेतरी थंय मदींच वडाचो अेक रोंपो लायलो. मागीर ताचें झाड जावंक लागलें आनी मागीर म्हाका असो भंय दिसपाक लागलो की हांगां पूल पूल म्हणटाना ताजेसुवातेर अेकादे देऊळ बी अुबें रावना मूं ? आमचे कांय गांवकार म्हणूंक लागले, हांगां पूल जातलो जाल्यार थंय अेका मनशाचो प्रथेप्रमाण बळी दिवंचो पडटलो. आतां अेका जित्या मनीसप्राण्याक जिवानिशीं मारून अुडोवपाचें पापकर्म म्हज्या बापायन केन्ना केलेंना, केन्ना पळयलें ना. म्हजोय असल्या गजालींचेर भावार्त नासलो. पुण गांवकारांचो आग्रो, मनशाचो बळी वचूंकूच जाय. बरें, आतां बळी तरी कोणाक दिवंचो होय कठीण प्रस्न. मागीर त्या पिश्या लक्ष्याचो भाव सदांच हांगां फातरार बसून न्हंयेत शेंकारे मोखतालो ताका आमी अेक दीस न्हेयेंत शेवटिलो. वायट कर्म तें पुण गावांखातीर आनी पुलाखातीर करचें पडलें.

(फ्लॅश बॅक : भुरग्याक न्हंयेत अुडोवपाचो प्रसंग. धुकलपी लोकूच 'बुडलों रे बुडलो' म्हुण बोब मारीत येतात. त्या भुरग्याचो भाव पिसो लक्ष्या बोब मारीत न्हंये काठार येवन रडटा, हांबेता. लोक फासाळटात, फ्लॅशबॅकांतूच पुलाच्या बांधकामाचें मायमिंग. दादल्या-बायलांचो कामगारांचो जमो बांधकाम करता. सामुदायिक गितांच्या तालार : 'दुखभरे दिन बिते रे भैया, अब सुख आयोरे' 'दय्यारे दय्यारे देखो रे पापी बिछुआ' आदी

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| जोडी १ | : | १, २, ३, ४, | — जाने, फेब्रु. | १९६६ |
| जोडी २ | : | ५, ६, ७, ८, | — मार्च, एप्रिल | १९६८ |
| जोडी ३ | : | ९, १०, ११, १२ | — मे, जून | १९७० |
| जोडी ४ | : | १३, १४, १५, १६ | — जुलय, आगस्ट | १९७२ |
| जोडी ५ | : | १७, १८, १९, २० | — सप्टें, ऑक्टो. | १९७४ |
| जोडी ६ | : | २१, २२, २३, २४ | — नोव्हें, डिसें. | १९७६ |

फ्लॅश बॅक सोंपता)

दाजीबा : तर पावण्यांनू, अशे तरेन दोन दोन वर्सांत अेक अेक खांबो अशें करीत करीत हो पूल कसोबसो १९७६ वर्सा अुबो जालो आनी १९७८ आंत वयलो पाटो कंप्लीट जालो. तेन्ना 'शेंकड्या अुपरांत आज पळयली, पयली सोबीत सकाळ' अशें आमकां जालें. हो पूल आमका मेळचो म्हणून हांवें भयंकर खटपट केली. सरकार दरबारी हजारांनी फावटी आनी खेपो माल्ल्यो. जंग जंग पछाडलें. भूंय मळब अेक केलीं. व्हाणो – जोतीं झरयलीं. पयलेच फावट हांवें ह्या पुलाची येवजण सरकारामुखार मांडली तेन्ना गव्हर्मेंटान 'तुमकां पुलाची कांय अेक गरज ना' अशें आमकां धडधडीत तोंडार सांगलें. पुण आमचे नर्वस्तान जालें ना. सरकारान आर्गुमेंट काडलो की आमच्या गावांत पुलाक गरजेची लोकां येरादारी खंय आहा ? पुण हांव तांकां असो बदतां ? नावांचोच दाजी हांव ! हांवें तांकां सोमतेंच विचाल्लें. बाबानू, पयलीं तातीं काय आदीं कोंबी ? बि पयलीं काय झाड ? हांव सांगतां– गावांक पूल ना म्हणून लोकांची येरादारी ना. आदीं पूल अुबो करात मागीर घे म्हणून जाय तितले लोकांचे लोट हांगासून घोळ्ळेना जाल्यार म्हाका विचारात. सगले गप्प पडले हें आयकून. आनी ना – हय, आवाशिवा करून येकदांचो पूल सँक्शन जालो. पयलींच आमचो गांव अेक जुवो. म्हणटुकूच, खंयीय वचचें येवचें म्हळ्यार, धांव धांव धावलो, तारीकडे रावलो, अशें जातालें. आनी मागीर 'ये फिलीप' 'ये म्हाड्डू' 'अूहू' 'अुहू' करीत तारयाक कुकाऱ्यो घालीत रावचें पडटालें. गावांची वस्ती ८–१० हजार. गांवांत दोन अिश्कोलां, अेक पोष्ट आफीस, दोन धान्य सोसायट्यो, दोन बँको बी आसात. म्हण्टुकूच हो बरो भरभराटीचो असो गांव. पुण ह्या ट्रान्स्पोर्टाच्या प्रस्नाक लागून गांवांत कोण येवंक सोदीना आनी गांवातलो मनीस भायर वचूंक मागीना. हें सगलें हांवें सरकारामुखार नेटान मांडलें. तेन्ना सरकाराक म्हजें म्हणणें पटलें आनी ताणी म्हळें, "बरें बाबा, दिली परमिशन, बांदून अुडयात पूल." मागीर कालावधीत पूलूय जालो. पुण आज बरोच काळ जालो. मुखेल सोयरे येतां म्हुण सांगतात आनी येनात आनी तांका लागून उच्चाटन

अडून अुरता. आज मात मंत्रीमहाशयान येतां म्हळां. आतां पळोवया. साडेपाचांचो म्हूर्त दिला.

(खारव्यांच्या लग्नाची व्हंकलपावणी वा तत्सम मंडळी गायत येता– 'अग दांड्यावरना नवरा कुनाचा येतो रे')

दाजीबा : आगो ये, दांड्यावरून नवरावाले. ओगी रावात. धुकलकात खंय ? ताश्यावाजंत्र्यासयत खंय लोट्टात अशीं दर्याचे ल्हार कशें ?

करवली : खंयसर म्हणजे ? दिसना आमी लग्नाक वैतांत तीं. आनी कितें गा, तूं व्हडलो गोंयचो बालिष्टर, आमकां आडावच्याक ?

दाजीबा : हांव कोण तो मागीर सांगतां. पयलीं फाटीं सरता काय ना तें क्लीअर कर. हांव हांगांचो सरपंच. नामदार दाजीबा म्हापशेंकार. तुजी ह्या अल्फानार अुलटतपासणी करूंक जाय. समजलें मगे मावशे ?

हेर मंडळी : आनी आमी तेचे चमचे.

करवली : आमी वयतांव आरोंद्याक, लग्नाक.

दाजीबा : हें पळयात, तुमी आरोंद्याक वचात नाजाल्यार आफ्रिकेक वचात, नाजाल्यार मष्णांत. पुण ह्या पुलाचें रीतसर अुक्तावण जालेबगर हांव कोणाकूच पुलाचे दिशेन अेक पावल लेगीत घालूंक दिवंचोना. आनी तसो प्रयत्न तुमी केलो जाल्यार 'खबरदार जर टांच मारूनी जाल पुढे चिंधड्या, अुडविन राई राई येवढ्या' अशी गत जातली तुमची.

करवली : आनी आमकां लग्नांक वचपाचें जाल्यारूय तुजी परमिशन लागतली काय किदें ?

दाजीबा : राव गे मावशे तूं लंडनाक वच नाजाल्यार आफ्रिकेक. म्हजें अजुन उलोवंन सोपूंक ना.... हांव किदें म्हणटालों रे ?

दरेकर : टाच मारुनि, टाच मारुनि...

दाजीबा : तेंच तें, तेंच तें. कोण आसा रे थंय ?

करवली : आमकां आफ्रिकेक वचात अशें किद्याक म्हटलय तें आदीं सांग.

दाजीबा : सांगतां गे बाये, सांगता. तूं अशी अेकदम म्हज्या हडुयार लवंडूं नाका पळोवया. चार – चोघांत पळोवपाक बरें दिसना तें. पयलींच तुजो तो गिताचो मत्स्यगंध म्हज्या नाकांत भरून अुल्ला. तुजो हो फास्टकलर पळोवन लंडनशें दिसलेंना म्हुण आफ्रिका म्हळें. कळ्ळें ? जालें

मगे समादान ?

करवली : वा वा ! व्हडलो तूं पाखलो.

दाजीबा : आगे सायबिणी मावशे, बाये मातशे म्हजें आयक. किद्याक ओगीच झगडूंक फुरफुरता ? तुका आफ्रिकेक वच म्हळें म्हणून राग आयलो जाल्यार लंडन, अमेरीका जाय जाल्यार म्हणटां पुण मातशें म्हजें आयक. आतां तो मंत्री येतलो आनी मागीर पुलाचें रीतसर अुक्तावण करतलो तोमेरेन मातसो थार धर.

करवली : पुण आमचो साडेसातांचो म्हुर्त चुकचो ना ?

दाजीबा : साडेसातांचो मगे ! चिक्कार वेळ आसा. साडेपाचाक आतां मंत्री येतलो. किद्याक ओगीच तकली तापयता ? मातशीं ह्रांगां सुसेग घेयात आनी मागीर सुशेगाद वाजत, गाजत वचात आरोंद्याक. आमी येतां तुमचेफाटल्यान 'लग्नाला जातो मी द्वारकापुरा,' करीत वडे खावंक.

(लग्नाकार लोक ओगी रावतात.)

आरे सख्या, गोपू मंत्री आजूय आमकां कटोवंचो ना मरे ? वेळ तर जायत आयलो. प्रमुख पावण्याचो पत्तो ना.

(लग्नाकार लोक वेळ सारपाक लग्नगीतां म्हणूंक लागतात.)

गोपू : बाकी दाजीबा, आज आमी पुलाचें रीतसर अुक्तावण करपाचें थारायलें तें बरेंच जालें. पुण हांवें आयकलां, ह्राचेवयल्यान येरादारी सुरू जाल्या हां चोरयाणे. ह्रावे ह्या सख्याक सायकलीर बसून पुलावल्यान पलतडी वतना चार फावटीन तरी धल्ला.

सखो : तोंड सांबाळून अुलय हां गोपू. तूं पयर आरोंद्याच्या बाजारातल्यान उसों घेवन धोलत धोलत ह्या पुलावयल्यान पासार जाताना हांवें तुका पळयला. येरादारी किदें हांवें अेकटयान केली ? हो झाडूवालो टमरेल, लापयांव कसो हातांतल्यान झेलयत काल फांत्यापारार पुलार बरीशी सुवात सोदतालो.

झाडूवालो : म्हजें नांव कोणे काडल्यार सान्नीचो मुगडो तकलेर घालतलों हां. हांव सारण मारपी म्हणून म्हजेविशीं किद्याय किदें अुलयल्यार आयकून घेवंचो ना. पयले सुवातेर हांव टमरेल केन्ना वापरीना. म्हजो बरो

डालडाचो दबो आसा.

दाजीबा : तरी म्हणटां! वंयेची सरी अेकसारकी लायिल्ली लायिल्ली कशी निखळटा ? ओगीच त्या गोरवां वासरांचो दुबाव घेतलो. हे दोन पायांचे रेडे आजनेरी करताले म्हणपाचें आतां कळ्ळें.

झाडूवालो : म्हाका अेक सांग दाजीबा, पयर भाऊसायबाची गाडी मध्यान रातीर पुलावयल्यानं पलतडी गेल्ली ही खरी खबर ?

दाजीबा : कोण भाऊसायब ?

झाडूवालो : आमचो दोतोर. भाऊसायबाची गाडी कोणूय वळखता.

दाजीबा : गेलाय आसत कोण चड शीक बी जाला आसल्यार. दोतोर तो. तातूंत वायट धरपाचें किदें ? कोणूय पेशंट दगावतासो जाल्यार पुलावयल्यान मोटारींतल्यानूच न्हय हवेंतल्यान विमानातसून सुद्धा वचचें.

दरेकर : दाजीबा हें दसना थुकीसुद्धा लावन पळयली.

दाजीबा : दसना ? आरे, थुकयेन कशें दसतलें ? दुसरें किदेंय लाय. नाजाल्यार अशें करात. गोपू, असो यो. तूं आनी दरेकार रीबीन धरून अुबे रावात पळोवया.

(दोगूय अंतरपाट धरिल्लेवरी रिबीन धरून अुबे रावतात. तें पळोवन लग्नाकार मंडळी मंगलाष्टकां सुरू करतात.)

अेय, ओगी रावात रे. तो किदें अंतरपाट म्हणून समजले तुमी ?

(घणसाबैल जावन अेक पिसो येता. ताजे फाटीर अेक भुरगो बसला. कोणतरी 'सांग सांग भोलानाथ' म्हणूंक लागता. घणसाबैल तकली हालयता)

दाजीबा : सांग रे अेय भोलानाथ, पावस पडटलो मरे ? ... पीक बरें येतलें ? ... (घणसाबैल हयकार दिता.) बरें अेक सांग. आज हांगां मुखेल पावणो येवपाचो आसा अुक्तावणाक. तो येतलो मरे ?

(घणसाबैल 'ना, ना' अशी तकली हालयता.)

आरे देवा, हो ना म्हणटा मरे ? आतां कशें जावपाचें ?

पिसो : (सवंग सोडून) तुमीच मरे तो म्हज्या घराचो आरसो फोडलो ? आतां म्हाका सलाम करात.

सखो : दाजीबा, हो भोलानाथ म्हणटा तें खरें जाल्यार....

परतेंय अुक्तावण फुडें धुकलप ? अुच्चाटन कोणे, केन्ना करपाचें ?

दाजीबा : येतलो रे येतलो, मुखेलसोयरो येतलोच. आयलोना जाल्यार आनीक रावप ना. ही लोकशाह. लोकांचें, लोकांखातीर लोकांनी चलयल्लें राज्य. पुलाचेंय तशेंच. लोकांनी, लोकांखातीर लोकांच्या पैशानी बांदिल्लों पूल. मंत्री येवंक पावना जाल्यार लोकांनीच तो आपणाखातीर अुकतो करचो. परतें परतें मुखेल सोयऱ्याक आपोवन वाट पळयत रावपांत अर्थ ना. आमी किदें बेकार आसांत हांगां ? पुण फित कोणें कापचें ?

(सगळयांमदीं वादावादी. अुक्तावणा फित कापपाच्या मानावेल्यान.... लग्नकार लोक म्हुर्त चुकत म्हणून भियेल्या. अितल्यात अेक सरकारी जीप येवन थांबिल्याचो आवाज. अेक पट्टेवालो येता. तिरसटावरी. सगलेजाण ताकाच मंत्री समजून ताजो ताथोमाथो, सत्कार – नमस्कार करूंक लागतात. पयलीं सगलीं कौतुकां करून घेतल्या अुपरांत तो ताणशेता—)

पट्टेवालो : स्टॉप... हांव मंत्री न्हय !

सगळे : न्हय ! ... मागीर ?

पट्टेवालो : हांव मंत्र्याचो असिस्टंट उर्फ पट्टेवालो. म्हणजेच पी. ए., बी. ए, सी. आय्., बी., सी. आय्. डी. लंडनबिडन. तुमचो फुडारी कोण ?

(दाजीबाकडेन अेक पत्र/खलीतो दिता. सलामबिलाम करून पट्टेवालो वता)

दाजीबा : तर गांवकऱ्यानूं, मंत्रीमहाशयान म्हज्या नांवान अेक खलीतो धाडला तो हांव आतां तुमकां वाचून दाखयतां. मंत्री बरयता. समस्त ग्रामस्थानूं. कांय अपरिहार्य कारणाकलागून आनी म्हत्वाच्या कामाकलागून आदीं थारायल्याप्रमाण हांव पुलाच्या अुक्तावण सुवाळयाक येवंक पावचोना. तरी तुमचे भितल्ल्या कोणेंय गांवकाऱ्यान अुद्घाटन करून काडचें आनी पूल येरादारीक अुकतो करचो. म्हजे तुमकां असंख्य आशीर्वाद. मोग वाडू. बरें मागून, तुमचो, अमूक अमूक अमूक. आतां गांवकऱ्यानूं, हांव तुमचो सरपंच. तेन्ना रिबीन कापपाचो मान म्हजो ....

(फीत कापपाक धक्काबुक्की. दाजीबा हळूच फासळटा.

बोल्सात लिपोवन दवरील्ली कातर भायर काडटा आनी कच् करून फीत कापता)
तर ह्या पुलाचें अुद्‌घाटन जालें अशें हांव मोटे अुमेदीन जाहिर करतां. (फीत कापता आनी रेशींवल्या धांवप्यावरी सगळयान फुडें आपुण धांवता. फाटल्यान सगळे धांवत सुट्टात. सगल्यांत निमाणो पिसो लक्षो येता)

पिसो लक्षो : चोर, सुवार्थी, फटींग सगले ! मतलबी, चांडाळ हरामखोर, मारेकारी, खुनी. म्हज्या पांडूक अुदकांत बुडोवन मारपी कसाब खंयचे कडले ! अुद्‌घाटन करतात खंय ! पांडूचे सादें नांवपसून घेतलेंना. याद लेगीत काडलीना. हांव पिसो. हांव पिसो आसूं पुण अितलें मात म्हाका कळटा. पूल जालो पांडूक लागून. काय वरो आशिल्लो पांडूं – पांडू, म्हज्या अपुर्बायेच्या भावारे !

(अुदकांत पळेत अुले मारता) पांडू रे, यो रे मातसो. अेकदांच वयर यो. आयचे दिसा. हो पळय पूल चालू जालो तुका लागून. आरे तुकाच लागून. तूं यो. मागीर आमी तुजो आवडीचो खेळ खेळूयां, नंबर मेजीत अुदकांत नळखुट्यो मोखपाचो. यो. यो रे म्हज्या राजा....

(स्टेजीर काळोख. मदींच वेगळेच तरेचो अुजवाड जावन अुदकांन चिब भिजिल्लो 'पांडू' वयर सरता. लक्षो 'भूत !' अशी किळांच मारून पळत सुट्टा. पांडूचेर स्पॉट. पद वाजता :
'कुणाच्या खांद्यावर कुणाचें ओझें...')

(पड्डो)

☆ ★ ☆

ह्या अेकांकी संग्रहांतल्या अेकांकीचे पयले प्रयोग आनी पयली अुजवाडावणी

☐ **तीन खेतीं शाणी सुरतीं**

पयलो प्रयोग : ता. ३० सप्टेंबर १९७७, दामोदर विद्या भुवन मडगांव
निर्मिती – रायहंस रंगमाची
दिग्दर्शक – खासा बरोवपी

| भूमिका | कलाकार |
|---|---|
| नेत्रा | अुर्मिला नायक |
| गोविंद | दिलीप देसाय |
| अतुल | पांडुरंग शिरवयकार |
| श्रवण | राजू हेदो |
| सुभाष | प्रकाश थळी |

आदार दिवपी – अुदय भेंब्रो, बाबली नायक, अनिल पै, फेलिसिओ कार्दोज आनी सोतेर बारेंत.

पयली अुजवाडावणी : 'कोंकणी' दिवाळी अंक १९७७

☐ **अुजवाडटलें आज ना फाल्यां**

पयली अुजवाडावणी : 'कुळागर' मार्च १९८३

☐ **प्रिया तुज्या मोगाखातीर**

पयलो प्रयोग : 'प्रिया तुझ्या प्रेमासाठी' (मराठी) ता. १ फेब्रुवारी १९७६, बिर्ला क्रीडा केंद्र, चौपाटी, मुंबय
निर्मिती – नाटयगंधा – मुंबय
दिग्दर्शक – खासा बरोवपी

पयली अुजवाडावणी : 'कुळागर' फेब्रुवारी १९८७

☐ **वाट पळयतां दुकां गळयतां**

पयलो प्रयोग : 'वेटिंग फॉर घासलेट' (मराठी) ता. ५ सप्टेंबर १९७४, भारतीय विद्याभुवन, चौपाटी, मुंबय हांगां अिंडियन नॅशनल थिअेटर मुंबय हाणी घडोवन हाडिल्ले आंतर महाविद्यालयीन अेकांकी सर्तित.
निर्मिती – दालमिया महाविद्यालय, मुंबय
दिग्दर्शक – खासा बरोवपी

☐ **अुक्तावण**

पयलो प्रयोग : 'अुद्घाटन' (मराठी) ता. ११ सप्टेंबर १९७६, विद्याभुवन, चौपाटी मुंबय हांगां, इंडियन नॅशनल थेअेटर मुंबय, हाणी घडोवन हाडिल्ले आंतर महाविद्यालयीन अेकांकी सर्तित.
निर्मिती – दालमिया महाविद्यालय
दिग्दर्शक – खासा बरोवपी



## प्रकाश गं. थळी

जल्म : १९४५ वर्सा गोंयांत चोडण जुव्यांर. शिकप गोंयांत आनी मुंबय. एम्. ए. (इंग्लीश साहित्य), एल्. एल्. बी., डिप. एच्. इ. (मुंबय विद्यापीठ) अश्यो पदव्यो जोडल्या. पी. एच्. डी. खातीर संशोधन वावर चालू आसा.

कोंकणी, मराठी, हिंदी, इंग्लीश ह्या भासा वांगडा संस्कृत आनी पुर्तुगीज भासांचेय ज्ञान आसा.

मुंबय आसताना कॉलेजींत इंग्लीश विशय शिकोवपाचें काम केलां. सद्याक मडगांवच्या दामोदर कॉमर्स कॉलेजींत इंग्लीश आनी कोंकणी विशयाचें अध्यापन. १९६२ सावन लेखनाक आरंभ. फाटलीं २५ वर्सां कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीश नेमाळ्यांनी आनी आकाशवाणीखातीर बरोवप केलां. कविता, कथा, निबंद, अेकांकी, समिक्षा आदि साहित्य प्रकार केळयल्या.

'वेटिंग फॉर घासलेट' (१९७३) हो मराठी अेकांकीचो संग्रह पुस्तक रुपान अुजवाडाक आयला.

कोंकणीतल्या 'कुळागर' मासीकाचे संपादक आसात. साहित्य अकादमीवेवतीन अुजवाडाक येवपी 'एनसायक्लोपेडीया ऑफ इंडियन लिटरेचर' च्या कोंकणी विभागाचे संपादक आनी सल्लागार.

शाळेंत शिकता आसताना सावन नाटकाची आवड. १९६७ – ७३ च्या काळांत मुंबय आसताना महाविद्यालयीन मराठी अेकांकी सर्तित अभिनयाचीं जायतीं इनामां फाव जालीं. गोंय सरकाराचे कला अकादमीन आयोजीत केल्ल्या कोंकणी – मराठी अेकांकी तशेंच नाटक स्पर्धांनी आनी महाराष्ट्र राज्य नाट्य स्पर्धेंत दिग्दर्शनाचीं उझ्ञनावयर इनामां मेळयल्यांत. कोंकणीतल्या स्वतंत्र संहितावांगडा मराठी, बंगाली, कन्नड भासांतल्यो गाजिल्ल्यो नाटयसंहिता खासा अगकारीत करुन कोंकणी रंगमाचयेर दिग्दर्शित केल्यात.

स्वतंत्र प्रज्ञेचो सर्जनशील दिग्दर्शक म्हण नामना जोडल्या.

अपुरबाय प्रकाशन